जाग प्रकाशनाचें

# जाग

म्हयनाळें

वर्स ४८ : आंक ७ : मार्च २०२२

**महिला कथा विशेशांक**

● **संस्थापक संपादपी :**
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

● **वैचारीक दायज :**
स. माधवी सरदेसाय

● **संपादपी :**
आसावरी नायक

● **अतिथी संपादपी :**
सखाराम शेणवी बोरकार

● **पालवी संपादपी :**
कृपाली नायक, एडना वाझ

● **उजवाडावपी :**
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुआ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

● **छापपी :**
इंप्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५१० ००२

● **वेव्हाराचो नामो :**
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग,
गोंय विद्यापिठा लागसार,
ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ७४४७२६८७२० । ९७६५९८७६०६

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्याथ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

**Jaag Bank Details:**
Accont No. 4004002100005165
Name : JAAG MONTHLY
Bank Name: Punjab National Bank
Branch : Panaji-Goa
IFSC Code: PUNB0292300

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-




## मांडावळ...



**भायलें चित्र :** निरुपा नायक.
**रेखाचित्र :** संकेत लवंदे.

<u>संपादकीय</u>

# नारी शक्तीचीं उडणां!

सैमांत बळग्याचीं रूपां भरल्यांत. दृश्य, अदृश्य. तातूंतली एक नारी शक्त. नारी शक्ती म्हळ्यार अंत पार नाशिल्ल्या सोंशीकसाणेची ताकद. वात्सल्यरूपी मायेमोगाचो आविश्कार. खर कश्ट, दगदग हांचे घणाघाती घाय ना नपश्यात करपी दुर्गादेवीची महाकाय सासाय.

आठ मार्च हो संवसारीक महिला दीस. वर्सावळीप्रमाण ओंदूय 'जागा'चो मार्च आंक बायलांच्या साहित्याक ओंपचो अशें आमी थारायलें. आयज कोंकणी कथेच्या मळार निर्शेवणी आयल्या. ती उणी करपाखातीर हो अंक 'महिला कथा विशेश आंक' म्हण काडपाचें थारायलें. सगळ्या महिला कथाकारांकडेन संपर्क सादलो. दिशिल्लें पांच स कथा येतल्यो. पूण आमकां सांगपाक खोस जाता कीं सगळ्यांनी आपल्यो कथा धाडून दिल्यो. पानां वाडोवन लेगीत सगळ्योच कथा आमी ह्या आंकांत घेवंक शकनात म्हण दिलगिरी. त्यो कथा फुडल्या आंकांनी उजवाडायतले.

आमची सदचीं सदरांय ह्या आंकात घेवंक शकलेनात. त्या बरोवप्यांचीय आमी माफी मागतात. ह्यो सगळ्यो कथा वाचतगीर कोंकणी कथेची आयची वाटचाल कशी चलल्या ताचो थोडोभोव थाव लागतलो. सहकार्य दिवपी कथाकारांचे काळजांत सावन उपकार.

हो आंक तयार जातना गानकोकीळा भारतरत्न लता मंगेशकार संवसाराक अंतरल्यो. फाटलीं सात दसकां संगीत रसिकांच्या काळजाचेर ज्या स्वर-आविश्कारान अधिराज्य गाजयलें ते सप्तस्वर काळा आड वचप ही आमकां सगळ्यांच्या काळजाक चटको लावपी दुखेस्त धक्को दिवपी गजाल आसली. ४० वयर भासांनी ५० हजारांवयर पदां एकटे लता मंगेशकार हांणी गायलीं. अशें म्हण्टात संवसारांत दरेका सेकंदाक खंय तरी लता मंगेशकार हांणी गायिल्लें गीत आयकूंक येता. पार्श्वसंगिताच्या मळार फिल्माच्या कथानकाचो अर्थ, आशय समजून घेवन आवाजांत सहजतायेन भाव ओतपी इतली प्रतिभासंपन्न गायिका जावंक ना. तांकां आमची काळजांत सावन श्रध्दांजली.

समाजांत स्त्रीदाक्षिण्य वाडूं. सगळ्यांक संवसारीक महिला दिसाचीं परबीं.

***

## 'जाग' वर्गणीदारांक सुचोवणी

आमचे साबार वाचक 'जागाचे' वर्गणीदार जावंक सोदतात. तांणीं 'जाग म्हयनाळ्याच्या' खाला दिल्या बँक नाम्याचेर पयशे भरचे आनी आमकां आपलो पुराय नामो आनी वर्गणी पावती खाला दिल्ल्या फोन क्रमांक, वा ई-मेल, वा नाम्याचेर कळीत करची-

फोन- +91 7447268720

नामो- मॉडेल स्टेटस, फ्लॅट 3-SE-3, दोना पावल-ताळगांव रोड, ताळगांव गोंय 403002

Email- asawari.nayak@gmail.com

**Jaag Bank Details:**

Ac no: 4004002100005165

Name: JAAG MONTHLY

Bank Name: Punjab National Bank

Branch: Panaji-Goa

IFSC code: PUNB0292300

# समकालीन यथार्थ मांडपी कोंकणी अस्तुरी साहित्यीकांचो कथा संवसार



**राजश्री महाबळेश्वर सैल**

गोंय मुक्ती उपरांत कोंकणी कथेंत गुणात्मक बदल घडून आयले, भायल्या तंत्रातय बदल घडले आनी आंतरीक कथांच्या व्यक्तिमत्वांतय बदल घडले. समसमायीक जिवनाच्या यथार्थान चिंतिंत जावन मनात उत्पन्न जाल्ली संवेदना आनी विचार तत्वां नवीन तरेन मांडपाचो यत्न ह्या काळांतल्या कथाकारांनी केलो. खूब बहुआयामी अशे विशय आनी पात्रां ह्या वेळावेल्या कथेत खूब सरळ साद्या उतरांनी अभिव्यक्त जाल्लीं दिसतात.

मुक्ततायेउपरांत तयार जाल्ली नवीन मानवी मुल्यां स्त्री पुरूष संबंद बदलपी समाजीक आनी नैतीक परिस्थिती आनी तांतूतल्यान तयार जाल्ली नवीन विचार दृश्टी ह्या वेळावेल्या कथांनी मुखेलपणान दिसता.

कोंकणी भाशेत बायल मनशेन सांगिल्ल्या काणयेक एक गडगंज लोक काणयेची पंरपरा आसा. कोंकणी आजी, आवय, भयण सदाच कोंकणी जनमानसाक काणी सांगत आयल्या. पितृसत्ताक भारतीय समाजात बायलांक भोगपी दूख, वेदना तिज्या ह्या लोककाणयेत दिसता. त्याच वांगडा तिणें शिविल्ल्या, विणिल्ल्या गोंजड्यांभितर पितारिल्ल्या चंद्र, हत्ती, फुलां, नुस्त्याच्या प्रतिकांभितरय एक अव्यक्त काणी घोळटा.

आधुनीक बायल कथाकारांनी व्यक्तिच्या माध्यमांतल्यान समाजाक समजून घेवपाचो सदैव प्रयत्न केल्लो दिसता. सातत्य, प्रामाणीकपण, विशय विविधता सांबाळीत कथेच्या मळार आपलें अस्तित्व कोंरातून काडिल्ल्यो कितल्योश्योच जेश्ट साहित्यीका आमचें मदी आसात मीना काकोडकार, शीला कोळंबकार, जयमाला दणायत, हेमा नायक, जयंती नायक, ज्योती कुंकळकार, माया खरंगटे, रजनी भेंब्रे आनी दिसान दीस ह्या नांवांत नवीं नवीं नावां जोडत आसात आनी जोडत उरतली.

सुरवातेच्या पिळगेंतली एक म्हत्वाची कथाकार म्हळ्यार शीला कोळंबकार. विचाराचे, शैलीचे, विशयाचे नाविन्य हें तिच्या कथेचें खाशेलेपण.

कथानकाचें संघटन, चरित्र चित्रणाच्या बऱ्या वायट तासांची उक्तावणी, सहज घरावे संवाद, मनोविज्ञानाचें खोल सखोल अशें गिन्यान आमकां तिच्या कथेंतल्यान दिसता. आपणाल्या पात्राकडेंन ती चड एकवटीत जाता. तांचेकडेन तिचे आत्मीय 'अण्डरस्टेंडीग' आनी सहानुभूति आसता. यथार्थावादी, वास्तववादी अश्यो तिच्यो कथा, तिच्या कथेंत पात्रांचें सजीव आनी कलात्मक अशें चित्रण आसता.

'ओली सांज' हो जाग प्रकाशनान उजवाडायल्लो शीला कोळंबकार (नायक) हिचो कथा संग्रह. ह्या कथासंग्रहांत १७ कथा आसात.

'ओली सांज' ह्या कथेंतली शैली काव्यात्म. सपनाळ अश्या काव्य तंद्रेत बरयल्ल्यो ह्यो कथा. कथेंत ओली सांज आसा. पावस ओलो आनी ओल्या तरण्या संवेदनशील मनाची ओली नायिका आसा जी हे आपले ओलें पांचवेपण घेवन ह्या कथेंतल्यान आमकां मुखार व्हरता. एक सपनाळ तंद्री आशिल्ली ही नायिका कांय सुंदर images आमचें मुखार हाडटा. खूब दृश्यात्म अश्यो ह्यो तिच्यो कथा.

'शांतू एक बायल, सदीच खंयची खंयची फुलां एकठांय करताली आनी हातांत गळ्यांत माथ्यांत ती फुलां गुंथून घालताली. लोक तिका पिशें शांतू म्हण. हांव मात तिका शांतूच म्हण तिका पळयतकच म्हाका दिसतालें ही मरतकर तिचें झाड जातले आनी ताका खुब्ब फुलां फुलतली.'

ह्या कथेंतली नायिका जितली सपनाळ काव्यात्म आनी संवेदनशील आसा तितलोच हो भोवतणचो संवसार असंवेदनशील. आपल्या काव्यात्म जाणिवेची कोणाकच जाणीव ना हाची खर जाणवीकाय जेन्ना तिका जावंक लागता तेन्ना तिजी काव्यात्म नदर ल्हव ल्हव बोधट जायत फाफसत वता. शेत करपून वता, ताज्या पिकिल्ल्या कणसांक कुशिल्ल्या जनावरांचो वास येता. तळें आटून वता तांतले साळीक बावून वता आनी उरता थंय बटबटीत दोळ्यांचो बेबो आनी ह्या असंवेदनशील जगाकडेन झगडप सोपें न्हय आनी निमाणे नायिका ह्या वाडट्या काळखा बरोबर काळें जायत वता ते बेब्याचे नदरेक लाशीत.

'घाय' ह्या कथेंतल्यान एकतर्फी निश्पाप मोगाचे वर्णन लेखिका करता. गोयदा एक गरीब भुरगो. तो निमाचेर मोग करता कंवळ्या वयावेल्या त्या platonic एकतर्फी मोगाचे लेखिका वर्णन करता आनी मागीर घोर निराशा जातकच एक ना पेखपी घाय ताच्या दोळ्यांतल्यान व्हांवक लागता.

भुरग्याले मानसशास्त्राचो बेस बरो अभ्यास लेखिका शीला कोळंबकाराक आसा. शीलाबाय म्हळ्यार वेगळो आयाम आशिल्लें व्यक्तिमत्व. अतीसंवेदनशील, तत्वगिन्यानी, मानसशास्त्रज्ञ आनी काव्यात्म तंद्री आशिल्ल्यो कवीयत्री. भोंवतणच्या समाजांतलो संघर्श करीत, जिवन नांवाचे व्हडें ताणीत फुडें वचपी गरीब दुबळ्या घटकांचेर तिची बारीक नदर आसा.

जिवनांची खर सत्यां ती अतीसहज सोप्या भाशेंत कलात्मक तरेंन मांडटा आनी वाचप्यांक मुळांतल्यान हालयता. 'खेळ' ह्या कथेंतले अंजू आनी ताचो भाव राजू हांचेमदलो खेळ. ते रडी खेळप राजूले आवयकडेन वचून चाडयो सांगप सगले कशे सहजसुलभ पूण त्या काळावेल्या तथाकथीत समाजाचे चित्रणय ती अंजूच्या तोंडांतल्यान

सांगता. ''अंजू चल्यावरी केद्यान हांसता गो तूं ल्हव हांसूक कळना एदी व्हडली घोडी जाली आनी धांवचेल्यानी कितें खेळप. बाये चली मनीस तूं केन्ना बाये तुका अक्कल येतली देव जाणां.'' एका गोंदळी अश्या अवस्थेत अंजू पडटा ते चिंतता दर फावटी तूं चलीमनीस खंयचे अशेच बसूंक जाय, तशेंच चलूंक जाय, धावूंक जायना, मर्यादेंत रावूं जाय, अशेंच करूंक जाय आनी तशेंच करूंक म्हळ्यार हांवे करचें तरी कितें करचें तरी कितें? आपल्यारूच हो अन्याय कित्याक ताका कळना, इतल्यान ताची नदर दर्यार गेली. शीलाबायच्या कथेंचे हे खाशेलेपण अतीवास्तव पांवड्यार पावतकच ती अचळय वाचप्याक काव्यात्म धुंदेत व्हरून पावयता. खर वास्तव आनी सपनाळेपण हाचो बेस बरो सूरमेळ तिच्या कथांनी दिसता.

'अशीच एक दनपार' ह्या कथेंतय छायाचेर आवय पावला पावलाक खेपता. छाया पुस्तकांत रमपी. आवय तिचें भावूक मन समजूंक शकना. मागीर तें मरता, ह्या वास्तवीक खर सत्याकडेन झगडत आनी मागीर तिजो हिरो येता सायकलीर बसून पूण तिका मरूंकच जाय अशी वास्तव आनी रंजकता अश्या दोनूय पांवड्यार झुलयत निमाणें वास्तवीक पांवड्यार हाडून सोडपाचें कसब लेखिकेक बेस बरें जमला.

'सतार' ह्या कथेंतले सगलें वातावरण काव्यमय. ती चलीच काव्यमय सतारीचे भाशेंतच उलयता, हो कितलो सुंदर उलयता हाचे उलोवप सुंदर. हो सुंदर. हाचो म्हजेवेलो मोगूय सुंदर. असो भुरगो केन्ना सोदून लेगीत मेळचो नाशिल्लो. म्हजे नशिबूच सुंदर देखून असलो घोव मेळ्ळो. एक काव्यात्म धुंद अश्या तंद्रेतल्यान कथा मुखार वता आनी कथेच्या शेवटाक तिज्या घोवाची वेव्हारी नदर उक्ती जाता तो म्हणटा ''सतार शिकप ही आयची फॅशन. तेन्ना सतार शिकपाची क्लास काड. पांचशे रूपयांक मरण ना'' आनी ते राती सताराची सूर चान्यांत भिजून न्हिदिल्ल्या घरांचे आनी झाडापेडांचे काळीज चिरीत वतात.

'मॅगी' ही वैश्वीक तत्व आशिल्ली कथा. ल्हानपणातूच घराच्या दळिद्रीपणाक लागून पिडा सोसूंक पडपी असाध्य पिडीत चलयांच्यो मोन्यो व्यथा, कथा ह्या कथेंत दिसतात. मॅगी गरीब. बापूय सोरो पिता आवय नुस्तें विकता, तुटक्यो व्हाणों, पिंजकरो स्कर्ट. भुरगीं तिडायतात, हिणसायतात अशें आवतिकायेंत ती जगता, आनी मागीर तांतूतल्यान escape जावपाचे ती मार्ग सोदून काडटा. आपली वास्तव दुख्खां बेबीच्या काल्पनीक सुखांत बुडयता. आपल्याक जी सुखां जाय दिसतात तीं सगलीं बेबीक दिता. खर भयानक वास्तवांतल्यान भायर सरून आपल्याक थाकाय दिवपाचो हो day dreamingचो मार्ग तें आपणायता. निमाणें आपल्या काणयेंतल्यान आपल्या मोन्या व्यथाक बांद फोडटा. अती खर वास्तव त्रास दिवपी, निर्शेणी हाडपी, अपमानीत करपी, घुस्मटमार हाडपी आनी तांतूतल्यान भायर सरपाची वाट म्हळ्यार मॅगीचे सपनरंजन. 'ते ताबंडे घर घरान ताबंडोच विस्तीद घाला, तांबडीच फुलां माळ्यात. त्या घरान बेबी आनी ते रावतात त्या घरात मॅगी रांदता. मॅगी आनी बेबी खूब खोशयेन रावता''.

अतीवास्तव आनी fantasy ह्या दोनूय पांवड्यावेयल्यान चलून ही कथा एका वैश्वीक पांवड्यार पावता हें ह्या कथेचे व्हडपण. संवसारातल्या सगल्या दुर्बळ गरीब अपमानीत चलयांची ही कथा जांव येता इतली ती सशक्त जाल्या.

Fantasy आनी अतीवास्तव हांच्या सूर मेळांतल्यान लेखिका अचळय वैश्वीक शाश्वत सत्यां आमचेमुखार मांडटा. काव्यात्म शैली वापरून लेखिका कोंकणी भाशेचे गिरेस्तपण आमचे मुखार मांडटा. अतीखर वास्तव मांडटना शीलाबाय आपली काव्यत्म तंद्री जपता. आयज सुखवस्तू, आपल्या भितर गुल्ल जायत चलिल्या समाजाखातीर शीलाबायच्यो कथा वादळी रेंवटांतलो ओलो वाठार कश्यो जावन येतात.

'खेळ' ही तांची कथा सहज रितीन बायलांचेर घरचें घरांत आपल्याच लोकांनी केल्ले अन्याय चित्रीत करता. पुराय कथेत भुरगीं खेळ खेळटात पूण कळत नकळत एक ज्वलंत समाजीक सत्याक वाचा फोडटात कथा सोंपता खेळ उलगता पूण संवेदनशील वाचप्याक अस्वस्थ करुन. खेळ खेळ दिसपी ह्या कथेत जिवनाचें वास्तव समाजातल्या सुखवस्तु घरांतल्या बंदिस्त पिडीताचें दुख आसा तें दूख गडद करुन वाचप्याच्या काळजाचो थाव घेवपी कसबी कलात्मकता शीलाबायकडेन आसा.

शीला बायच्या समकालीन मीना काकोडकारांच्या कथेंत आमकां गोंयचो गांवगिरो वाठार दिसता. सादेसुद्या सामान्य लोकांक आपल्या गूण अवगूणासयत ती आपल्या कथेंत आस्पावन घेता. तिच्या कथेक एक नाट्यात्मक झालर आसता. पात्रचित्रण करतना पात्रांचें हावभाव, संवयो हांचे जिवंत वर्णन ती करता आनी ताका लागूनच तिज्या कथेंतली पात्रां वाचप्याच्या मनांत घर करतात वाचनीय जातात. 'दोंगर चंवल्ला' ह्या कथेंतलो भानुदास गांवातल्यान शारांत पाविल्ल्या दर एकट्याक Nostalgic करता. कित्याक कथा सोंपता आसतना भानुदास निखटो भानुदास आसना तो गांवच्या शुद्ध मातयेचो ओलो परमळ जाता. गांवच्या दर्यावेळेवेल्यान व्हांवपी वारो जाता. असल्यो कथा शाश्वत आसतात जशें जशें गोंय अक्राळ विक्राळ शार जावपाचे वटेन पावलां घालूक लागतलें तशें तशें ह्या कथेचें मोल वाडत वतलें हातूंत दुबाव ना, कारण गोंयच्या सैमाचें ही कथा म्हळ्यार एक निशब्द गोठेल्लें चित्र आसा.

'सपनफुलां' ह्या कुळागर प्रकाशनान १९९०त उजवाडाक हाडिल्ल्या मीनाबायच्या कथासंग्रहात वट्ट १६ कथा आसात. वेगवेगळ्या पोंताची एक बारीक दुखाची धार तिज्या कथेतल्यान व्हांवता. तिज्यो चडश्यो कथा शेवटाक वाचप्याक सुन्न अर्तमूख करतात.

स्वार्थी, दुबावी, मोगाळ, परिस्थितीक लागून फशिल्ली अश्या वेगवेगळ्या वृत्ती पवृत्तीची मनशां तिज्या कथेंत येतात. 'सुकण्या पिला रें कथेंत आवय भायर पडिल्ल्या ल्हान रघल्याचें दुखापरस कथेच्या शेवटाक भुरगीं नासून रघल्याक आपलो मोग मोयपास दिवपाक आशेल्ल्या मावशेक सोडून रघलो बापायवांगडा वतकच जाल्ली मावशेची अवस्था वाचप्यांक अस्वस्थ करता.

पुराय समरसून जीव तोडून घोवावांगडा संवसार करुक सोदपी

आलेप्पी केरळांतल्यान आयिल्ली तिलम्मा घोवाल्या दुबावी प्रवृत्तीक बळी पडटा तिज्या जिणेचो विस्कोट जाता. पूण ह्या सगल्यांभितर तिजी कसलीच चूक आसना.

तशेच 'भिकू पसरकाराली डायरी' हांतुतले भिकूले दूख सर्वसामान्य लोकांच्या लक्षांत वचपासारकें न्हय पूण लेखिका ह्या विशयाक योग्य न्याय दिता आनी एक बरी कथा आमच्या हातांत दिता.

सर्वसामान्य मनशां आनी विशय घेवन तांच्या सादेसुद्या जिवनाचो वेध मीनाबायच्यो कथा घेता. सादें सोपें ल्हान ल्हान प्रभावी संवाद, ल्हारेल्ल्या उदकावरी ओघवती वर्णनात्मक शैली, आशयाची आनी विशयाची कलात्मक घटमूट बांदणी ह्यो मीना काकोडकाराच्या कथेच्यो जमेच्यो बाजू.

मीनाबायच्या कथेंत वेगळ्या वेगळ्या स्वभावाचीं मनशां समतोलपणान येतात. 'नवो जल्म' कथेतलें निरुपा संघर्श आनी विवेचनेतल्यांन वाट काडत स्वताच्या व्यक्तिमत्वाचो कायाकल्प घडोवन हाडटा. तर 'चंदनाचो रुख' कथेंत गोल्ड मेडलिस्ट जयू लग्न जातकच आपली सपनां, हावेस मारुन गंध नाशिल्ल्या चंदनाच्या बावलेवरी जीण जगता.

तर 'जनेलाच्या हेवटेन तेवटेन' आनी 'वळख' कथेंत स्वार्थी बायलो दिसतात ज्यो आपल्या सुखाखातीर हेरांल्या भावनेकडेन खेळ करतात.

'देव तंवशीं' कथेतले चली स्वताचे करियर घडोवपाचे हावेसात जिवितातलें निरागस सुखां सांडोवन बसता. मीनाबायच्या कथेंतली भास गद्य आनी पद्य हाच्या मदले मदीं झेल घेता.

''देव तंवशी ताणें म्हाका सांगलें.

देव तंवशी देवाचीं तंवशीं नांव लेगीत कशे उजवातीवरी घमघमीत आसलें.''

हेमा नायक हें कोंकणी बायल कथाकारामदलें एक बरेच भोवआयामी अशें व्यक्तिमत्व. कोंकणीच्यो क्रियाशील कार्यकर्त्यो, समाजीक भान आशिल्ल्यो साहित्यीक. तिज्या कथेंत जो समाज येता तो चडसो मध्यमवर्गीय. तिज्यो चडश्यो कथा बायलांक मध्यबिंदुर दवरुन बरयल्ल्यो आसतात. वास्तववादी पातळेवेल्यान उंचाबळीत जावन लेखीका खूब फावट अती वास्तववादी पांवड्यार पावतनाय दिसता.मानाय वावराड्यो बायलो झटझट करुन अती आधुनीक जातात. हेमाबायच्या चडश्या कथेंतलें दादले पात्र एकतर पारपोळ. बेकार लवडी मवाली वा बेबदे आसतात. तिज्या कथेंत एकेक फावट कांय बारीक चुको उरतात ताका लागून त्यो एकसंध प्रभाव घालपाक उण्यो पडतात. 'निवलकाणी' कथेंत संतोष रुक्मिणीचो पूत गांवातल्या कांय ल्हान चलयांचेर बलात्कार करता. रुक्मिण ताची आवय ताका शिटकयता धपकायता पूण तो आयकना. तुका हांव काब्बार करतली म्हण पांय आपटीत ती ताच्या म्हऱ्यात वता दोनूय दोळ्यांत मिरसांगे पिठो भरता. निवलकाणयेच्या झाडांर व्हरुन उडयता. उपरांत पुलीस केस जाता तिज्या अपराधाखातीर तिका धरुन व्हरतात कोर्ट जाता. हे सगलें वर्णन मूळ कथेच्या प्रभावाक बरीच बाधा हाडटा. आनी एका बरो प्रभाव वाचप्याचेर घालूक कमी पडटा. एक तर निवलकाणयेच्या झाडार आवयन धुकलून उडयला म्हण लोक, पुलीस, आदोवगाद, पत्रकार जमा जावप हें व्हडलेशें वाचप्याक पटपासारकें न्हय. खंयच्याय कथेत सर्वसामान्य सत्याची खोलाय कमी आसता तेन्ना ती फाव तितलो प्रभाव घालूक शकना.

'पसय', 'दुर्गाअवतार', 'नयनतारा' आनी हेर कथा हे तिचे कथासंग्रहात चडकरुन मध्यमवर्गिय बायलो येतात.

हेमाबायच्या कांय कथेंतली बायल पात्रां बरीच धडाडिची आसतात त्यो जिवनाकडेन कसलीच तडजोड करनात आपले निर्णय आपूण घेतात आनी परिस्थितीच्या कचाट्यात सांपडुनय आपल्यो वाटो आपूण सोदून काडटात.

जयंती नायक हिच्या कथेत चडसो गांवगिरो वाठार थंयची ग्राम संस्कृती येता तशेंच ह्या सगल्यांक सोबसारक्या भाशेची घडणूक ती बरें फिशालतायेन करता. वेगवेगळ्या समाजीक शिक्षणीक स्तरावेल्यो बायलो तिज्या कथेंत येतात.

'गर्जन' कथा झेल्यातली 'निमणें बंड' ही बायल मनशेभितर आशिल्ल्या मातृत्व ह्या गुणाचो भोवमान करता. सगुण्याचो घोव रुपो तिका जिवितभर कसलेच सूख दिना. आनी मरणकाळ लागी पावतकच ताच्या दारात येवन पडटा. ताचेविशीं तसो तिच्या मनात कांयच मायामोग नासता तरी ती ताका अन्न घालता. तो मरतकच आपूणच उठून दिवली पेटोवन ताच्या कुडीसरी दवरता. जेन्ना तिज्या माथ्याचो कुकूम पुसोवंक कोणतरी सोदता तेन्ना तें बंड करता. जिवितभर अन्याय सोंसपी परिस्थितीकडेन तडजोड करपी सगुण्याचो हो बंड तिणें जिवितभर सोंशिल्ल्या घुस्मटमाराचो खरे म्हळ्यार स्फोट जाता. भारतीय बायल मनशेचें खरें स्वरुप दाखोवपी ही कथा.

'निर्णय' हो जोफा गोन्साल्वीचो कथासंग्रह विशयाची विविधता घेवन येता. त्याच वांगडा गरीब रेशेखाला आशिल्या समाजाचें शोषण करपी वर्गाचें सुक्ष्म चित्रण करता,

सुटसुटीत भास ल्हान ल्हान वाक्य बांदावळ जुस्ताजुस्त संवाद आनी पात्रनिर्मिती ही तिज्या कथेची खाशेलपणां.

ह्याचवांगडा कोंकणी कथेक नवे आयाम आनी स्वरुप दिवपाचें काम जयमाला दणायत, माया खरंगटे, रजनी भेंब्रे, ज्योती कुंकळकार ह्या लेखिकांनी व्हडा प्रमाणात केल्लें दिसता. आपल्या समकालीन काळातल्यो मध्यमवर्गीय बायलों तांची जिवन दृश्टी, जिवनाकडेन ताणी मांडिल्लो संघर्श खूब खरायेन ह्यो लेखिका मांडटात.

**संदर्भ**


शीला नायक- ओली सांज, जाग प्रकाशन.
मीना काकोडकार - सपनफूलां, कुळागर प्रकाशन.
जयंती नायक - गर्जन.
हेमा नायक - नयनतारा आनी हेर कथा, पसय, दुर्गाअवतार
जोफा गोन्साल्विस - निर्णय



(लेखिका पिलार गोंय हांगासल्ल्या फादर आग्नेल महाविद्यालयाच्यो सहयोगी प्राध्यापक आसात).

संपर्क: 9922265209


***




# सुवर्णमध्य

शीला कोळंबकार

शेनवार, अथर्व भायर सरून गेल्लो. आयलो तोच 'आई, आई' अशें आड्डत. ताच्या तोंडार खोशी भरून वोत्ताली.

''किदें जालें रे? कित्याक आड्डता?''

''आई, हांवें कार बुक केल्ली. ती ताणी आयज घेवन वच म्हणून सांगलां.''

''आरे, वाऽ!''

''फक्कत वाऽ म्हणूं नाका. तूं यो म्हजे बराबर गाडी हाडपाक!''

''हांव शें? तुजे बायलेक घेवन वच. आतां तुजें लग्न जालां. ती आमच्या घरची लक्ष्मी. तिका घेवन वच'' तिका ओगीच वायट दिसूंक नाका.''

''आगे, अवनीनूच सांगलां तुका घेवन वच म्हूण. ताणे सांगलां घरांतलें जेवण खाणाचें आपूण पळेतां. पूण आईच्या हातांतल्यान गाडयेचें उद्घाटन जावंदी! तेन्ना तूं पयलीं न्हा धू. पूजा कर आनी चल म्हज्या वांगडा.''

उपाट खोशेन म्हजें काळीज सुपायेदें जालें. हांव न्हावन, धुवन पूजा करुन तयार जालें. म्हाका घेवन अथर्व गाड्यांच्या शोरुमांत गेलो. थंय ताणी गाडयेची चावी दिली. अथर्वान ती म्हाका घेवंक लायली. हांवें ती घेवन अथर्वाकडे दिली. आमी दोगांय गाडयेम्हर्‍यांत गेलीं. ताणे गाडयेचें दार उघडलें. म्हाका बस म्हूण सांगलें. हांव बसतकीच म्हज्या पायां पडलो. मागीर कागदपत्रां जाता म्हणसर वरभर गेलें.

इतले म्हणसर अवनी रिक्षांतल्यान थंय पावलें. घोवावांगडा वचून उबें रावलें. सगळे सोपस्कार जाल्या उपरांत तीं दोगांय गाडये म्हर्‍यांत आयलीं. अवनीन मोबायल काडलो. अथर्वाक आपल्या म्हर्‍यांत आपयलो. गाडयेक तेंकून दोगांय उबीं रावली. ताणी थंय आशिल्ल्या मनशाकडल्यान आपले फोटो काडून घेतले.

मागीर आमी घरा येवंक भायर सरलीं. अथर्वान दुसर्‍याच रस्त्यावेल्यान गाडी काडली. हो देवळांत गाडी व्हरता काय कितें.?

''आरें, तूं खंय वता?''

''पेट्रोल पंपार.''

''कित्याक?''

''हे लोक गाडयेन दोन ना जाल्यार तीन लिटर पेत्रोल घालून दितात. ते पेत्रोल लागशिल्ल्या पेट्रोल पंपामेरेन पावता. मागीर तुमच्या गाडयेंत तुमकांच पेत्रोल भरचें पडटा.

वाटेर अथर्वान सांगलें, ''जाणा, आई, आनी दोन तीन वर्सानी हांव आनी एक गाडी घेतलों तुजे खातीर!

''म्हाका खंय रे गाडी चलोवंक येता?''

''ड्रायव्हर दवरुंया.''

''नाकां सायबा. ताचे परस अशें करुंया. तूं गाडयेक कितले लाख दितलो, ते म्हाका दी. हांव ते खूप वर्साखातीर बँकेंत फिक्स डिपोझिटांत दवरतां.''

''कित्याक?''

''ताचें जें व्याज येतलें, तांतल्यान नाजाल्यार उबर गाडी भाड्यान घेवन भोंवक वतां. मागीर गाडी खंय दवरची, गाडी पार्किंगाक सुवात ना, गाडी खंय लागत, आपटत हो हुस्को ना. हुस्क्या मेकळे जाय थंय भोंव. खेरीज मुदल सेगूर उरतलें. आमके आम आनी गुठलीके भी दाम!''

ते रातीं म्हाका न्हीदच आयली ना. ल्हान आसतनाचो अथर्व, कुमार अथर्व, व्हडलो जाल्लो अथर्वच दोळ्यांमुखार येतालो.

कॉलेजांत वचपी अथर्व आपल्या चुलत भावागेर गेल्लो. थंय पळेत जाल्यार ताचो चुलतभाऊ आनी आतेभाव दोगूय ड्रिंक घेंवक बशिल्ले. ताणी अथर्वाक बस म्हूण सांगलें. आनी ताच्या मुखार एक ग्लास दवरलो. अथर्वान आपूण पिना म्हूण सांगलें. तेन्ना ताणी अथर्वाक बीयर पिवपाचो आग्रो केलो. आनी वयल्यान ताका सांगलें, ''तू पी रे! तुजे आईक आमी सांगीना.'' ताचेर अथर्वान म्हळें, ''सांगलें जाल्यारुय आई काय म्हणची ना.''

''कित्याक?''

''कॉलेजांत वचूंक लागलों, तेन्नाच आईन सांगिल्लें, हें पळे कॉलेजान तरेकवार भुरगे येतले. तुका ड्रिंक घे म्हूण आग्रो करतले. तेन्ना तुकां पिवचेंशें दिसलें, जाल्यार तूं म्हाका सांग. हांव तुकां कशें पिवचें तें शिकयतां. अशी म्हजी आई. ती म्हाका काय म्हणची ना.''

''मागीर तूं कित्याक पिना तें तरी सांग.''

''म्हाका तुमचे भशेन पोट वाडोवन घेवपाचें ना.''

- आनी घरा येवन ताणो म्हाका सगळें सांगलें.

एक खेप अथर्वाच्या बाबाली कंपनी संपाक लागून बंद पडली. संप आयज सोंपताले, फाल्यां सोंपतालो म्हणटा म्हणसर आठ म्हयने उलगले. संप काबार जावंची लक्षणां दिसनासलीं.

अथर्व म्हजे म्हर्‍यांत आयलो. ताणे म्हळें, बाबाले इतले भाव आसात. तांचो शिक्षणाचो खर्च बाबान केलो. तांचीं लग्नां करुन दिलीं. लग्न जावन बायलांक घेवन ते वेगळे रावले. पयशांची गरज आसता तेन्ना आमगेर येवन पयशे घेवन वतात. आतां एकूय जीतो मुस येवन आमी कशे आसा तें विचारुंक लेगीत यना. मदत करची तें थंयच उरलें.''

''तूं म्हण्टा तें खरें! पूण आमी मदत तांकां केली तेन्ना आमची तांचेकडल्यान कांय अपेक्षा नासली. तांकां बरे भशेन रावंक मेळचें हो आमचो हेतू आशिल्लो. बापूय मेल्या उपरांत तुज्या बाबाचेर तांची जबाबदारी आयली ती ताणी पूर्ण केली. इतलेंच! हें जग अशेंच! लोकांक दानत ना. कोणे केल्ल्या उपकारांची याद ना.

ते दीस तुजे बाबा ठाणे गेल्लो. थंय तांकां एक भुरगो मेळ्ळो. ताका तुज्या बाबान कँटिनात नोकरेक लायिल्लो. बाबाक पळोवन तो खूश जालो. ताणे म्हळें, ''सर, आयज तुमी मेळ्ळ्यार पुरो म्हूण हांव देवालागीं मागतालों. तुमी खरेंच मेळ्ळें. चला च्या मारुंया. दोगूय हॉटेलांत गेले. ताणे तुज्या बाबाखातीर कोकाकोला मागयलो आनी आपल्याक च्या. बाबान ताका सांगलें, आरे, एकूच कोक घे. अर्द अर्द पिवया. म्हज्यान अखखी बाटली सोपोवंक जावची ना. ते अर्द अर्द कोक पिले. त्या भुरग्यान पयशे दिले. ते भायर सरले. ताणे बाबाक म्हळें, ''एक मिनिट सर!'' बाबाक फाट करुन तो उबो रावलो. मागीर ''कशें

चल्लां तुमचें सर? तुमची कंपनी बंद आसा खंय न्ही? अशें म्हणून बोल्सांतल्यान ताणे शंबराच्यो दोन नोटी काडून बाबाच्या बोल्सांत घाल्यो. आनी ताणे म्हळें, "सर, आमी गांव, देश सोडून मुंबय पोट भरपाक येतात. आमी एकमेकांक मदत करुंक जाय न्ही? आयजूच म्हजो पगार जाला. हांव इतलेच पयशे दिवंक शकतां. ते तुमी घेयात. नाका म्हणूं नाकात." त्या भुरग्याक पगार मेळटालो पांचशें रुपया. दोनशें रुपया ताणे बाबाक दिल्ले. बाबान ताका सांगलें. आपले भाव, भयणी हांगा आसात. ते म्हाका मदत करतात. तुजे हे पयशे दवर. तुजी आवय तुज्या पयशांची वाट पळेता आसतली. तुकां म्हाका पयशे दियन दिसलें तेंच खूप जालें. "तुजें बरें जावं" अशे म्हणून बाबा घरा आयलो.

"पांचशें रुपयानी ताचें कशें जातलें?"

"आरे, ते चार पाच भुरगे एके कुडींत रावतात. एकाच गांवचे? कोण गावांत वता तेन्ना घरचे तांदूळ घेवन येता. तो तांचो खर्च वांचता. मागीर ते आलायतें काम करतात. सकाळी उठून पेपर घाल. कोणाल्यो गाडयो धू... अशे करुन पयशे जोडटात. हो भुरगो जंय काम करता थंयसान उरिल्ले किदें आसता तें घेवन येता. अशे तरेन चलता ताचें. कसलेंय काम करपाची तयारी आसा, तांकां मुंबयत मरण ना." अशें हांवें ताका सांगिल्लें.

एक दीस ताणे सांगलें, "आई, आयच्या पेपरांत जायरात आयल्या. एकल्याक कॉलेजींत शिकपी भुरगीं जाय. आयतारा तांकां ट्रेनींग दितले. ट्रेनिंगच्या टायमार तांकां म्हयन्याक एक हजार रुपया दितले. ट्रेनिंग जालें काय तांकां नोकरी मेळटली."

"असो कोण रे तो मनीस?"

ताणे नांव सांगलें. हांव शॉकाद जालें. किदें सांगचें तें म्हाका समजलें ना. अथर्वाकडेन दोन तीन दीस हांव उलयलेंच ना.

"आई, किदें जालां? तूं म्हजेकडेन कित्याक उलयना? तुज्या जिवाक बरें दिसना?

दोतोरागेर वचूंया? दोन दीस जाले. तूं हांसली लेगीत ना. किदें जालां तें तरी सांग अशी ओग्गी रावं नाकां.

"सांगता. यो. हांगा बस." तो बसलो.

"दोन दीस जालें. हांवें चित्तां रे तुकां वाडयतना हांव खंय चुकलें?"

"अशें कित्याक म्हण्टा गे तूं? हांव चुकलो?"

"ज्या मनशान ती जायरात दिल्या तो मनीस कोण तो खबर आसा मरे तुकां?"

"हय."

"तरी लेगीत तागेर ट्रेनिंग घेवन नोकरी करपाचो? तो फामाद गुंड मरे. ताचे कसले धंदे चलता ते खबर आसा मरे? तागेर वचप म्हळ्यार गुंडाचे टोळयेंत वचप. मारामारी करप. किदें आनी किदें म्हण खबर ना. तागेर नोकरी करुंक वचपाचो विचार लेगीत तुजे तकलेंत आयलोच कसो, ताचो विचार करतालें हांव!" तागेर नोकरी करप म्हळ्यार किदें तें कळूं ना तुकां?"

"कळ्ळें? पूण म्हाका दिसलें हांवें ती नोकरी केली जाल्यार तुमकां कांय त्रास जावचो ना. संप केन्ना सोंपतलो? कंपनी केन्ना सुरु जातली? जाली ना जाल्यार बाबाक ह्या वयार कोण नोकरी दितलो? म्हजेंय शिक्षण अर्दकुटें उरचें ना?..

"तें सगळें खरें. पूण तुका हो वांकडो रस्तो दिसलोच कसो? इतली किदें भीक लागल्या आमकां? किदेंय तरी सेव्हींग आसतलेंच.

कांयच ना जाल्यार म्हजें भांगर आसा. मुंबय भांगर म्हळ्यार लॉकराची भर! हें भांगराशिंगर अडचणीच्या वेळार कामाक येवचें म्हूण आसता. तूं हुस्को करुं नाकां. तुज्या त्या एका विचारान म्हजी तकली सामकी भणभणली. किदें करचें तेंच समजलें ना.

'सॉरी आई! चुकलें म्हजें - म्हजो हेतू फक्त तुमकां मदत करची इतलोच आसलो." अशें म्हणून ताणे म्हजे मांडयेर तकली दवरली आनी रडूंक लागलो.

हांवें ताका मात्सो वगत रडूंक दिलें. मागीर ताच्या तकलेर हात भोंवडायत सांगलें,

"शाण्या, म्हाका तुजें दुख कळटा. तुजी आमचेवयली माया समजता. पूण आमच्या खातीर आपल्या भुरग्यान आपलो जीव संकटांत घालचो अशें खंयच्या आवय बापायक दिसतलें? चूड दाखोवन म्हारवाक कोण घरांत घेतलो? तेन्ना असले पिशेपणाचे विचार मनांत लेगीत हाडूं नाकां. तुज्या ह्या विचारानूच हांव न्हित्रळलें! हाचे वेल्यान तूं विचार कर. सदांच सरळ रस्त्यान वच. आयुष्यांत केन्ना वांकडी वाट धरुं नाका. हेय दीस वतले. तूं आपल्या शिक्षणाचो विचार कर.

असो हो अथर्व! शिकलो. व्हड जालो. बरे नोकरेक लागलो आनी आयज गाडी घेवंक पावलो. देवाकडे इतलेंच मागतालें, म्हजो चलो बरो मनीस जावं!

कसल्या कसल्या यादींनी घुस्पलें आनी दोळो केन्ना लागलो कळ्ळेंच ना.

दुसरो दीस उजवाडलो. सकाळीं च्या घेतना अथर्वान सगळ्यांक सांगलें.

"सांजेर हांव फक्त आईक घेवन भोंवपाक वतलों."

सांजेर म्हाका घेवन तो भायर सरलो.

"आई, खंय वचूंया?"

"हायवे वेल्यान गाडी घे. थंय भांडूप पावलो काय दावे वटेन एक रस्तो आसा थंय घे."

"थंयशें कित्याक गे?"

"आरे, आतां थंय फ्लोमिंगो येतात. तांकां पळोवंक मेळटलें. गाडी थांबोवन उलोवंकूय मेळटलें.

- ताणे थंय गाडी व्हेली. फ्लेमिंगो निकतेच येवंक सुरवात जाल्ली. अथर्वान म्हाका विचारलें,

"आई, हावें गाडी घेतली तुकां बरें दिसलें न्ही?"

"हय तर रे!"

"खरें म्हळ्यार हांवें तुजे खातीर गाडी घेतली. म्हजे चुलतभाव, आतेभाव गाडी घेवन येताले; तेन्ना म्हाका तुज्या दोळ्यांत दिसतालें, म्हजो चलो अशी गाडी घेवन केन्ना चलयतलो काय?"

"इतलें जर तुकां समजतालें जाल्यार तूं पयलींच गाडी घेवंक शकतालो."

"ती कशी?"

"तुकां अमेरिकेक वचपाचे कितले चान्स आशिल्ले. तुकां जी कंपनी अमेरिकेक वच म्हणटाली तेन्ना तूं सुसेगाद राजीनामो दिवन घरा येतालो. तेन्ना गेल्लो जाल्यार केन्ना गाडी घेवपाचो.."

"तुकां दिसतालें हांवें अमेरिकेक वच्चें म्हूण! खरेंच सांग."

"लग्न जाल्याक म्हजी इच्छा, आकांक्षा किदें हें कोणे केन्ना विचारलेंच ना."

"मागीर तूं अशें कित्याक म्हणटा?"

"तुजो बाबा म्हणटा म्हूण!"

"बाबा?..." अशें म्हणून तो हांसलो.

"आतां खरें सांग. तूं अमेरिकेक कित्याक गेलो ना."

"म्हाका ती आवडना गे अमेरिका बिमेरिका! ते लोक इंडियन लोकांक किंकोंत करतात. दुसरी गजाल थंय भोंवतना पासपोर्ट कमरेक बांदून भोंवचें पडटा. भारत आमचो देश. थंय आमचे लोक

आसात. सगळ्याक वेगवेगळे लोक. वेगवेगळ्यो भासो, वेगवेगळीं झाडांपेडां, वेगवेगळीं शेवणी, आमचें खाण जेवण वेगळें. आपलो देश सोडून दुसऱ्या देशांत कित्याक वचूं जाय?''

''खऱ्यांनीच ह्या गजाली खातीर तूं फॉरेनाक वचूंना?''

''आतां हांव तुकां खरी गजाल सांगतां. ल्हानपणापासून हांव पळेतां, तूं कितलें त्रास काडटा ती! काका बी आमी सगळीं एकठांय रावतलीं पळे. तेन्ना तूं कितलें काम करताली? आजी जाल्यार हुकूमशहा आशिल्ली. तिका सगळ्यांचें पयलीं करचें पडटालें. आतां सून आयली तेन्ना ती कित्याक कामा करतली? तिणे तुकां नोकरी सोडूंक लागली. तूं घरांतल्या सगळ्यांक डबे करुन दिताली. एका काकाचें लग्न जालें. काकी कांयच करीनासली. वेल्या आजी म्हणटाली, ती कामावेल्यान आयल्या. थकल्या आसतली. तिका च्या करुन दी. रातच्या जेवणातूच ती हातबोट घालीनासली. मागीर एक दीस काकान दुसरेकडेन फ्लेट घेतलो. काकीक घेवन तो थंय गेलो. दुसऱ्या काकानूय तेंच केलें. तूं मात घश्टो काडीत उरली. कसल्याय सणाक सगळीं हांगा येतालीं. सुसेगाद साडेबारा एकाक? तूं मात सकाळीं पांचाक उठटाली आनी कामाक लागताली. सगळें जातासर तुकां न्हिदपाक कितलो वगद लागतालो. आपल्या किदें जाय तें काकीबी आपल्या डब्यांनी भरुन व्हरतालीं. आमगेर केन्ना किदेंय केलें जाल्यार आजी आपल्या अमक्या पुताक तें आवडटालें अशें म्हूण भरिल्ल्या ताटार दुकां काडटाली. मागीर तूं तो पदार्थ डब्यांत घालून म्हाका तांच्या घरा धाडटाली. तो डबोय घरा परत येनासलो. म्हाका तें सगळें पळोवन राग येतालो. हांव ल्हान आशिल्लों. तुका पळोवन वायट दिसतालें. पूण हांव काय करुंक शकनासलों. बाबाय तुजे कडेन खंय बरो वागतालो? आवय सांगता ती पूर्व दिशा. घरांत जें किदें जाता ताका तुकांच जबाबदार धरता.

आतां अवनी घरांत आयलां. तूं ताची चलयेभशेन अपुरबाय करता. पूण तें मात तुकां सासूमांयच्या नदरेन पळेता. सकाळींच पळे. गाडये म्हऱ्यांत उबें रावन ताणे म्हजे आनी ताचो फोटो काडलो. तूं थंय उबी आसली. तुका ताणे आफयलें? हांवूय ओगी रावलो. गाडी घेतल्या घेतल्या कांचकिसांव नाका म्हूण? आई तुकां सोडून म्हाका खंयच वचपाचें ना. तुज्या म्हऱ्यांत रावंक जाय. आतां तुज्या जाणटेपणांत तुका हांव कसलेच त्रास जावंक दिवपाचो ना. तुका सदांच खुशालभरीत राविल्लें पळोवंक जाय. तुज्यो उरिल्ल्यो इच्छा पूर्ण करुंक जाय. आई, हांव फक्कत तुजे खातीर आनी तुजेच खातीर फॉरेनाक वचूं ना...

- अथर्वालीं उतरां आयकून इतल्या वर्सांचें आडखळून उरिल्लें दु:ख घळघळून दोळ्यांतल्यान गळ्ळें. म्हाका हुडक्या हुडक्यांनी रडूंक आयलें. अथर्वा मुखार सरलो ताणे म्हजी तकली आपल्या खांदार घेतली. आनी म्हजो बापूय जावन म्हाका थोपटूंक लागलो.

संपर्क: 9819315307

***

# निर्णय!

मीना काकोडकार



शिलान केन्ना चिंतूंकच नाशिल्लें अशें हॉस्पिटलांत बसून तीं सगलीं एका निर्णयामेरेन येवपाचो यत्न करतलीं.

सगलीं म्हळ्यार... तें आनी ताचो घोव विनय; शिलाचो भाव अनील आनी बायल शीतल. तांचीं भुरगींय आसात... अनिलाचे अंशूल आनी विशान्त, शिलालें रीना आनी राज... तांकां विचारल्यार तीं नक्की आपलें मत दितलीं पूण तांकां कोणें विचारूंक ना.

निर्णय घेवप सोपें नाशिल्लें...

पूण तें जाणां – केन्ना केन्ना तो घेवचो पडटा. मनाविरुद्ध आसल्यार लेगीत... आई फाटले वीस दीस हॉस्पिटलांत आसा...

ब्रेन हेमरेज...

ती कोमांत गेल्या... व्हेन्टीलेटराचेर आसा.

ती भोंवतणीं कितें चल्ला हाच्या भानापेल्यान आसा...

घडये आपल्याच वेगळ्या जगांत...

हांसती, खेळटी, उमेदी आई...

नातरांची मायेची आजी -

जाणटीं मनशां वचपाचींच. तशी मनाची तयारीय ल्हवू, ल्हवू जायत आसता.

पूण बरें ना जावप; उपाट पिराय जावप आनी वात अळंग वाडवप तशी पणटी पालवप वेगळें... आनी बोटानीं चिड्डून मुद्दाम वात पालोवप वेगळें.

आई तशी म्हणपासारकी जाणटी जावंक नाशिल्ली.

कितलींशींच कामां आपल्या भुजांर घेवन आवडीन करताली.

पूण आतां अकस्मात हें...

दोतोर आपले परीन प्रयत्न करताले.

पूण अशेतरेचे पेशन्ट बरे जावपाची शक्यताय उणी आशिल्ली तशें व्हेन्टीलेटराचेर पेशन्टाक कितलेय दीस जितो दवरूंक येता पूण पेशन्टाच्या लागींच्या मनशानीं कितें तो निर्णय घेवंक जाय आशिल्लो. शिलाक दिसता आई जाणटी जाल्या पूण अजून म्हणपासारकी जाणटी जावंक ना.

तरीकय जी आई चैतन्याचो वझरो आशिल्ली तिका ही असली अर्थहीण जीण जियेवपाची ख्यास्त दिवपाची काय... वचूंक दिवपाचें हें थारावप कठीणच आशिल्लें.

आमी कोण हो निर्णय घेवपी?

जाणें जीण दिली. मरणय ताणेंच दिवचें... अशें शिलाक दिसता.

×××

आई खूब पुस्तकां वाचताली.

पयलीं बाबा हाडून दियी. आता अनील दिता.

हीं पुस्तकां वाचूनच घडये तिचे विचार वेगळे तरेचे जाल्ले.

तिची एक गजाल मात शिलाक समजनासली.

नेमाळें हातांत घेतकीर ती सगल्यांत पयलीं कोण गेल्यात आनी फाटल्यान कोण उल्ल्यात तांचीं नांवां वाचताली; जशें कितें बाकीच्या बातम्यांनी तिका कांय रुचीच नासताली.

बातमी वाचली आनी सोंपलें अशेंय नासतालें. वाचून जातकीर ती दोळ्यांत दुकां काडटाली.

'कितें गे आई? कोण वळखीचो गेलो?'

'ना गो. वळखीचो न्हय. पूण पळय तूं. वय वाच ताचें. वचपाचें वय गो हें ताचें? फाटल्यान उल्ल्या त्या घरच्यांची कितें दशा जाल्या आसतली देव जाणा!'

'तुजें मगे आई, नाका जाल्लेंच. जगावेलीं दुःखां आनी तुज्या दोळ्यांत दुकां. ते परस असल्यो बातम्यो वाचूंच नाका तू.'

'हावेंय कितले फावटी सांगलें गो हिका. पूण ही आयकना? अनिल शिलाची री ओडटालो.

शिलाक मागीर दिसता, बाबा गेल्लो तेन्नाची याद जाता काय हिका?

'एक दीस तुमी म्हजीय बातमी घालतलीं न्हय गो?' ती चिंतनाची शेणिल्लेवरी विचारताली.

'हय. आनी ती वाचून तू दोळ्यांत दुकां काडटली?'

'आगो, हांव खंय आसतलें ती वाचूंक? हांव आसतलें वयर.' मळबाकडेन बोट दाखोवन ती म्हणी.

'आई, तुका मगे Obsession with Death हो रोग जाला. दोतोराक दाखोवची पडटली तुका.'

हें आयकून ती फकत हांसताली.

शिलाक दिसता हॉस्पिटलांत बशिल्लेकडेन ह्यो अश्यो यादीच काडप...

×××

शिलाचो बाबा ना.

पूण तिची आई आसा. घोवा फाटल्यान तिणें दोनय भुरग्यांक एकलेन ल्हानाचीं व्हड केल्लीं.

दोगांयचीं लग्नां केल्लीं.

पुराय कुटुंब मायेच्या धाग्यान एकामेकांवांगडा जोडिल्लें.

नेमान एकामेकांक फोन करतालें...

त्या दिसा शिलान लॅन्डलायनीचेर फोन केलो तो आईन घेतलो.

'बरें जालें गो बाये तुवें फोन केलो तो.'

'कितें जालें तर गे?'

'आगो कितें सांगतलें तुका! निरुची गजाल...'

'हांव दोन निरुंक वळखतां. तूं खंयचें म्हणटा?'

'तूं दोगांक वळखता? पूण हांव एकल्याकच वळखतां गो बाये. सांग पळोवया खंयचें तें?'

'कुवाड्यांनीं उलोवं नाका गे आई. तुजे ते निरुक आडनांव आसतलें न्हय, तें सांग.'

'तूं आनी बाये! आगो, म्हाका आतां नावांचीच याद उरना; आडनांवां खंयचीं याद उरतलीं? आईन वाजेवन म्हळें.' पूण आयक - 'नरेंद्र आनी विरेंद्राची आवय.'

तिणें नरेंद्र आनी विरेंद्र म्हणटकीर शिलाक सट्ट करुन याद जाली... 'आगे, तीं निरुमावशी न्हय नेत्रामावशी.'

'हय गो बाये. नांवांचो घुसपागोंदोळ जाता. जालें गो हांव म्हातारें.'

'कांयच म्हातारी जावंक ना तूं. नेत्रा मावशेच्या भुरग्यांची बरी याद उरली तुका.'

'पयर कितें जालें तें तुका खबर ना म्हणून म्हणटा तूं अशें...' आई तोंडाक पदर लावन हांसूंक लागली.

'कितें जालें?'

'आगो फाटले आठ दीस घराकडेन प्लंबर काम करतालो. आज अनिलान सांगलें - आई, प्लंबराचो फोन येतलो. ताका पयशे दवरतां तुजेकडेन, ते व्हर म्हणून सांग.'

'मागीर?'

'दनपरां ताचो फोन आयलो. आपूण प्लंबर म्हणूंक लागलो. सारकी खात्री करुन घेवया म्हणून हावें म्हळें, हनुमन्त मरे? तर म्हणूंक लागलो हांव हनुमन्त न्हय आई. आरेच्या! फाटले आठ दीस हो आमगेर काम करता आपले नांव हनुमन्त म्हणटा आनी आज अकस्मात हनुमन्त न्हय म्हणटा.'

'शी बाये!'

'कोणाचेय पयशे कोणाकय पावल्यार माणसुकी आसा? म्हणटकीर विचारचें पडलें ना, तूं कोण तर रे बाबा म्हणून?'

'मागीर?'

'तर म्हणटा. आई हांव मारुती! भोंगू गो म्हजें. सगली मारुतीचींच नांवां?'

शिलान कपलार हात मारलो आई तुजें म्हणून अती जालें. तरी बरें, तुवें ताका अंजनीसुता म्हळें ना.'

'तेंच सांगता न्हय तुका हांव... जालें हांव म्हातारें.'

'बरें. जाली तूं म्हातारी. आतां नेत्रामावशेविशीं कितें सांगूंक सोदताली तें सांग.'

'आगो, नेत्राच्या घोवाचें कसलें तरी ऑपरेशन केला खंय.'

'कसलें?'

'तें हांव नकळो. पूण तो हॉस्पिटलांत आसा. तूं मातसो आदार कर ताका. तें एकलें खंय खंय धांवतलें?'

'आई, तिजे पूत, सुनो आसात मगे आदाराक.'

'तूं जाणां मगो कोण तांची वासपूस करना. हांवें शितलाकय सांगलां, कितेंय आदार कर म्हणून...'

'तूं मगे अशीच लोकांक भरीक घालता. शितलाक वेळ आसा गे? तें विडीविडी करुन सगलें करता; आनी नोकरेक वता. हांगा लोक आपल्या संवसाराक धड वेळ दिवंक पावनात आनी तूं लोकांच्या संवसाराचो हुसको करता. म्हाकाय वेळ मेळटसो दिसना मदीं केन्नाय पावट मारून खबर घेतां.?

आई ओग्गी रावली.

अशी ती ओग्गी रावली म्हणटकीर समजुपाचें. आपणें सांगलें तें हाणें आयकलें ना. ही गजाल ती मनांत घेवन बसतली.

'बरें तर, दवरता.' तिणें म्हळें, पूण शिलाक तिच्या आवाजांत मातसो दुखाविल्लोसो सूर जाणवलो.

नेत्रामावशेच्या घोवाचे खबरेक वचून येतकीर आईक फोन करपाचें शिलान थारायलें.

पूण शिलान आवयक केल्लो तो निमणो फोन थारलो.

दुसऱ्याच दिसा ती हॉस्पिटलांत पावली.

शिलाक भोव मनस्ताप जालो.

आपूण इल्लें चड तुसडेपणान उलयलें काय?

आपल्याक लागूनच तर आईक...?

ती इतली सांगताली म्हणून नेत्रामावशेक आपणें आदार दिल्लो जाल्यार घात जावचो नाशिल्लो.

शिलाचें मन रडटा. उठ गे आई, पांच मिणटां खातीर तरी दोळे उकते करुन पळय म्हाका. मनशांचे व्याप वाडटकीर केन्ना, केन्ना मनशां तुटक उलयतात. पूण तें तुटक वागप वेगळें आनी तोडून दिवप वेगळें हेंच शिलाक आवयक सांगपाचें आशिल्लें. पूण ती दोळे उकते करना...

×××

हॉस्पिटलांत बशिल्लेकडेन शिलाच्या मनांत फाटल्या यादींनी गर्दी केल्या.

तेन्ना तीं महालक्ष्मीच्या देवळालागींच रावतालीं. देवळाभायर खूब सोबीत बाग आशिल्ली. थंय तरेकवार फुलां फुलतालीं. आनी त्या फुलांचेर तरेकवार कोमाले भिरभिरताले.

शिलाक तें देवूळ, ती बाग आनी ते कोमाले खूब्ब आवडटाले. तरेकवार रंगांचे, तरेकवार थिपक्यांचे रंगरंगयाळे कोमाले.

शिला आनी ताचो बाबा जायते फावटीं हे बागेंत वचून बसतालीं. बाबा बसतालो पूण शिला कोमाल्यां भशेन आपूणच भिरभिरतालें. बाबाकय एका जाग्यार बसूंक दिनासलें.

कोमालेय म्हणून कितल्या तरांचे.

कोणाच्या पांखांचेर पांचवे थिपके तर कोणाच्या हळडुवे... कोण निळे, कोण जांभळे, तर कोणा पांखार इंद्रधोणु! फकत तांबड्या थिपक्यांचो कोमालो मात तांकां दिश्टी पडनासलो. घराकडेन येतकीर तें आईक सांगतालें, 'आई, तूं यो मगे आमचे वांगडा... कितल्या रंगांचे कोमाले आसात जाणा तूं?' आई म्हणी, 'तुमी पळयल्यार म्हाका पावले. तुमी भायर वचून हे रंग पळयतात पूण म्हाका हे सगळे रंग रांदचे कुडींतच दिसतात. पळय हां... हीं तांबडी टॉमाटां... ह्यो पाचव्यो मिरसांगो... हीं केसरी गाजरां, जांभळीं वांयगी...

मागीर शिला बापायक सांगतालें,

'बाबा, आई म्हणून सामकीच पिशी रे. हिचे रांदचे कुडींतल्या रंगांक पांखां आसात रे? तांचेर थिपके आसात रे?'

बाबा मागीर हांसतालो आनी म्हणटालो, 'शिलूचे आई, तूं तुज्यो भाज्यो घेवन बस, आमी आमचे कोमाले घेवन उडटात.' शिला मागीर किटकिट्टालें म्हणटालें, 'फकत तांबड्या थिपक्यांचो कोमालो मेळपाचो उरला, अनील शिलापरस स वर्सांनी व्हड. तो फकत अभ्यास एके अभ्यास आशिल्लो. शिला किटकिट्टा तें पळोवन तो म्हणटालो, 'ए, शिलू-पिलू, अभ्यास कर थोडो. फकत कोमाल्यां फाटल्याक नाचूं नाका पांखां लावन.'

मायेच्या धाग्यांनी विणिल्ली तांची जीण रंगाळी आशिल्ली.

पूण जिणेंत केन्ना कसलें मोड येत सांगूंक जावचें ना.

तें मोड तांचेय जिणेंत आयलें.

शिलाच्या बाबाक अकस्मात अॅटेक आयलो... सामको खर.

ताका हॉस्पिटलांत व्हेलो तेन्ना शिला शाळेंत गेल्लें.

शाळा सुटपाच्या वेळार शिलाचो मामा ताका घेवन आपल्यागेर गेलो.

'मामा, आमी घरा कित्याक वचूं ना रे?'

'सांगता. तूं शाणे मगो?'

शिलान मान हालयली.

'बाबा मातसो बरो ना. आई ताका घेवन हॉस्पिटलांत गेल्या. तुजो दादा आईवांगडा आसा. घराकडेन कोण ना.'

'बाबा केन्ना येतलो तर घरा?' शिलाक रडूं येतालें.

'येतलो आं रोकडोच.'

रातची आई घरा येतकीर मामान शिलाक घरा व्हेलें.

पूण आईवांगडा ताचो बाबा नाशिल्लो.

'आई, बाबा केन्ना येतलो.?'

'तो मगो बरो ना. बरें दिसतकीर येतलो.'

'केन्ना बरें दिसतलें?'

'रोकडेंच आं शाण्या...'

'हांव हॉस्पिटलांत येतलें बाबाक मेळूंक...'

- बाबान कितें सांगला जाणा मगो? शिलूक सांग तांबड्या थिपक्यांचो कोमालो मेळटकीरच आपल्याक मेळूंक यो.'

शिलान मान हालयली. सोदचोच पडलो त्या कोमाल्याक ताणें थारायलें.

×××

एक दीस मामा शिलाक शाळेंतल्यान बेगीन घरा व्हरूंक आयलो.

'आज बेगीन कित्याक रे मामा?'

'आई घरा आयल्या...'

'आनी बाबाय आयला?' ताणें उमेदीन विचारलें.

मामान जाप दिवपाची टाळ्ळी आनी बोल्सांतलीं चॉकलेट काडून ताका दिलीं.

तीं घराकडेन पावलीं तेन्ना थंय कितलेशेच लोक जमिल्ले. काका, काकी, मामी, मावशी आनी जायते लोक. तांका पळोवन शिलाक बरें दिसलें. पूण ताका आई म्हऱ्यांत वचपाचें आशिल्लें. तें धांवत कुडींत गेलें.

हालीं तें मामागेरच आसतालें देखून ताका केन्ना काय आईक मेळन जाल्लें आनी ते खोशेक लागून आईच्या दोळ्यांतलीं दुकां ताका दिसलींच नात.

आईन ताका घट्ट वेंगेंत घेतलें.

शिलाची नदर बाबाक सोदताली पूण ताका बाबा दिसलो ना.

'आई, बाबा खंय?'

मावशी ताका भायर व्हरूंक सोदी पूण आईन म्हळें, 'आसूं' कितें घडलां हाची थोडी तरी जाणीव शिलाक दिवप गरजेचें आशिल्लें. हॉस्पिटलांतलें वातावरण आनी थंय गलीतगात्र जाल्लो बाबा शिलाचे नदरेन पडचो न्हय म्हणून तर तिणें शिलाक हॉस्पिटलांत व्हरूंक नाशिल्लें; आनी आतांय तिका शिलाचे यादींत तो 'बाबा' तशाक तसो दवरूंक जाय आशिल्लो. जो ताचेवांगडा कोमाले पळयतालो... हांसतो...

'आई, बाबा खंय?' शिलान परतें विचारलें.

'आयक शाण्या, तुजो तो तांबड्या थिपक्यांचो कोमालो आज हॉस्पिटलांत आयिल्लो.' शिलाच्या दोळ्यांत अजाप भरलें.

'आयलो मगो, आनी बाबाच्या पोल्यार अळंग बसलो?' आईन म्हळें.

'खऱ्यांनी?'

'ताणें म्हळें, शिलूच्या बाबा, चल आमी उडत, उडत देवागेर या.'

'बाबा गेलो देवागेर? पूण रेखाची आजी देवागेर गेली ती परती आयलीच ना.' शिलाक हुसको जालो.

'रेखाचे आजेक व्हरूंक कोमालो येवंक नाशिल्लो.'

ताचो बाबा उडत उडत कोमाल्या वांगडा वता अशें चित्र शिलाच्या दोळ्यांसामकार उबें रावलें.

'पूण म्हाका सांगनासतना बाबा कसो गेलो देवागेर?' शिलाक रडूंक आयलें. ताच्या भरिल्ल्या दोळ्यांक आईचे भरिल्ले दोळे दिसलेच नात.

मावशेन ताका उबारुन हांडीर घेतलें.

बाबाक हॉस्पिटलांतल्यान हाडूंक गेल्ले ते थंय येवचे पयलीं शिलाक कुशीन काडूंक जाय आशिल्लें.

'ताका अशोकागेर व्हरून पावय.' आईन ल्हवूच सांगलें.

...आनी शिलाचे यादींत उरलो तो हांसतो - खेळटो बाबा जो ताचे वांगडा कोमाले सोदीत भोंवतालो...

×××

उपरान्त वर्सां गेलीं भुरगेपण सोंपलें.

पूण बाबा कोमाल्या वांगडा देवागेर गेला अशें सांगून बाबाचें वचप आपले खातीर सुसह्य करपी आई शिला विसरुंकच शकना. आनी अशे हे आईचे जिणेचो निर्णय कोणें घेवपाचो?

आमी?

काय तो तांबड्या थिपक्यांचो कोमालो आईक 'चल या' म्हणसर वाट पळोवपाची?

कोण सांगतलो?

संपर्क : 8087708050

***



# भोगसणी

**हेमा नायक**

कांतीन दोळे उगडले आनी सभोंवतालीं नदर भोंवडायली. आपूण खंय आसा तेंच तिका कळना जालें. तिणें हेवटेन तेवटेन हातांनी सांसपिलें. आपूण खाटीचेर न्हिदल्या ही तिका जाणीव जाली. उकत्या जनेलांतल्यान तिणें भायर नदर मारली. दनपारचो वगत. वोताचो रखरख. पयसुल्लेकडेन उज्याचे लोट वयर सरतात ते तिका दिसले आनी ती एकदम किळांचली. तेबरोबर एके नर्सीन येवन तिका घट धरली आनी दुसरेन एक इंजेसांव मारलें. तितल्यान शांत जाली. पूण तिचें सगळें आंग थरथरतालें. किळांच आयकून दोतोर तुषार थंय आयलो आनी ताणें तिका विचारलें,

"कितें जालें? तुवें किळांच कित्याक मारली?"

थरथरतल्या ओंठांनी तिणें म्हणलें, "थंय उजो पेटला...."

दोतोरान पळयलें, पयस मसंडेंत सरण जळटालें आनी त्या उज्याच्या लोटांचेर तिची नदर पडिल्ली. ती साबुदीर येताली. ताणें म्हणलें, "उजो तो. थंय मसंडेंत कोणाचें तरी मडें जळटा."

"मेल्लें?"

"मागीर कितें जित्या मनशाक लासयतात? तुवें जितेपणीं उडी घेतिल्ली तशी?"

"मरपाखातीर घेतिल्ली. म्हाका कित्याक जगयली?"

"हांव दोतोर. जीव वांचोवप हें म्हजें कर्तव्य."

"हांव तर मरपा खातीरूच त्या धगधगीत इंगळ्यांचेर घालून घेवपाक धांविल्लीं. खंय वचूं हांव आतां? मसंडांत गेल्लीं मरपाक. तुमीच हाडली उखलून" आनी ती व्हडाव्हडान आडूंक लागली. बाकिचे पेशंट अस्वस्थ जाले. तांची नदर तिचेर गेली. 'पिशी आसुंये' एकल्यान म्हणलें..

दोतोरान सांगलें, "मसंडेंत मरतकच व्हरतात. तुवें तर जितेपणीच सरणार घालून घेतलें."

"आतां तरी हांव जितीं खंय आसा तर? मेल्ल्यांनूच जमा. कितल्या तेपान तूंच एकलो आपुलकायेन उलयिल्लो भशेन दिसलो म्हाका. हांव म्हणल्यार सगळ्यांच्या नदरेंतल्यान शीत वाळून तपलेर उडयिल्लें भाणशिरें. पिळपाचें, सुकत घालपाचें आनी दुसऱ्या दिसा परतून आसा तशें तपलेर धापपाचें."

"तुवें चुकिची समजिकाय करून घेतल्या. दरेका मनशाचो उपेग आसताच. पूण तुवें दुसऱ्याल्या जळटा त्या सरणाचेर उडी कित्याक घेतली?"

"आनी कितें करपाचें हांवें? कसलो उपाय आसलो म्हजेलागीं? लोकांक नाका जाली. म्हणून थारायलें एकलेनूच वचून खंयच्याय एखाद्या पेटट्या कोळशांचेर घालून घेवंचें आनी मरचें. बोला फुलाक गांठ म्हणटा तशी नदरेक दिसली मसंड. तेन्नाच एक मडें जळिल्लें आसूंक जाय. उज्याचे लोट उणे जाल्ले. लोकूय चड नाशिल्ले. तांची नदर चुकोवन हांव जी गेली ती फाटफुडो पळय नासताना घालून घेतलें सरणाचेर आनी मागीर कितें जालें तें हांव नकळो."

"मागीर हुलपल्ले अवस्थेंत तुका हांगा हाडली आनी कितलेशेच उपचार करतकच तूं आतां शाबुद्दीर आयल्या."

हेदोळच्या इंजेसांवाचो तिचेर परीणाम जातालो. उलयतां उलयतां ती झेमपाक लागली आनी म्हणटासर तिका सुस्त न्हीद लागली.

मदीं दोन खेपो दोतोर येवन तिका पळोवन गेलो. ताका अजाप जालें तें तिच्या धाडसाचें, एका जळट्या सरणाचेर उडी घेवप ही कितें फकाणांची गजाल न्हय. तशें करपाक धाडस लागता. हिणे जिवितांत कितल्याशाच आकांताळ्या घडणुकांक तोंड दिलां आसूंक जाय. आनी निमाणे आपूण कोणाक नाका जाल्यां अशें दिसतकच ती उबगल्या आनी उज्यांत उडी घेतल्या. तरी बरें, थंय आशिल्ल्या लोकांनी तिका रोकडीच उखलून हांगा हाडली, नाजाल्यार सामकीच विद्रुप जावपाची. तुषारान तिचे कुडीचेर नदर मारली. मदीं मदीं कात जळिल्ली पूण चड न्हय. कशें तें ताकाय अजाप जाल्लें. उजो पालवल्लो आसतलो. तिका फकत धग बादला.

तुषारान तिचे खातीर खास म्हारगीं वखदां बरोवन नर्सीकडल्यान हाडून घेतलीं. आनी चत्रायो दिवन सांगलें, "तिका सांजे कँटीनांतलें बरें जेवण हाडून दी. एक पेलोभर दूद दी. कसलीच हयगय करूं नाका. बेगीन बरी जावन तिका वचूं दी."

खूब वेळान कांतीक जाग आयली. दोळे उकते करून ती हेवटेन तेवटेन नदर भोंवडावपाक लागली. तिचे दोळे दोतोराक सोदताले. नर्स बेगीबेगीन तिचे म्हऱ्यांत वचून उबी रावली.

"तो बाब गेलो?" तिणे विचारलें.

"हय. तुका वखदां दिवन गेला."

"आतां केन्ना येतलो?"

"फाल्यां सकाळीं."

"आनी हावें केन्ना वचपाचें तर?"

"तूं बरी जातकूच आनी ताणें सांगतकूच."

केंटीनांतल्यान जेवण आयलें. मुखार मचमचीत वासाचें जेवण पळोवन तिचे जिबेक रूच आयली. कितल्याशाच दिसांनी ती ताटांत अन्न पळयताली. उठून हात धुवन आयली आनी जेवपाक बसली. ती इतली भुकेल्ली, हें खावूं काय तें खावूं अशें तिका जाल्लें. नर्सीक खात्री पटली ही खूब दिसांची भुकेल्ली आसा. ताटांतलें सगळें जेवन जातकच निमाणें आपलो उश्टो हात तिणें ताटांत भोंवतणी भोंवडावन पांचूय बोटां मुखावयल्यान तशेंच फाटल्यान जिबेन चाटलीं आनी मागीर तायटा वयल्यान जीब भोंवडायली. नर्सीक काकूळट आयली आनी तिणें विचारलें, "आनीक हाडूं?"

"नाका. तृप्त जालीं हांव. बरें जांव बाय

तुजें आनी त्या दोतोराचें. आनी आठ दीस लेगीत जेवण मेळना जाल्यार उपकारता.''

''आतां तूं न्हीद''

इतलें सांगून नर्स गेली.

×××

हालींसराक इतलें पोट टटतट्टासर जेवपाची संवय नाशिल्ल्यान तिका आपलो जीव ताणशेल्ल्यावरी जालो. थंयच तिणे एक दोन पासयो मारल्यो आनी खाटीचेर आड पडली.

ती येवजिताली - सकाळ जायीसर हांगा कित्याक रावपाक जाय? कोण व्हरपाक काय येवपाचो ना. अदीक बरें आतांच हांगाच्यान सटकल्लीं. पूण वतली तरी खंय? ना घराचें पाखें, ना कसलो आडोस. त्या दोतोराकूच सांगल्यार बरें आपणाक कोणागेरय वावराडी म्हण कामाक लाय म्हण, नाजाल्यार तागेरूच गेल्यार कशी? असल्या दोतोरांगेर बी वावराड्यो, चेडवां हांची गरज चड लागता, तांचीं कामां तरातरांचीं. आयदनां घांसपाक एकली, कपडे उमळपाक दुसरी, जेवण रांदपाक तिसरी. वेगवेगळ्या थरांतले लोक तेभशेन कामांच्यो वांटण्यो. नाजाल्यार हीं सगळीं कामां घरांतले एकलेच बायलेचीं. कांतीक दिसलें, आपणें हांगेर वचून रावल्यार हीं सगळीं कामां एकलीच आपूण करपाक शकतां. ल्हानपणा सावन घरांतलीं उश्टीं काड, आयदनां घांस असलें सगळें करीत आयल्यां, कसलेंय काम जमता. रावपाक आसरो मेळ्ळो काय जालो.

कांती हेवटेंतसून तेवटेन कूस परतीत आसली. तिच्या दोळ्यांर झापडीय येना जाली. आनी वॉर्डांत बोवाळ उरिल्ल्यान ते जागेन तिका दोळो लागना जालो. तातूंत पोटय चड भरिल्लें. माथ्यावयर घुंवतल्या पंख्याक ती एकसारखी तेळीत आशिल्ली. पंखो घुंवता तशीं तिच्या दोळ्यां मुखार वाटकुळीं चक्रां चक्रां येवपाक लागलीं. एकामेकांत घुस्पल्लीं. कांती एकदम गंभीर जाली. आपलेंय जगप हें अशेंच घुस्पल्लें. जनावरापाश्ट जाल्ली ही अवतिकाय. आयुश्यांत एकदांच केल्ली चूक आयुश्य काबार करपाक कारण थरली.

बंधमुक्त जावन जियेवपाचीं सपनां पळयिल्लीं केन्नातरी एकदां जिवितांत तिणें. गोंय मुक्त जावन गोंयचे लोक उमेदीन जगपाक लागले पूण हो अभागी जीव मात हजार आडखळींनी घुस्पून पडलो. 'हाय रे म्हज्या कर्मा!' कांतीन कूस परतिली. त्या चक्रांतल्यान भायर सरले ताच्याच जिवितांतले तरा तरांचे देखाव. कितल्यातरी वर्सांनी आयज ती आपल्या जिवीतांत फाटल्यान वळून चिंतताली.

×××

सकाळ जायनाफुडें कांती थंयच्यान सुटपाची चुळबूळ करपाक लागली. दोतोरान टॅक्सी आपोवन तिका खंय पावोवपाचें तें सांगलें. खंय पावली तें तिकाच कळ्ळें ना. ते नवे सुवातिचेर तिका नकळटाना न्हीद लागली. अर्द जागी आनी अर्दे न्हिदेंत. पूण आपल्या जिविताचो पट ती एखादी काणी सांगिल्लेवरी बडबडत रावली.

गोंय मुक्त जावंचे पयलीं. चांदर गांव. ह्या चांदरा धाकटुलें घर. कोण्यानी शिंविल्ली खोंपच कशी. पावस वोताची राखण करपाक वयर चुडटां. घरा सामकाराक मातशे चडटेर पुलीसांचें पॉश्त. पॉश्त म्हणल्यार पुलीस स्टेशन. घरांत भायर भितर सरतना कांतीची थंय नदर वतालीच, तशेंच पॉश्तार येतल्या वतल्याची कांतील्या घराचेर नदर पडटाली. सप्तकांतल्यान दोन चार खेप तरी पुलीस ऑफिसराची ह्या पॉश्तार फावट आसताली. आयलो काय तो ताका हडकितालोच. ओ केंटी, कॉम ईश्ताश्य? तो उलो मारचे पयलींच तें ताका हांसतालें. गोरो गोरो पिट्ट. मागीर हातांनी कुरवो करून तो ताका आपयतालो. ल्हान तेन्ना तें. सेगुंद ग्राव म्हणल्यार दुसरी शिकतालें. ताणें कशें आसा म्हणना फुडें इश्ता बाँ ताची जाप आसताली.

कांतील्या घरची परिस्थिती सामकी गरीब. बापूय रघुवीर. तो नाल्ल पाडपी पाडेली. गावांत रघलो म्हणूनच पाचारताले. नाल्ल पाडपाक ताका आपोवन व्हरताले. पोटा पाणयाचें कितेंय सुटटालें. आवय लक्ष्मी. जायते फावटीं पिरंगून म्हणटाली, नांव लक्षीम पूण घरांत दळडीर. रात्रीफुड्यांत बसून नळयेन फू फू करून उजो फुंकीत घराकडेनच आसताली. आनी ताचे फाटली भयण सुमती. तें सामकें ल्हान. आवयच्या पदराक धरून आसतालें.

पुलीस येता आसतना कांती खातीर खास पिपिरमिटां हाडटालो. कांतीक ताची रूच लागिल्ली. पुर्तुगालचीं तीं. सुंदरशा बेगडेच्या पेपरांत पॅक केल्लीं. तो कागद ताका खूब आवडटालो. तें तो पुस्तकाच्या पानांभितर घालून दवरतालें आनी दुसऱ्या दिसा शाळेंत वतकीच बाकिच्या भुरग्यांक दाखयतालें. ही गजाल आवय नकळो अशी न्हय पूण घरच्या दळडीरपणाक लागून तिणें थंय आडनदर केल्ली. केन्ना केन्ना तिका पॉश्तार आपोवणें येताले, पॉश्त झाडपाक आनी लीप करपाक. कीरयाद म्हणी तिका. त्या वावराचे पयशे तांच्या संवसाराक आवशिल जातालो. तेभायर केन्ना केन्ना पुर्तुगालच्यान येता त्या सामानांतल्यो कांय वस्तुय तो तिका दितालो. तातूंत पावांक लावपाचे बटर, चीज असल्यो वस्तू आसताल्यो.

केन्ना आवय वांगडा तर केन्ना एकलेंच वतालें कांती पॉश्तार. थंय ताका खूब बरें दिसतालें. घरांत ना तसले बरे रूचिचे जिनस खावपाक मेळटाले आनी मन रमोवपा सारकेल्यो जायत्यो गजाली आसताल्यो थंय. तो आपलो आंगा वयलो शर्ट काडून कदेलीच्या फाटल्यान लायतालो आनी भितरल्या धव्या फुल्ल बानयाना सयत कदेलीचेर लंवडून बसतालो. मेजार एक बॉक्स कशें. ग्रामाफोन तो. एक बटन दामनाफुडें सूं करून आवाज जातालो आनी मागीर म्युजिक वाजूंक लागतालें. कांतीक आवडटालें. पुलीसाची बसपाची पद्दत तर सामकी झेतान. एक पांय दुसऱ्या पांयार. ओंठांत सिगार आनी तोंडार मुमुरखो हांसो. मदीं मदीं पुर्तुगेज उतरां भरसल्लें म्युजिक चलतालें त्या तालार आनी ठेक्यांर ताचीं पावलां हालतालीं. मदींच सिगार हातांत घेवन तो फुर्र करून धुंवोर भायर सोडटालो. कांती ताची ही करामत पळयतां पळयतां आपूणय धोलपाक लागतालें आनी मागीर मदींच तो ताका म्हऱ्यांत ओडटालो. तातूंत अपुरबाय आसताली. माया आसताली आनी मोगूय आसतालो. कांती मात खांकुडटालें.

एक - दोन फावटीं करतकूच मागीर तें ताका संवकळीचें जावन पडलें.

सुरवेक त्यो गजाली अपुरबाये पुरत्योच उरल्यो. पूण संवकळिची रूच वेसनाचेर पडली आनी एक दीस आपल्या गालाची पापी घेतां घेतां ताचें रूपांतर ओंठांच्या किसांत केन्ना जालें तें कांतीक कळ्ळेंच ना. कांतीक सामकी चट लागून गेली. ताचे ओंठ आपल्या ओंठार आनी ताणे मारिल्ली घट्ट वेंग. तातूंत ओड आशिल्ली, तृप्तताय आशिल्ली. हातूंत दोगांकूय आनंद मेळटालो. एक ओड लावपी उमळशीक निर्माण जायत वताली. संगत जाय जायशी दिसताली आनी मागीर घडपाचें तेंच घडत गेलें. तातूंतल्यानच वासनाभोगय निर्माण जायत गेलो. करतां करतां दोगांकूय एकामेकाबगर रावपाक जायना जावपा इतली गोडी वाडत वचपाक लागली.

अशाच एका दनपारां शाळा सुटटकच कांती घरांत भितर सरचे पयलीं ताचे म्हऱ्यांत धांवट गेलें. ताणे ताका चॉकलेट दिली. तांबशा कोराची. चॉकलेटीचो रंग ताच्या ओंठार उदेल्लो. त्या तांबशा ओंठांनी तो भुलुसलो. ताणें पयलीं बोटांनी ताचे ओंठ सांसपिले. त्या कंवळ्या ओंठांची पापी घेवपाक ताणे आपले ओंठ ताच्या ओंठांर तेंकयले . कांतीक आजूनय ताच्या त्या स्पर्शांतली ओड जाणवली. तें त्याच खिणांच ताचे सुवादीन जालें. तागेली ती घट्ट वेंग आनी त्या ओंठांतलें सगळें सूख ताणें ओडून घेतिल्लें. ती भुरग्याची पापी न्हय तर तो तरणेपणांतलो कीस आशिल्लो. कांतीक हें मागीर कळून आयलें.

ताच्या मनात ताचे कडेन लग्न जावपाचें आशिल्लें. तशें ताणें ताका उतर लेगीत दिल्लें. एक दीस तो ताका घेवन चलत चलत बरोच पयस आशी कुशीक कोणाक दिसना अशे सुवातीर आयलो. चारी वशेन झाडां आनी मदेकाक आशिल्ले एके देवळेंत घेवन गेलो आनी ताचो हात घट्ट धरून म्हणलें, ''कँटी, तुमगे देवांची मुगो म्हाका भिरांत दिसता. देखून ह्या देवाक पळोवन सांगतां, हांव नेगार वयचों ना. तुजेलागींच काजामेंत कोत्तोलों आनी मागीर तुका म्हगे राणी कोत्तोलों. क्वीन.''

आनी ताणें ताका सांसपिलें, पोशेलें. बायल म्हण ताणे मारिल्ली ती तागेली वेंग. एका परकी दादल्याची. आंगभर शिरशिरी हाडपी. आपल्या आवडिच्या जाय जाय दिसपी अशा मनशान मारिल्ली. आंगावयल्यान ताचो मोवसो हात भोंवतना कांती सुखाविल्लें, धादोशिल्लें. ताचे वेंगेंत ताका रावन रावन दिशिल्लें. कितली लीप ताची कूड! आनी तो बापूय - पाडेली माडांचेर चडून नाल्ल पाडटा आनी हुमेन पचपचीत न्हावन येता. तागेले घामसाणीचे कपडे मागीर आवय उमळटा. ताच्या तांबशा ओंठांचेर ओंठ तेंकोवपांत कितली मजा! तो मदीं मदीं ताका विचारीत आसलो, ''कोम इश्ताश्य? बाँ?'' आनी कांती तकली हालयत चड ताचे वेंगेत रीगतालें. ताणें ताका ल्हवूच कुशीक काडलें आनी घरा या म्हण तो ताका ताकतिकेन घेवन आयलो.

अदीं मदीं अशें घडत रावलें. कांतीन ताका सगळें दिलें. ताचीय समजिकाय जाल्ली, आपूण ताची बायल जाल्यां म्हण! तेन्ना कसले लेय आनी कायदे, कोणांक खबर आशिल्ले!

आनी एक दीस तांच्या कानार खबर पावली, गोंयासान पुर्तुगेजांक धांवडावपाचें कारस्थान चललां. कोणाक धरल्यात, कोण सुटल्यात. कोण जय हींद म्हणटा तर कोण वीवा पोर्तुगाल म्हणटा. कांतीक कांय कळना जालें. त्या पुलीसानय चांदरा येवपाचें बंद केल्लें. आनी एक दीस जावपाचें तें जालेंच. मुक्ती! गोंय मुक्त जालें. १९ डिसेंबर १९६१. तेन्ना कांतीक निकतेंच १८ सोपून इकोणिसावें लागिल्लें. घट्ट यादींत उरपा सारकेलीच गजाल ती. १७ डिसेंबराची तारीक. जवाहरलाल नेहरू, भारताचे पंतप्रधान! सगळ्यांच्या तोंडांत ताचेंच नांव घोळटालें. त्या दिसा गोंय हातासपाक ताणें सैन्य भितर घुसयलें आनी मागीर घे तोफो, बोंब फुटपाचे आवाज.

तेन्नाची गजाल. सुमती शाळेंतल्यान येवपाचें आशिल्लें. रस्त्यार बोवाळ पडिल्लो, इंदियान जालें, इंदियान जालें. काचाबूल जावन कांती दारांत उबें आशिल्लें. तें आपले भयणिची वाट पळयतालें. इतल्यान घपघप करून धेंपां उडयत बापूय भितर सरलो. ताचें आंग घामान भिजिल्लें आनी तोंडांत बुरशो बुरशो गाळी आशिल्ल्यो. आवय वयल्यान, बायले वयल्यान, भयणी वयल्यान. ताणे सुमतीक हाताक धरून धांवडायत हाडिल्लें, ताणें ताका बळजबऱ्यां भितर धुकल्लें आनी तेसरशीं तें जमनीर पडलें. ताच्या हातांतलीं पुस्तकां जळामळा फापसलीं. कांतीक पळयनाफुडें ताच्या रागाचो पारो आनीक चडलो. 'जालें आमचें वाटोळें. तुवेंय वचपाचें तांच्या वांगडा. नाचरंग करतालें न्हय? शेंपडी तुटसर धांवलो तो. गेलो आपल्या गांवाक. आतां कितें करतलें?' कांतीच्या तोंडांतसून उतर भायर सरना जालें. गोंय मुक्त जालें म्हण बापूय कित्याक तापार जाला तें कांतीक कळ्ळें ना. तें मात काचाबूल जाल्लें आपल्या मोगाक लागून. तागेलो मोगी ताका सोडून गेल्लो परतून केन्नाच ना येवपा खातीर. कांतीच्या दोळ्यांतल्यान घळ्ळ करून दुकां गळ्ळीं.

तो ताका सांगतालो, गोंय आमचें. आमी हांगाच रावपी. आमकां गोंय सोडून वचपाचें ना. हीं झाडां, हे दोंगर खूब मानवल्यात आमकां. लोकांक ताणी आपल्या अधिकाराखाला दवरिल्लें. नेहरूचें नांव घेवपाक मनाय, गांधी म्हणपाक जायना. ते सोलदार, पांखले. ती सगळी रणधुमाळी कांतीक याद आसा. गोयांत मुक्तिच्या आनंदाचो उत्सव मनयताले आनी कांती मात खंती जावन रडटालें. गोंय मुक्तिच्या होमकणांत कांतीक आपल्या मोगाचो त्याग करचो पडिल्लो. तें आकांताचें दुखेस्त जाल्लें. आपलें हें दुख्ख कोणाक कळपाचें ना हें तें जाणा आसलें. तें भितरले भितर घुस्मट्टालें. ध्याना मनांत आपल्या मोग्याचोच जप करतालें. तो गोंयां रावचो ना, पुर्तुगालाक वतलो इतली ताची खात्री जाल्ली. आनी तो गेल्यार परतून येवंचो ना हेंवूय तें बेस बरें जाणा आसलें. पूण वचचे पयलीं आपणांक जरूर मेळटलो अशें ताचें मन ताका सांगतालें. पूण ताचो तो भोळो भावार्तूच थरलो. तो केन्ना आनी कसो गेलो हाची सुलूस ताका लागलीच ना. मदींच ताका केन्नाय भास मात जातालो, तो आपणाक उलो मारता कसो, 'ओ कँटी कॉम इश्तायश्य?'

कांतीच्या जिविताचो गोबोर जाल्लो. एकोणीस वर्साचे पिरायेर तें गुरवार जाल्लें. ताच्या कुसव्यांत एका परकी मनशाच्या रगताचें बाळक जल्मतालें.

घरा मुखावेलें पोश्त रिकामें जाल्लें. थंय कसल्यो कसल्यो वस्तू आशिल्ल्यो त्यो तागेल्या आवय बापायन अळंग आपल्या घरांत हाडून दवरल्यो. फ्रीज, आरमारी, मेजां, कदेलां अशें जायतें बारीक मोठें सामान, इतलेंच न्ही तर थोड्या दिसांनी तें पोश्त लेगीत बापायन आपल्या नांवार करून घेतलें.

कांतीची आवय तशी शिटूक आनी भोव चत्रायेची. तिका बरी कल्पना सुचली. ह्या पॉश्ताचें बार्र कित्याक करचें न्ही? लोकय संवकल्यात सोऱ्याक आनी दुडूय ओडचो खोऱ्यांनी. विचार तकलेंत येवपाची फुरसत, पॉश्ताचें बार्र जालें. पयलीं बापूय आपल्यो सोऱ्याच्यो बाटल्यो हाडून दवरपाक लागलो आनी त्यो गांवकाऱ्यांचे नदरेक पडनाफुडें पिवपाचीं गिरायकां येवपाक लागलीं. 'ए रघल्या, बरी सुरवात मरे. घाल इल्लें कोपाचें.'

'आरे ए पाडेल्या, वायटशी ना आयडिया. फाल्यां ग्लास हाडून दवर हांगा. रघुवीर, बार्राचो धंदो तुका वायटसो ना.'

कामा वयल्यान घरा वचपी लोक आतां कुट्ट करपाक बारांत येवपाक लागले. सोऱ्याच्या धंद्यांतलो घूट बापायक कळिल्लो आनी हातांत पयसो घोळपाक लागिल्ल्यान ताका बरीच हुशारी आयिल्ली. करतां करतां बार्राचो लौकीक सगळ्याक पातळ्ळो आनी गावांतलें तें एक फामाद बार्र जालें. घरांत येणावळ भरपूर. आशिकुशिची जागाय तांच्या नांवार जाली. बापायन पाडेलीपण करपाचें सोडिल्लें. गल्ल्यार आवय बसताली. सोरो दितना आनी उश्टीं कोपां काडटना हेवटेन तेवटेन गोंदळटाली तेन्ना ती गिरायकांक आपटूंक लागली आनी गिरायकांय तिका आफडूंक लागलीं. तातूंत एक दीस तर एकल्यान तिका सरळ धोंगशिली आनी म्हणलें, ''तूं आतां आमगे माना जाल्या. हें कापोड आनी ही चोळी उपकारपाची ना. सोऱ्या वांगडा आमकां तुगे... केन्ना हातूय लागल्यार बरेंऽऽ दिसूंक जाय. आमकां आनी तुकाय बी. ही ही ही''

जालें. सांगपाची फुरसत. तिणे भेस बदललो आनी ताका लागून तिचें रूपय बदलून गेलें. केंसांचो आंबाडो ना जालो. केंस कापून बॉबकट केले. णव वारी कापड न्हेसपाचें सोडून दिलें. पांयांच्यो पोंवट्यो दिसतात तशे धोंपरा वयर व्हिस्तीद शिंवून घेतले. कांय फावटीं ते इतले मोटके जाताले, आपलीं काळीं कुळकळीत जांगडां उकतीं उरतात ताचेंय धंगण ती दवरी नासली. गिरायकां खूश. राती आनी दिसाचेय गावन चडोवन आंग धोलयत वावुरताली. सामकी लक्मी माना जाल्ली. चडशे तिका माना म्हणूनच पाचारताले. बार्रांत पिवपाक येतल्या जाणट्या नेणट्या कोणाय गिरायका लागीं ती सामकी लागीं वचून उलयताली. केन्ना तांणी मस्कऱ्यांनी उलयिल्ल्या पोजड्या उतरांक तितल्याच पोजडेपणान जाप दिताली तर केन्ना कोणे तिच्या आंगाक हात लावन खातकुतल्यो केल्यारय हांसून किटकिट्टाली. दोळ्या हुजरां घडटा तें सगळें कांती मोन्यानी पळयताली आनी आपले भोगणार येवजून खंती जाताली.

दिसा म्हयन्यांनी कांतीच्या पोटाचो घेर वाडपाक लागलो. सगळो लोक हें गुपीत जाणा आशिल्लो. पूण ते गजालीचें कोणें भांडवल केलें ना. कित्याक तर दर एकल्याची बार्रार उदारी आसताली आनी आपल्या पोराखातीर आपणांक आयज हो सगळो खजिनो मेळ्ळा म्हण आवय-बापूय खोशी आसलीं. 'खंय कितें गोबोर खातलें आशिल्लें पोर. हें इतलें भांडवल मेळ्ळें, इतलेंच न्हय तर आपली एक निशाणी फाटल्यान सोडून गेलो.' आवय अर्दी मर्दी सुस्कारताली.

संवसाराक बरे दीस आयिल्ले. कांतीक अजाप जातालें. आवयच्या जाग्यार आनीक कोणूय आशिल्लो जाल्यार आपणाक धांवडावन घालपाचो. आपलें चेडूं भश्टलें म्हण. पूण पैशांक खंय आसता आफूड भश्ट? कोणाल्या हातांतलो पैसो कोणाल्याय बोल्सांनी कांय न्ही करून वता. पिराय ल्हान आसूनय ताचीं चिंतपां सामकीं व्हडलीं आसलीं. आमगेलें कांती तकलेन फीन अशें आवय जायते फावटीं कोणा कोणा कडेन तोखणायेन म्हणून ताची तुस्त गायताली.

आनी णव म्हयने पुराय भरून जातकच एक दीस कांतीन एका गुटगुटीत फिरंग्याक जल्म दिलो. 'सामको गोरो गोमटो, 'फिरंगी' बोमलेची नाळ कापताना वैजिणीन म्हणलें. भुरगें भायर सरना बरोबर कांतीन एक मेकळो स्वास घेतलो. गोंय मुक्त जालें तेन्ना कांती घुस्मटटालें, जाल्यार आयज मात एका जिवाक मुक्त केल्ल्याची खोस भोगताली. पिंगशे केंस आनी तांबडे गुंज ओंठ. कात तर मोव मोव. कांतीक सामकी उचांबळाय लागिल्ली. तें ओठांतल्या ओंठांत मुमुरख्यांनी हांसलें. वैजिणीन न्हाणोवन पुसून निवळ करून हाडून दिल्ल्या भुरग्याक ताणें आपले घट्ट वेंगेंत धरलें. ताचे ते बीटबिटे दोळे! तें ताच्या घारश्या चकचकपी दोळ्यांत पळोवंक लागलें. ताका सांसपिताना ताच्या दोळ्यां मुखार उबी जाली त्या पुलीसाची ती मोगान भरिल्ली नदर. ताच्या क्यांव क्यांव रडण्यान तें भुल्लसून गेलें. ताच्या हड्ड्याचीं थानां तटतटून आयिल्लीं. ताणें भुरग्याच्या तोंडांत अळंग चींव दिली आनी खीणभर कितें जालें ताकाच कळ्ळें ना. सबंद आंगांतल्यान उमेदीचें ल्हार कशें व्हांवत गेल्ल्यावरी तें झोपाळ्या भशेन वयल्या वयर धोलूंक लागलें. चींव ओडटना ताच्या आंगांत आयिल्ली ती शिरशिरी. व्वा, सूऽऽ तेन्नाची ती धुंदी. वर्णन करूं नजो इतलो सुखदिणो तो खीण आशिल्लो. ते येवजणे सरशीं कांतीक आतांय तीच संवेदना उचंबळून आयिल्ल्यावरी जालें.

आनी आतां भुरग्याक बापायचें नांव दिवं नाका? कितें करप कांयच कळनासलें. कांतीची आवय मोटी हुशार. नांव नोंदणी करपाचो हुस्को तिका चड पडिल्लो. नेमान बार्रार पिवपाक येवपी विठ्ठल. येना फुडें तो कांतीची खबर घेतालो. गिरायक मात फुकटें. केन्नाय कासाक मारील्लें सावज घेवन येतालो. पापयाचो तीर मात अचूक आसतालो. एका फारान जमनीर आड. आर्म आशिल्लें ताचे कडेन. मोटो कासादोर. आवयचें आनी ताचें बरें वतालें. तागेलें आर्म जोखप आनी

आवयलें तोंड चलप सारकेंच. आतां तीर तिणे जोखलो. ताच्या हुजरां कांतीच्यो तोखणायो गायतां गायतां विठ्ठल सपनां रंगोवंक लागलो कांतीचीं. जायते फावटीं तो येतकूच ती कांतीक ताचे म्हऱ्यांत एकली सांडून वताली. एकेक फावटीं तो सामको ताचेलागीं वतालो. केन्नाय फुडें आयिल्ल्या ताच्या पोटाचेर हात भोंवडायतालो. कांती ताका वगी रावतालें. ताका आवडटात म्हण तो ताचे खातीर बोरां, जांभळां घेवन येतालो. सामको ताका घश्टून बसतालो आनी मागीर ल्हव आवाजांत ताच्या कानांत विनोद सांगून ताका हांसयतालो. केन्ना खातकुतल्योय करतालो. कांतीन केन्ना आडोवेढे घेतलेना.

आनी एक दीस आवयन ताका सांगलें, ''विठ्ठल, कांतीगेल्या बाबाक नांव दवरपाक जाय. तेर्म करपाक या मरे?'' विठ्ठल एका पांयार तयार. ऑफिसांत वतकूच ऑफिसरान नांव विचारलें, तेन्ना तिणेंच ताका सांगलें ''ह्या भुरग्याचें नांव थेयतलीं कार्मी, हो बापूय विठ्ठल, आनी ही आवय कांती. तिगांचीय नांवां घाल आनी कर तेर्म.'' जालें. कोणाची जाप ना. तेन्नाच्यान तो जालो कार्मी विठ्ठल कांती. आवयन कांतीचो हात विठ्ठलाच्या हातांत दिलो आनी म्हणलें, ''ही तुका बायल. घरांतली एक कूड तुजी. हो तुगेलो पूत. तुवें फकत कासाक वचून सावज हाडून दिवपाचें. बारीक करतलो घोव म्हजो. मिरसांग कांती वांटटलें. घरांतलीं कामां सुमती, धाकली धूव करतली आनी हांव बार्रार रावतलीं. गिरायकांक आतां म्हजी संवकळ जाल्या न्हु रे?''

अशे तरेन कामाची वांटणी जाली. गांवटी सावजाची शागोती खावपाक खूब पयस सुवाती सावन गिरायकां येवपाक लागलीं. बार्र सगळ्याक फामाद जालें. आनी ताका परतून दीस गेले ते विठ्ठला कडसून. ह्या वेळा तिच्यान कामां झेपनात जालीं. ती चडशी न्हिदून रावताली. दीसभर कार्मी फाटल्या फुडल्यान भोंवून तोवूय बेजारतालो आनी मागीर वेळ पासार करपाक सुमतीक घेवन भोंवपाक वतालो गजाली सांगून ताचें मनरीजवण करतालो. सुमतीकय आतां ताची संवंय जाल्ली. तिनसान जावचे पयलीं तें घरांतलीं सगळीं कामां जाग्यार घालतालें आनी कार्मी आवय म्हऱ्यांत आसा तो पळोवन ल्हवूच भायर येवन ताका खुणायतालें, ''ऊ ऽऽ य,या मरे?'' आनी ''एक पासय मारून येतां गो'' म्हणून दोगांय नाच जातालीं.

सगळें सुखान चलतालें. कांतीगेर दुसरो चलो जालो. नांव दवरलें सुजय. वैजिणीन म्हणलें, ''हो मात सारको गांवटी गे बाये. उकडो तांदूळ. नाजाल्यार कार्मी तो गोरो गोरो पिठा भोबो.''

करतां करतां विठ्ठल आनी सुमती चड लागीं आयलीं. दोगांचेंय कामार लक्ष थारना. दोगूय भुरगे कांतीचे सुवादीन. विठ्ठलान कासाक वचपाचेंय उणी केलें. तातूंत जनावरांक आनी सवणी सावजांक मारपाक फावना असोय कायदो सरकारान लागू केल्लो. शागोती खातीर गिरायकां येतालीं तीं बंद जालीं. आवयचेर आकांत आयलो. रघुवीरय बेजारलो. सुमती तशें सामकेंच पारपोळ नाशिल्लें. बऱ्या मार्कांनी पास जातालें. मेट्रीकेक तर बरे गूण मेळोवन गावांत पयल्या क्रमांकाचेर आयलें. ताका फुडें शिकपाक जाय आशिल्लें.

एक गजाल विठ्ठलाची तोखणाय करपाची. ताचे हुशारेची तो कदर करतालो. चांदरच्यान सांवड्ड्या सामकें लागीं. बाजाराक म्हण वतालो आनी ताचे खातीर दुकानार वचून तरातराचीं पुस्तकां घेवन येतालो. सुमती सामकें मुरगटटालें. मागीर तें त्या पुस्तकांनी तकली घालून बसतालें. गावांत आनीक दुसरीं मनरिजवणेचीं साधनांच नाशिल्लीं. सिनेम ना, नाटक ना. कोणाय दादल्याचो मोवसो हात फाटीर भोंवलो काय बायलेक कितेंशेंच जातालें. ओंठाचेर ओंठ तेंकले काय ताच्याकूय चड बरें दिसतालें. हांगाच तर कांतिची फसगत जाल्ली. सुमतीचेंय तशेंच जालें. ताच्यांत विठ्ठलाविशीं मोग, आपुलकाय निर्माण जाल्ली. दीस रात तें वेगळेच तनरेंत आसतालें.. आनी एक दीस सुमती आनी विठ्ठल गांव सोडून गेलीं. खंय गेलीं बी हाचो कोणाकूच पत्तो लागलो ना.

आवयन आपणाकूच समजायली, वाडिल्ल्यो धुवो आसतकच अशेंच जावपाचें. कांतीक ताणें फुसलायलें आनी सुमतीची इत्सा विठ्ठलान भागयली. जालें. दोगीय आपापले परीन सुगूर जाल्यो. दुख्ख करून कितें जावपाचें आसा? संवसाराचो गाडो असोच ओडपाक जाय.

आवय बापूय जाणटीं जाल्लीं. सामकीं म्हातारीं. एका वेळार खांपो पाडेली आनी जिवान घटमूट आशिल्लो रघुवीर, आतां ताची सुकून बडी जाल्ली आनी दीस रात खोंक खोंक खोंकतालो. वैजान शिटकायिल्लो ताका टीबीचें दुयेंस जालां म्हण. शारोप आनी पिल्लां घेवन दीस धुकलतालो. पावस, वारें, शीं आंगार झेलीत दुयेंस वाडत गेलें. हड्डयांत थंडी भरून पुल्मांवांत पावली आनी एक दीस खोंकली चावळल्ली आसतनाच लवंडलो तो परतून उठलोच ना. आवय तर शितीते भायर पाविल्ली. आंगाक पडिल्ल्यो सुरकुत्यो. कोणाक पळयन दिसना असली गत जाल्ली तिची. आंगार कापडाची बारीकशी फाळी आसा काय ना हाचेंय तिका धंगण नासतालें. सगळें आंग धरील्लें. जागी आसल्यार बडबडत रावताली. आयकूं नज असली बडबड.

कार्मी आनी सुजय दोगूय जाण गावांत तवनासपणां करीत भोंवताले. झगडीं झुजां, गाळी खेव सांवार सगळो. आशिल्ले नाशिल्ले वायट गूण तांच्या आंगवळणी पडिल्ले. बुरशो बुरशो गाळी तोंडांत. कोण तांचे वाटेकूच वचनासलो. भुरग्यांचो मद वाडत गेल्लो. घरांतलें बार्र बंद जाल्लें पूण गावांत आनीक चार पांच नवीं बारां उकतीं जाल्लीं. दोगूय गांवभर धुमशेणां कांडून तिनसना लकत लकत घरांत भितर सरताले. कार्मी जाल्लो एक नंबरचो चोर आनी सुजय तर सामको खुनशी. रातचे घरा येवन दोगूय जाणटेलेक खेपताले आनी अशाच एका दिसा तिडकीन सुजयान हातांतलो तांबयो शेंवटून तिचेर मोखलो आनी त्याच खिणाक ती खलास. तीर सामको अचूक. त्याच बापायलो पूत. कांतीन म्हणलें लेगीत, 'रगत खंय वतलें. बापूय मोनजातीक मारतालो, पूत जित्यांकूच मारता.'

कांतीन पुलीशेंत कागाळ केली आनी आपले आज्येचो खून केल्ल्या गुन्यावाक लागून ताणीं ताका धरून कादयेंत उडयलो.

कांतीन जाप काडलीना.

आठ दिसां भितर दुसऱ्याची गजाल. कार्मी सामको खांपो चोर. कुलपां, सेफ फोडपाचीं

सगळीं आयिद्दां ताचे कडेन आसतालीं. एके रातीकडेन बँकेचें शटर तोडून भितर घुसलो आनी स्ट्राँग रूमांत भितर सरून सेफ उकती केली. जमता तितलें सुतलायलें. आनी भितरली लाखांनी रूपयांची केश घेवन वतना जुस्त गस्त घालतल्या पुलीसांनी ताका धरलो आनी व्हेलो पोलीस स्टेशनार. पडलो बंदखणींत.- त्या वेळार सोडिल्लो सुस्कार आनी तोंडांतल्यान भायर काडिल्ल्या उतरांचो कांतीक घट्ट उगडास आसा. ताणें म्हणलें, 'गोंय १९६१ त मुक्त जालें पूण हांव मात आयज खऱ्यानिशीं मुक्त जाली. घोव ना, आवय ना, बापूय ना, भुरगेय ना. एकलो जीव हो खंयूय घालून घेवं येता. घे गे धरतरी माये तुज्या पोटांत म्हाका.'

कांती रावली थोडे दीस त्या बारांत. पूण पान दुडवाक पातिशेर जाली. कोणालीय शिवण सूत करून दिवन पोटाचें भागयताली. मागीर ताचीय उबगण आयली तिका. तकलेंत कांयच थीर उरना जालें. आठ दीस चुलींत उजोच घालो ना. घरांत कितें हाडिल्लेंय नाशिल्लें. आनी अशा वेळार तिका आपले भयणिची, सुमतिची खरायेन याद जावपाक लागली. खंय आसा म्हण कोण जाणा बाबडें!

मन पुराय थकिल्लें. आतां आनी कसली दुर्दशा पळोवपाची उरल्या काय! खंयूय वचून जीव दिवंचो इतली उबगण आयिल्ली. सकाळ जातकच उठली तशी एके बसीर चडली. वाटेर मर्दीच देंवली. खंयचो गांव कितें कांयच खबर ना. चलतूच रावली. चलतां चलतां मसंडे कडेन पावली. थारली. तिणें पळयलें सरण जळून जाल्लें. उरिल्ल्या गोबरांत आपलोय गोबोर भरसूं दी.

×××

सुमति...सुमति, भियेवन कांतीन मारील्ली किळांच आसमंत भरून गेली. ती खडबडीत उठून बसली. रातीं ऑस्पितालांत आनी आतां खंय पावल्यां तें तिका कळना जालें. पूण आपणाक हो जाल्लो भास हें तिका पटलें. तिणें जाग घेतली. भितल्ल्यान कांय बायलांचो आवाज येतालो, शिंवपाच्या मशिनाचो घरघर.

'जागी जा. तुका दोतोरान हॉस्पिटलांतल्यान हांगा हाडल्या. तुषार म्हजो पूत. ही रेडीमेड गार्मेंट करपाची फेक्टरी ताणे खास अनाथ बायलां खातीर बांदल्या. पूण तूं अनाथ ना.'

आवाज वळखिचो कसो कांतीक दिसलो. कोण ही?

तिणें कांतीक घट वेंग मारली तिच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवतालीं. ''कांती, हांव सुमती. तुजी भयण. तूं सपनेलें आनी तुवें तुज्या जगपांतले खिणान खीण उकते केले. एक काणी कशी. तुका जागयलें ना हावें. पूण हांव मात काळजांतल्यान न्हित्रळें.''

''विठ्ठल आनी हांव घरांतल्यान पळून गेलीं आनी मागीर हावें म्हजें जगपच बदलून उडयलें. फुडें शिकलें, नोकरी केली. विठ्ठल मरून विशेक वर्सां जालीं. दोग भुरगे, तुषार आनी विवेक. दोगांकूय शिकयले. तुषार दोतोर आनी विवेक प्रोफेसर.''

आनी सुमतिन कांतीच्या पांयार घालून घेतलें.

संपर्क : 9764597628

***



# एक आसली शिट्टी

**सुधा खरंगटे**

गांवभर लोक ताका नांवां दवरताले.

- तें सोनी मूं?... सपन पडनाका ताचें. मस्तें तशें आडांगी तशें... तोणको तो तोणको...''

शिट्टी म्हळ्यार खरें...!

- ताचे तोणाक लागपाचें आसा? उलयतलें कशें जीबेफुडें ओंठ – ओंठांफुडें जीब – दुसऱ्याचें आयकून घेवचेंच ना...

– इतलें सगलें उलोवन लेगीत तें सगळ्यांच्या अपुरबायेचें आसलें. सोनीकडेन वायटपण करपी गांवांत कोण नासतालींच! वेळा–वक्तार तेंच तर सगळ्यांक पावतालें. बायलांमदीं तर तें सामकें पोप्युलर. कसलींय खाणां करचे वेळार – पापड - लोणचीं करतलीं जाल्यार -- घरांत कसलेंय कार्य आसल्यार... घरांतली जाणटी बायल म्हणटाली -''पयलीं सोनीक फावता जाल्यार पळयात गो वचून.''

कारण ताचेसारकें आंग मोडून घोळून काम करपी गांवात दुसरें कोणच नासलें. आनी कसलेंय काम करपाक ताका कमीपणा दिसनासलीं.

फटींगपणा ताका सोंसनासलीं. अन्याय सोंसनासलो. शाळेंतय तशेंच फटींगपणां केल्यार आपलो पेलो म्हणिनासतना त्या भुरग्याच्या कुल्यार सोनीची चुळचुळीत थापटां पडटालीं. तांतूंतल्यान झगडीं उपरासतालीं. भुरग्याची आवय बी सोनीच्या - आवयकडेन झगडूंक येतालीं. पूण हें वाघीण कशें आंगार जुडून वतालें... ''तुज्या भुरग्याक दुसऱ्याची वस्त चोरप. वेल्यान चोरलीचना म्हणून फटी उलोवप...?'' ''तुजो भुरगो खांपो चोर जाल्लो जाय काय कितें तुका?''

झगडें पळोवपी आसतालींच!!

''- रझांव सोनीलें हां... न्हीं गे?''

''हय तर! वेळारच देख लागूक जाय भुरग्यांक...''

सगळी सोनीवटेन उलयतात हें पळोवन झगडूंक आयिल्ली ती आवय आपल्या भुरग्याचेर खुटले घालीत, फडफडत घरा परतताली.

सोनी तकलेन फीन आसलें. जें करतां तें मनासावन करतालें. शिकूंकय तशेंच हुशार! ओगीच न्ही गांवातल्या शाळेची हेडबाई सोनीच्या बापायक मेळूंक आयिल्ली –

''-सोनी हुशार आसा. ताका फुडें शिकयात ताचें शिक्षण आडावनाकात''. गणितांत तर इतलें बरें. गणिताची प्रोफेसर जांवक शकता तें. शिकयात ताका.''

बापायन म्हळें, ''शाळेंत पयलो नंबर घेतलो न्ही. पुरो आमच्यांत चड शिकयनात. शिकतां तेंच माथ्याबोडावेल्यान पुरो आमकां. लोक नावां दवरतले. मागीर लग्नाक आडखळी येतल्यो. पयलींच नाका जाल्ली नांवरुपां करुंक लागलां. तीं कोणाच्याय कानार गेल्यार ताका सोयरिको कशो येतल्यो?''

सोनीची मागीर घरकामां सुरु जाली. सकाळीं उठून सगल्याक सान्न-शितोडी करप. आंगण सारोवन रांगोळी रेखप, आपणे आनीक शिकचें ही इत्सा ताणे केन्ना धरलीच ना. येता तो दीस बरो मानून जगपी चली तें.

घरांत गॅस आसलो. पूण तो च्या काफी करप, दूध तापोवप इतल्यापुरतोच!. सोनी आसतना गॅस जाय कित्याक? भाटांत, हांगा थंय भोंवन लाकडांबडयो, माडाच्यो पोंयों, शेवकां-पिराडे... घेऽऽ म्हणून जळवाची रास रात्री-पोल्लांत हाडून वडयतालें तें! रांदन पेटोवन भाकऱ्यो भाजूंक, रोटयो फुलोवंक रोकडेंच शिकलें तें? ताचे हातचें खाल्ल्यान म्हणप, ''पोराच्या हाताक रुच आसा हां.''

धाकल्या भावंडांनी हें जाय, तें जाय म्हणून जेवणाखाणांत किचकीच केल्यार आवयन म्हणप- सोनीताई आससर भोगून घेयात सुख. मागीर तें घोवागेर वतकच पळयात.''

मोगूआकान तर एक दीस तापयलेंच ताका, ''आगो, गॅस आसतना कित्याक तें रात्रीपोल्लांत फु-फू करत पडता? सुख मेळल्यार भोगूंक कळना कशें तुका?''

सोनी हांसलें. ''मोगेआको, तूं जेवता त्या शिताची रुच पळयल्या तुवें? तुगेल्या गॅसावेल्या शीताक ही रुच आसा? साऽदो गोटो लेगीत कितलो गोड लागता पळय हो.''

''ह्या तोणक्याच्या तोणाक कोण लागतलो गे बायेऽ. हाच्या बऱ्याक गेल्यार कळना आनीक कळीक गेल्यार फळ ना.'' अशी ओपार मारत मोगेआकाचे तोण आपशींच बंद पडलें.

आनी एक दीस ताचेर सांवारच आयलो.

धाकलें रतन धांवत घरा आयलें.

''आई गेऽ... आई... चल बेगीन शालीमावशेगेर.

सोनीताई शिवराम आप्पाक शिट्ट्यानी मारता.''

आवय धांवतच शेजरा गेली.

शिवराम आप्पा पिवन येतकच शालीमावशेक गाळी घालून मार-बडय करतालो. पूण घोव बायलेच्या झगड्यांत कोणच शेजारी पडनासले.

आज ताणे शालीमावशेच्या कमरार खोंट घाल्ली. ती व्हडल्या- व्हडल्यान रडताली, परंवताली. सगली पळेतालीं. चुरचुरतालीं. कोणूच तिका सोडोवंक वचनासलीं. शाली मावशेचेर घोवाचे फांपार पडत आसले.

सोनीच्यान सोंसूंक नजो जालें. दारांतल्या चिंचेचो खांदो बागोवन ताणे एक मोठोसो ताळो मोडून काडलो. बरीऽ शिट्टी केली आनी शिवरामबाप्पाचेर सरासर चार शिट्ट्यो ओडल्यो... फाटीर... पांयार... कुल्यार...

शिवरामआप्पा अजापलो. वळवळलो सामको.

''आगो पिसांटा, दळभद्र्या... केदें पोर तूं? जाणट्यांचेर हात उबारता? तुका जितेंच फोंड काढून पुरतां राव.''आनी ताणे सोनीचेर गाळींचो शिंवोर घालो.

- पूण सोनीच्या हातांतली शिट्टी थारना.

''परतो मारतलो शालीमावशेक! तिणें कितें केलें म्हणून मारतालो तूं?''

''त्या चेडयेन आजून जेवण रांदूंक ना.

वाड म्हळ्यार आजून कळाव आसा म्हळें. घोवाक परतें उत्तर दिता?? तो परतो जुडून शालीमावशेच्या आंगार धांवलो. तशें सोनीन हात पावता थंय मारपाक सुरु केले.

शिवरामबाप्पाचो बोबो, हुयेली आनी-गाळी.

- सगलो वाडो एक जालो.

सगळ्यांनी सोनीक थातारपाचो येत्न केलो.

"आज हांव कोणाचेंच आयकुवपाचें ना. बायल जाली म्हणून कितें जालें? हाताक येता तशें मारत सुटप? फांफार घालो पळय तिच्या कमरार. कांय चूक नासतना. आयच्यान हें सगळें बंद जांवक जाय. शिवरामआप्पो, तूं घरांत भीतर सरलो तशे फाटोफाट हांव येतलें, कसो तूं शालीमावशेक मारता तेंच पळयतलें. आनी तूं गे? कित्याक भिता? बेस्टो मार खाता?. चुलींतले लाकूड मोखून मार परतो आंगार आयल्यार."

शेवटाक चार बायलांनी मेळून सोनीच्या हातांतली शिट्टी काढून घेतली. आवयन आनी भयणीनीं ओडीत ताका घरा व्हेलें.

अजाप म्हळ्यार त्या दीसाच्यान सद्दा उठून जावपी शालीमावशेगेरची रडारड बंद जाली. सगली अजापीत जालीं. एकावटेन सोनीक रस्पेद नाशिल्लें, आडांगी तोणको म्हणून गाळी घालतालीं. आनी दुसरे वटेन त्याच तोणान ताची तोखणाय करताले.

"तोणको म्हळ्यार खरें रे बाबा. इतलो तेंप भुरग्यांकच देख लायतालें. आतां जाणट्यांकय."

"तर कितें? वयावेल्या चलयेक असली आडांगीपणा सोबतात? ल्हान आसतना सोबलें. झगडीं मारामाऱ्यो लेगीत ताका दचकून आसताले. पूण आतां.?" घोवान व्हरूंक नाका? सोयरीक तरी येत हाका? मातलां पळय म्हस कशी.

"पूण चली रेक्त हां! आडांगी खरें. पूण देखीचें."

सोनी रुपान सादारणच आसलें. पूण हाडापेरान बरें. घसघशीत अठरा-एकोणीस वर्सांचे चली तें. वयार आयिल्लें. आंगलोटान रसरसतालें.

मागीर आयकलें, सोनीक सोयरीक आयली. घोवान पळयतनाच पसंत केले. सोनीचे लग्न जालें. बरोऽ नोकरी करपी घोव मेळला. सोताचे घरदार आशिल्लो. सगळ्या गांवांसामकार आवय-बापायन ताका सोपूद घाला. व्हेल्ल्या घरा कसलींच नांवांरुपां करनाका. आमचें नाक कापनाका. घरचे लोकांनी तुका नांवां दवरुंक जायनात.

आनी सोनी घोवागेर गेले.

आयकून बरें दिसलें. जांव हां. सोनी शारांत पावलें. बरोऽ संसार करतलें.

सोनीली पुष्पा टीचर तांच्या वाड्यावेलीच! आतां लग्न जावन शारांत पाविल्ली. एक दीस बाजारांत तिणें पळयलें. हांडीर एक भुरगो घेवन वता ती बायल. चाल वळखीचीशी दिसली. आरेच्या! हे सोनी न्ही?

"सोनीऽऽ" तिणे उलो केलो.. "सोनीऽ एऽ शिट्टेऽ वळखलें ना! हांव तुजी टीचर... पुष्पा टीचर...!!

तें थारलें.

एक सादीशी साडी आंगार. पोलको गळगळीत सो. तोण सुकलां.

"कितलें भागलां गो तूं?. कशें आसा??"

"म्हाका पळय आनी तूंच सांग टीचर, हांव कशें आसा तें आनी तें अखिन्नशें हांसलें. पूण तूं ह्या शारांत कशी टीचर?" तूं लग्न जाली तरी आमच्या शाळेंतच शिकयताली न्ही?"

"आगो, घोवाची बदली जाली. मागीर हांवेय बदली मागून घेतली. म्हजो रिकोर्ड पळोवन मेळ्ळीय म्हाका बदली. पूण तूं? आगो, बरें घरदार, नोकरीवालो घोव. तूं बऱ्याकच पडलां म्हूण आयकल्लें हांवे."

"घरदार सगलें उरलां घरा. मांय - मांव, देर-नणंदो भोगतात. म्हाका हें पळय बिराड करुन हांगा दवरलां. नोकरेक वचपाक पयस पडटा म्हणून बिराड खंय. यो टीचर हें पळय. हांगाच रावता हांव."

एका बेडरुमाचो ल्हानसो फ्लेंट. सामको भितल्ल्या भितर किचनांत आसात तीं आयदनां बी बरीं शिस्तीन लायल्यात.

"बस टीचर. च्या करता."

"च्या नाका. गो सोनी. तुजें घर पळयलें आनी तुजी नितळसान, शिस्त याद जाली."

"आतां कित्याक उपकरता तें टीचर?. आमच्या गावांतलें तें."

"आनी हावें आयकल्लें, तुजो घोव तुजेर सामको खूश म्हणून."

"दोनेक वर्सां बरेंऽ केलें म्हाका टीचर. वयलेवयर केलें. पूण आतां म्हणटा, आवय बापायन म्हाका आपल्या गळ्याक बांदून बुडयलो म्हणून. हो चंदन जालो. चलो जालो म्हूण खोशीय जालो. पूण हालींसाराक अकस्मात सुरु जाल्यात म्हजे भोग. मेळटा त्या कामान केंचकेंचावप. जेवणाखाणाकडेन नसत्यो खोडी करप. केन्नाकेन्नाय पिवनय येता. मागीर आंग बुडवप. हो म्हजो चंदन आसा ताका पळोवन दीस काडटां. नाजाल्यार...?

ओघाभरशीं तें तिडकून उलयलें. ती उतरां आयकून तो तिनेक वर्सांचो भुरगो काचाबूल जालो. रडकुरो परतली. ताचेर नदर पडनाफुडें सोनी नॉर्मलशें जालें.

"चंदन, नसत्या कामाक रडप ना हां. ही पळय म्हजी टीचर. नमस्ते केले तुवें?" सोनीन अपुरबायेन ताच्या तोणावेल्यान हात भोंवडायलो.

"नमस्ते टीचल." चंदनान लजतशे हात जोडले -

टीचरीनय अपुरबायेन ताच्या पोल्याक हात लायलो.

इतल्यांत दारांत कोणतरी बायल उबी. हातांत एक डबो.

"भाभी, पळय गे, कशें जाला तें? म्हाका जमलां काय ना तें सांग.

सोनीन डबो घेतलो. तांतलें वाटयेंत ओंतून एक चमचोभर खावन पळयलें...

"उर्मिल, आगे बेस्सबरें जालां मुगो!" "चंदन, काकीन पळय तुका काय बरें खाण हाडलां. घे. खा."

"आई, वलीऽ लागता खील." चंदनान खायत म्हळ्ळें.

"पिशा, खीर न्ही ती. तिका पिठी म्हणटात. आमच्या गांवचें पक्वान्न तें! टीचर, तूंय बी थोडें खावन पळय. सोनीन टीचरीकय वाटी भरुन दिली.

पिठी खरेंच बरीऽ जाल्ली. भाजिल्ल्या कुळथांचो वास खमंग येतालो.

"ह्या शारांत आनी अशी कुळथांची पिठी

खांवक मेळप म्हणचे?' '

टीचरीचें उतर अर्दयांरच तोडून त्या उर्मिलान म्हळें, "ही आमची भाभी आसा न्ही, ती शिकयता आमकां तरा तरां बिल्डिंगेतल्यो सगल्यो बायल्यो कितेंय विचारुंक भाभी म्हऱ्यांत, न्ही गे भाभी?"

"पुरो गो तुजें उर्मिल."

"कित्याक पुरो? तुज्या टीचरीकच सांगतां. जाणां टीचर, बिल्डिगेंतली शाळेंत वचपी सगलीं भूरगीं भाभीचेर खूश. शाळेंतल्यो डिफिकल्टी सोडोवंक तांकां भाभीच जाय. चड करुन गणितां.

"आनी त्या भुरग्यांच्यो आवयो.?" टीचरीन विचारलें.

"आमी तर भाभीक सांगतात, तूंच आमच्या भुरग्यांक ट्यूशन दी म्हणून. पूण भाभी आपल्या घोवाक लागून. हांव तर तांगेलें पेटल्यार चंदनाक घेवन आमगेर वतां."

"आजय तूं चंदनाक सांबाळशीत. म्हाका सोनीकडेन उलोवपाचें आसा. " टीचरीन विचारलें.

अजापीत जावन उर्मिलान म्हळें - "बरे बशेन आमगेर आयल्यार रमता तो भुरग्यांमदीं. घरा वचूंकच सोदिना."

उर्मिला चंदनाक घेवन वतकच टीचर सोनीकडेन उलयत थंयच बसली.

"सोनी हांवें आयकल्लें, तुजो घोव तुजो खूप मोग करता म्हणून."

"हय टीचर. खरेंच ताणे म्हाका बरें करुन वागयिल्लें. पूण अकस्मात. ताचें कितें तरी चाळवलां. आतां टीचर ताका हांव बरें दिसना खंय. टीचर, म्हाका दुबाव आसा. ताचें कोणतरी आसा. आतां घरांत पयशे लेगीत सारके दिना तें कोण आसा ताची भर करता."

"अशें कित्याक दिसता तुका?"

"फाटल्या पगारा दिसा शेजात्रीन ताका साडी घेतना पळयिल्लो. म्हज्यो मस्कऱ्यो करुंक लागली. आज बाये तुजी मजा!!. नवी साडी न्हेसून पिक्चराक काय कितें?" म्हाकाय जीवाक बरेंऽ दिसलें. उमेदीन वाट पळेली. पूण हो घरा आयल्यार खंय कितें आसा? हात रिकामे. तोणाक सोऱ्याच्यो घाणी."

टीचरीक पयलींचे सोनी याद जालें. गडगंज तोणको कशें आनी आतां हें बरगेवपाक आयिल्लें लाकूड.

"सोनी तूं कोणाकच भियेनासलें मुगो. सगळ्यांक देख लायतालें. भुरग्यांक धरुन जाणट्यांक लेगीत. केन्नाच कोणाचे उतर घेवंक ना तुवें. सगल्यांक तुजो धाकसो आशिल्लो.

शालीमावशेच्या बेबद्या घोवाक शिट्टेन जाग्यार हाडतसावन गावांत सगले तुका 'शिट्टी' म्हूण चाळयताले. थंडसाणेन चिंत. आतां अश्यो आगळिको सोंसपाचे दीस उरुंक नात. तूं कितें अडाणी न्ही. मॅट्रीक शिकिल्लें चली तूं."

सोनीचे तोण मातशें उजळिल्लेभशेन जालें. तोणार हांसोय बी... पूण रोकडेंच बावलें.

"हांव ताचेर पातेवन आसा न्ही? हांव नोकरी करना न्ही..."

"आनी घर तुजेर पातेवन आसा तें? तूं रांदता मुगो? घरदार निवळ दवरता. कपडे उमळतां. आयदनां घांसता. काय घोवान रांदपीण वावराडी बी दवरल्या गो?"

"तो भंगलो वावराडी दवरतलो! तुका सांगतां टीचर, एक दीस तर ताणे रागाभरशीं म्हाका म्हळें." सोनी उलयतां उलयतां मदीच थारलें.

"सांग मुगो, कितें म्हळ्ळें तुका?"

"- टीचर, हांव म्हज्या इश्टीणीक किचनांत सोजी करुंक शिकयतालें. तर तांच्या हुजीर म्हज्या आंगार आयलो. म्हणूंक लागलो, "एक दीस तुका गोळाक लायतां आनी तुवें जीव दिलो म्हूण रडंत बसतां. आनी म्हाका जायतसो..."भोगूं तें टीचर... तुका वेळ जातलो घरा वचपाक."

"म्हजें हांव पळोवन घेतां गो. तुजें कितें करपाचें तें पळय. तुज्या आंगांत कला आसा, शिक्षण आसा, दुसऱ्यांक बरें करुन शिकोवपाचो गुण आसा. अन्यायाविरुद्ध झगडपाचो तुजो सभाव खंय गेलो गो?"

"तें सगलें गावांत चलतालें टीचर. शिवाय घरचीं कितें म्हणतलीं! आईन म्हळ्ळां - घरच्यांनी नांवां दवरुंक जायना. धाकल्या भयणीचीं लग्ना जावचीं आसात. हांव वायट थारल्यार तांकांय वायट म्हणतले अशें आई म्हणता. हांगा शारांत.."

"गांवात कितें आनी शारांत कितें - मनीस हो सगल्याक एकच आसता. तुज्या बापायक मॅडमीन कितें सांगिल्लें. हो तोणको शिकल्यार गणिताचो प्रोफेसर जावंक शकता. याद ना? उठ तोणक्या. येतां हांव. परतून येतलें तुका मेळपाक."

सोनी रस्त्यामेरेन टीचरीक पावोवपाक गेलें.

"बरें गो शिट्टे, येतां हांव."

"टीचर, हांगा चिंचेचे झाड ना. पूण हें माट्टीचे आसा. आनी शिट्टीय आसा ही पळय. सोनीन हांसतच उडकी मारुन झाडाचो एक खांदो बागयलो आनी खस्स करुन ताचो ताळो मोडलो. रस्त्याकुशीनच्या झोंपांचेर सट-सट् शिट्टी मारीत ते परतलें.

रातच्या णवांक सुमार दाराची बेल वाजली. दार सटकन उकतें जावंक ना म्हूण दारार धोडावप सुरु जालें.

"- कोणाचेर सांवार आयला म्हज्या घराचें दार धोडावपाक?" सोनीन दार काडलें.

"तुजें घर? दाखयतां तुका कोणाचें घर तें!" उतरांवेल्यान तो पिवन आयला हे सोनीक समजलें. पूण ताचे फाटल्यान हें कोण येता घरांत.?"

"यो गो रोशन. अशें भितर यो. हें आमचें घर. एऽऽ अशें कमरार हात दवरुन उबे कित्याक? चल, च्या करुन दी रोशनाक."

तें मोडत मोडत भितर सरलें.

तांबडीच साडी. हातकापें पोल्क... दोळ्यांत काजळ. ओंठ रंग लावन तामडेच केल्यात.

सोनीच्या तकलेंक शिण्ण जालें. दोळ्यां सामकार पुष्पा टीचर, "एऽ तोणक्या - एऽ शिट्टेऽऽ उठ. हांव येतले परते तुका मेळूंक..."

कमरावेले हात कुशीन काडीनासतना सोनी तश्शें उबें रावलें.

"च्या जाय गो बाय तुका एद्या रातची? च्या पिल्यार रातची न्हीद पडतली मुगो तुका?"

"आतां हाणे न्हिदूंक दिल्यार न्ही?" आनी तें लजेल्लेभशेन मोड करुंक लागलें.

"न्हिदूंक जाय कोणाक? आमकां रात जागोवपाची आसा. चंदन खंय. सदचेभशेन शेजात्रीगेर ? चल. तूंय बी चल आज रातचें

शेजात्रीगेर.''

''म्हजे घर आसतना म्हाका दुसऱ्यागेर वचची कसली गरज?''

''तुजें घर? परत्यो जापो दिता? आज देंवयतांच तुजो हात उबारुन सकल लकत तो सोनीच्या आंगार जुडून गेलो.

तें रोशन कुशीक उबे रावन नाटक पळयिल्ल्याभशेन हांसत आसलें.

''सऽप्प'' करुन एक शिट्टी आंगार बसतनाच ताचो तोल गेलो. तो रोशनाच्या आंगार बसलो.

''आसर... दोगांय भायर...'' त्या रोशनाचेर दोन चमचमीत शिट्ट्यो पडनाका, तें किंळच्यो मारीत घरांतल्यान भायर धावले.

''तूं आजून हांगाच उबो? चल, पयलीं ताका पावोवन यो. मागीर पळयतां तुका.'' तो दारांतल्यान भायर सरसर ताचेर शिट्ट्यो पडत रावल्यो.

तो अजापलो. दचकेलो. मागीर ताचे तोण सुटलें. ''कसली अवदिसा गो तूं?... घोवाचेर बडी उबारता? गोमटेर कोण बसूंक ना मुगो?''

''बसल्या! हेऽत्या देवळांतली म्हाळसा बसल्या म्हज्या गोमटेर! आतां तुका जाग्यार हाडसर ती गोमटेवेली देवंची ना.''

भायल्यान तें रोशन किंळचतालें. ''राजेशऽ ए राजेश! म्हाका घरा पावय पयलीं. तुज्या बायलेकडच्यान मार खावक हाडलां म्हाका हांगा?'' ''म्हजी बायल सामकी गाय कशी. त्या बायलेक तुज्या सेवेक दवरतां. तुका राणी करुन दवरतां म्हणतालो. शीऽऽ!''

''चल, त्या राणयेक पावोवन यो आनी सारको येतलो जाल्यार घरा यो. ना जाल्यार घरांत पांय दवरुंक मेळचो ना.''

तो रागान थरथरपाक लागलो. ''आगो चुतडा, म्हजे घर म्हाकाच घरांत पांय दवरुंक दिवचें ना? तुजो आजो येंवक जाय वयल्यान. आतांच तुका घरांतल्यान भायर काडटां.''

''यो... यो घराभायर काडता तूं म्हाका?. फाल्यांच पुलीसेंत वचून केस करतां. सांगता सगळें. सगल्यांक साक्षीक आफयतां. कसो म्हाका गोळाक लायतां म्हणतालो. बायलेन जीव दिलो म्हूण रडपाची नाटकां करतलों म्हणतालो. सगळें सांगतां.

''घोवाचेर केस करतां म्हणता तूं? तूं बायल काय कोण गो? ''इतले दीस हांव कोण तेंच विसरिल्ले. आता याद जाल्या. गावांत जाणट्यांक लेगीत जाग्यार हाडल्यात हांवे. म्हाका कांय पातसो ना तुका जाग्यार हाडपाक.''

''एऽ राजेश. म्हाका भंय दिसता तुज्या बायलेचो. ती राक्षीण भायर आनी येत. म्हाका घरा पावय रेऽऽ तें रोशन भायल्यान आड्डतालें.

नाइलाज जावन तो घराभायर सरला मात, सोनीन धाडस करुन दार घालें.

बऱ्याऽ वेळान तो परतलो. बेल वाजतकच सोनीन दार काडलें. आयलो तोच सोनीच्या आंगार धांवलो. हांव जोडतां तुका पोसतां. फाल्याच्यान एक पयसो दिवचोंना. उपाशी पडतकच कळतलें. मागीर खा माती. सोनीचो आंबाडो धरुन ताणे गदागद हालोवन ताका मारपाक हात उबारलो. तो हात तसोच आपल्या हातांत धरुन सोनीन ताच्या हाताक पीळ घालो. आपले केस सोडोवन घेतले आनी म्हळें -''पळय. म्हाका मारपाची, म्हजेर कसलीच आगळीक खबर तकलेंत लेगीत हाड नाका. हो हांवें धरला तो हात मोडून घालपाची ताकत आसा म्हज्या हातांत. हें जाणा जा. म्हाका गावांत 'तोणको' म्हणताले. बऱ्याक बरें हांव. पूण म्हजी तकली तापल्यार कितें करतलें सांगूंक नजो. आतां मुकाट्यान हातपांय धुवन यो – जेवण वाडटा...''

ताका नव्यानच पळयिल्ल्याभशेन तो दोळे फोडून पळोवंक लागलो. मागीर ताका याद जाली. तागेल्या सोयऱ्यान सांगिल्ले तें.'' लग्न जाता मरे ताचेकडेन. सांबाळून राव. दोगां मवाळ्यांनी मस्कऱ्यो केल्यो म्हूण दोगांचेय हातपांय मोडून घाल्लें चली तें.'' ताका तेन्ना तीं फकाणां दिशिल्लीं.

बाथरुमाक वचून हात पाय धुवन आयलो तो. सोनीन ताट वाडून ताचे सामकार दवरलें.

''ही कसली भाजी केल्या? कोणे. सुण्यान खावपाचें अन्न हें?''

''अन्नाक नांवां दवरिल्लीं म्हाका चलनात. तूं दिता त्या पयशांनी तुका इतलेंच फावता. म्हज्या पोटाक मारुन तुका गिळयतालें हांव. पूण आता नां. दोनय वेळांचें पोटभर जेवण जायच म्हाका. म्हज्या चंदूक वेळार जेवोवंक. दूध पिवोवंक जायच म्हाका. तुजी जोड तूं कोणाच्या हड्ड्यार घालतलो जाल्यार जेवपाक-खावपाक थंयच वच. तुजे कपडेबी थंयच धुवपाक दी. च्या खाण सगले थंयच जांव दीत.हांव फाल्यांच्यान म्हजीं ट्यूशनां चालू करतां आनी आमच्या पोटापुरतें मिळयतां.''

इतल्यांत चंदनाक घेवन उर्मिल दारात उबे ''भाभी, खरेंच भांगर गे तुजो पूत. मात रडलो ना. भुरगे-भुरगें बरें करुन खेळटा. दिल्ले ते बरेंऽऽ करुन खालें. बरीऽ देख लायल्या तुंवे तुज्या पुताक.

चंदनाक दवरुन शेजात्र गेली.

''चंदू, राजा, चल तुज्या पप्पा म्हऱ्यांत वचून बस. तुका मंम जाय मरे. जेवतलो मरे तूं?''

चंदन बापाय म्हऱ्यांत गेलो. बापायन ताका मांडयेर घेतलो. सोनी दुसऱ्या ताटांत शीत रोस घेवन ताका भरोवपाक लागलें. चार उणयो पोटांत पडतकच चंदन उठलो.

''चल. सारकें तोण धुय हां. कुचकुचू करुन घोंट घेवन वडय.'' सोनीन सांगलें. मागीर घोवाचेर वरशेलें..

'''अपुरबायेचो एकलोच पूत. येतना ताका कितेंय हाडूंक कितें जाता? चॉकलेटी-बिस्कीटी म्हणना हांव. ओगीच एक चण्याची जांव भिकणाची पुडी. आपल्या बापायन हाडल्या म्हणून ओर्रान चणे खायत बसतलो आसलो.' आपल्याक वाडून घेवन सोनीन जेवण सोंपयलें आनी दोनय ताटां घेवन भीतर गेलें.

- तो मात सगलोच घुस्पलेभशेन जालो. हाका बुद्द शिकोवंक जाय सारकी. कितें केल्यार हें सारकें जाग्यार येतलें? खरेंच हें पुलिसेंत बी वचना मूं? भाभी भाभी करुन सगल्या वाटारांतले लोक हाका माथ्यार घेतात. इतलो तेंप म्हज्यो सगल्यो करण्यो ओग्गी रावन सोंसताले. आतांच कशें परतलें? घराकडेन कळल्यार? रातभर ताका न्हीद आयली ना. सोनी मात सुशेगाद न्हिदून पडिल्लें.

सकाळीं सोनीन दिल्ली च्या भाकरी ताणे

*(पान २८ चेर)*



# नंदालें पोर हें...!

**जयमाला ना. दणाईत**

**नंदिनी**

आयज भाग्यश्रीचे - म्हज्या अपुरबायेच्या श्रीचें लग्न. म्हज्या खोशेक शीम-मेर उरुंक ना. कितें करुं आनी कितें नाका अशें जालां म्हाका. खरेंच, खंयच्या जल्माचें पुण्य म्हणून श्री सारकें चली आमकां लाबलें. आमच्या सारकिल्या कुड्ड्या दाम्पत्याक हें भाग्य मेळ्ळें हें आमचें नशिबूच म्हणूंक जाय; आनी हें सगलें घडूंक पावलें तें फकत आमच्या भाभी आनी भाईक लागून!

खेडेगावांतल्या सामान्य मध्यमवर्ती घरांतलें हांव भुरग्यांमदलें मदलें चली. केन्नाय व्हडल्याक चड महत्व मेळटा ते पयलें म्हणून आनी निमण्याक तें कुसखरपवणें म्हणून – मदल्याक कोणूच खायनात. तांतून आनी सगळ्याच बाबतींत तें सामान्य आसत तर चडूच. नंदिनी - आजेन मोठ्या अपुरबायेन दवरिल्लें नांव - पूण कोणेंच केन्ना त्या नावान आपयलेंच ना. सदांच नंदा, नंद्या नंदिबैला-हींच उतरां आसलीं सगळ्यांच्या तोणांत. ल्हान-व्हड सगळ्यांचें तोणभरणें. कसलेंय काम आसूं -नंदू करतलें. 'कर गो हें' म्हणून फोर्सान म्हज्या तकलेर मारुन सगळीं पसार जाताली खेळूंक. शिकूंकय व्हडलेंशें हुशार नासलें -तांतून आनी शिकतना ल्हवूल्हवू व्हिस्त कमी कमी जायत गेली. शिक्षण अर्दवट, अर्दवट पिराय, अबरगत कशीं. कोण कितें सांगता तें उपाय करतालीं. सामके खेडें - वैजान कसले पानाचो, मुळांचो रोस दिवप दोळ्यांत घालूंक; ते दोळ्यांक सामके झोमप, कोणा खंयच्या बुवान विभूत सांगली - ती घालप. उदक मारुन मारुन दोळे सामके तांबडी गुंज भिंडां जातालीं.

शाळेंतल्या मास्तरान एकदां येवन सांगलें - ''पोर हुशार आसा तुमचें. पुण दोळ्यांक लागून प्रोब्लेम जाता. ताका शारांत दोळ्यांच्या दोतोराकडेन व्हरून उपचार करात.'' बापूय ताजेरच ताणशेलो –

''दोतोर करुं आनी बोल्सांत कितें फातर घालूं ताज्या? धा तोणां खावपी आनी एकलो जोडपी. दिसना फळ्यावेलें जाल्यार शिकप पुरो. बसनी घरांत. शिकून तरी कितें व्हडले दिवे लायतलें? व्हडली ओफिसरीन जावचें आसा? रांदा-वाडा-उश्टीं काडाच करपाचें.'' हाजेर मास्तर बाबडो जाप काडनास्तना परतून गेलो. आवयन तापोवचें - ''दोळे मिचमिचायत गांवभर उंडारता. खंयय धडपडून हातपांय मोडून घेवशी. बस घरांत. घरांतलीं कामां करुंक तरी उपेगी पडटलें. चल पेजेक आदन उडय. चीर ती भाजी.'' बशिल्ल्या जाग्यावेल्यान ओर्दी सोडटालीं. बाकीचीं भांवडां भायर खेळत आसतालीं. हांव घरचीं कामां करतालें. व्हडलीं धाकटीं सगळ्यांचोय मार, उलोवणी खातालें. अकस्मात, कुड्डें म्हणून ताणी चाळोवचें. जाण्टयांनी 'पनवती' म्हणचें. अशेच दिस सरताले.

सगळ्यांत 'अधू'-'दुबळ्या' भुरग्याचेर आवय-बापायचो मोग आसता अशें आयकून जाणां आसलें. पूण म्हज्या वांट्याक हांतलें कांयच येवंक ना. घरांत एक खुंट्यामाकड कशें जावन पडिल्लें. हेरांचें आयकून आयकून पाठ करचें परिक्षा दिवची.

आनी एक दिस भाईन लग्न केलें - मोग करुन! घरच्यांचे व्हडलेंशें मनांत नासलें. पुण ती पणजे एकदा व्हडल्या ऑफिसांत हायर पोस्टार आसली. तिज्या कडल्या येवपी पयशांक पळोवन सगळीं ओगी पडलीं. - तिज्या फुडें फुडें करतालीं. तोणार बरें बरें - घरची लक्ष्मी बी म्हण्टालीं; तिज्या असोडीं नावां दवरतालीं. भाभीन घरांत पावल घालताखिणीं म्हजी अवस्था पळेली. तिका म्हजी काकूट दिसली जांवये. ती म्हजी अपुरबाय करताली. हांवय मायेचें भुकेल्लें. भाभी-भाभी करुन तिका चिकटलें. खरें तर थंयच कसतलें आसलें. पूण भाभीन भाईक सांगून म्हजी पालकी उबारली. आपल्याबरोबर पणजे हाडलें. दोतोराक दाखयलें. ताजे वखदानीं मात्शें तरी निवळलें. म्हज्या आंगातलें कलागुण पळोवन तिणें म्हाका शिवणीक घालें. हरशींच पळोवन पळोवन हांव भुरग्यांचे बी बरे बरे कपडे शिंवतालें. तिणें म्हाका मशिन घेवन दिलें, आनी हांव रेडिमेड कपड्यांच्या दुकानांनी कपडे शिवन दिवंक लागलें. चार पयशे हातांत घोळूंक लागलें. म्हज्या पांयार उबें केलें. म्हाका जिणेचो साथीय मेळोवन दिलो. अशे तरेन भाई भाबीच्या छत्र छायेखाला जीण सुखाची जाली. संसार जालो तो भाभीकच लागून. म्हजें भाग्यश्री पदरांत पडलें तेंवय तिकाच लागून - म्हाका म्हजे आवयपण लाबलें.

कितें सांगची म्हज्या ह्या जल्माची काणी, भाभीच्या आशिर्वादान जालें म्हजें भाग्यश्री राजाची राणी.

''आगो, नंदिनी, तूं हांगा एकलेंच बडबडत बसलां व्हय - हांव सगळ्याक सोदतां तुका. भटमाम आफयता तुका. चल बेगीन. न्हवरो आनी ताज्या घरचीं आयलीं पळे सगळीं हॉलाच्या दारांत. ताका औक्षण करुन सव्यार व्हरूंक जाय. जांवयाची पुजा, मान करचो आसा मुगो? चल बेगीन.'' भाभी म्हाका सोदीत आयिल्ली. तिज्या उतरांनी भानार आयलें. - चलचित्र पळेलेवरी आख्खी जीण मनामुखावेल्यान सरकल्ली. भाभीन भानार हाडलें, तशें तिजो हात धरुनच हॉलांत वचूंक गेलें. - भाभी - 'तुकाच लागून घडलां हें सगळें. फकत तुका लागून' मन हींच उतरां घोळयत आसलें.

**भाग्यश्री**

गौरीहर पुजपाक बसलां खरें - पुण आज परतें परतें म्हजें मनाचें शेवणें भुतकाळांत भोंवड्यो मारता - भुरगेंपण येवजता रावन रावन! मम्मीच्या कुळारचीं - पप्पालीं भांवडांय - सगळींच म्हाका ''नंदालें पोर'' म्हणूनच पाचारतालीं. एक भाभी माँ आनी मामा सोडल्यार म्हाका म्हज्या खऱ्या नावान 'भाग्यश्री' म्हणून कोणच उलो करीनासली. ल्हानपणांत आजी, मावश्यो, मामा, कोणेंच म्हाका वेंगांत घेवन म्हजी अपुरबाय केल्ली याद जायना. हेडसायले - भशेन वागतालीं. आतांय बी लग्नाक आयल्यांत खरीं, पुण येंवक

जाय म्हणून! कोणांकच कांयच पडून गेल्लें ना. हांगा भोंवक, मजा करूंक आयल्यांतशीं दिसता.

ल्हान आसतना म्हाका सदांच दिसतालें. हेर भुरयांपरी ताणीं म्हाकाय वेंगेंत घेवचें,- हांडीर धरचें - म्हजी अपुरबाय करची. एक भाभी माँ आनी व्हडलो मामा सोडल्यार कोणेंच केन्ना अशें केल्लें याद जायान. अशे कित्याक काय विचारुन हांव मम्मीक बेजार करतालें. तिणें म्हणचें–

"आगो, तुका बेठेंच तशें दिसता. म्हजें नांव नंदिनी, तुज्या पप्पाचें नंदकुमार म्हणून सगळीं तुका नंदालें पोर म्हण्टात. तशेंच आंगान गुटगुटीत म्हणून कोण तुका उबारना - जड लागता जातलें, आनीक कांय ना."

तितलें पुरतें समादान जालें तरी हें केन्नाच म्हज्या मनांतल्यान वचनासलें. आतां हें सगळें सरलें म्हणा.

कारण राज तर आतां म्हाका 'श्री' म्हणूनच उलो करतालो. ताजे घरचीं सगळीं भाग्यश्री - श्रीच म्हण्टात - तांच्या घरची लक्षीम मानतात. पूण म्हज्या मनांतलो हो न्यूनगंड - इनफरेटी कॉम्प्लेक्स - खूब तेप मेरेन म्हज्या मनाक कलत उरलो. पुण आतां ना. कारण हांव मात्शें व्हड जातगीच - कॉलेजांत पावल दवरतगीच एकदां गोंयां गेल्लेकडेन भाभी माँन आनी मम्मीन म्हाका म्हऱ्यांत बसोवन म्हज्या जल्माची खरी खबर सांगली - सारकी वळख करुन दिली. मम्मीक कशे त्रास जाताले - मागीर दोतोरानच तिगेर भुरगें जावचें ना, पुण अडोप्ट करप जांव सरोगशी टायप दुसऱ्याल्या कुशींतलें भुरगें ल्हान आसतनाच घेवन आपलें म्हणून वाडयल्यार बरें असो सल्लो दिलो.

आयकनाफुडें मात्शें वायट दिसलें - मन खंती जालें - हांव खरें ताचें भुरगें न्हंय म्हणून. पुण तितलेपुरतेंच. पप्पा जेन्ना "मेरी प्यारी नन्नी मुन्नगी" म्हणून म्हऱ्यांत घेता त्या सुखाक तोड ना. मम्मी "म्हजे शातुलें गुगुलें तें"म्हणून वेंगेंत घेवन अपुरबाय करता तेन्ना मनाक जाणवता. हांव खरें तांचेंच भुरगें - कितलो मोग करतात दोगांय म्हजेर!"

दोतोरालें म्हणणें मम्मी-पप्पान मानून घेतलें. हांव जल्मतनाच म्हाका आपणायलें. भायल्या दुधार वाडयलें. मम्मीक दुध नासलें तरी काळजांतली माया-ममता म्हजेर ओतून म्हण्टा तशें तिणें म्हाका येदें व्हड केलें. आनी ह्या संसारांत जगपायोग्य करुन सोडलें. कृष्ण कसो देवकीच्या पोटांत जल्मलो तरी यशोदामायेन ताका ल्हानाचो व्हड केलो. ताज्यो खस्तो खावन ताका वाडयलो, तशें मम्मीन म्हजें सगळें सगळें केलें. म्हजी मम्मी-पप्पा हेर सामान्य मनशांसारकी न्हंय, दोगांकय दिली ना, तरी हेर दृष्ट्या लोकांपरस व्हड! म्हज्याखातीर कितें बरें वायट- जाय जायतें दिलें, बऱ्या स्कुलांत-कॉलेजींत घालून बरें शिक्षण दिलें. आज हांव जें येदें व्हडलें इंजिनियर जावन बऱ्या ऑफिसांत कामाक आसा तें तांकांच लागून म्हणूंक जाय.

नशिबान थंयच राज सारको भुरगो मेयळो. म्हजो मोग करुंक लागलो. तोय हिंदी भाशीक - राज शर्मा. हांव पयलीं हिंदीच उलयतालें, पुण गोंयांत वतगीच दिदी,दादा, भाभीकडेन बी उलोवन थोडें थोडें हिंदी - कोंकणी उलयतालें. मम्मी-कोंकणी उलयताली म्हजेकडेन - म्हणून कोंकणी मातृभाशा - बरोबर उलोंवक लागलें.

राजान म्हाका प्रपोज केलें. हांवें तर पयलीं ताका नाच्च म्हळें. हांव म्हज्या मम्मी-पप्पाक तांच्या जाण्टया पिरायेर एकटें सोडून खंयच वच्चे ना म्हणून थारायिल्लें. पुण राजच्या माँ-डॅडान आमगेर येवन सरळ मम्मी-पप्पाकडेन म्हजो हात मागलो. ताणींय खोशयेय हयकार दिलो. म्हणून आज हो सुखाचो दिस हांव पळयतां.

आमी मम्मी -पप्पाच्या शेजराच ब्लॉक घेवन दवरला. ताजे माँ-डॅडा हांगा लागींच एका दुसऱ्या गावांत रावतात - तांच्या कामाक लागून. पुण आमकां हांगा रांवक तांची ना ना. म्हणून तर हांव खोशी खोशी लग्नाक तयार जालां. म्हजें उतरय पाळूंक मेळटलें. राजाकूय न्हंयकार दिवचो पडलो ना. म्हजेंय लायफ सेटल जातलें आनी मम्मी-पप्पाकय सांबाळूंक मेळटलें. मम्मी-पप्पाक तर राजाक खंय दवरुं आनी खंय नाका अशें जालां. खरेंच म्हजें भाग्य व्हड म्हणून म्हाका मम्मी-पप्पासारकीं आवय बापूय आनी राज आनी ताजे घरचे सारकीं मॉडर्न विचारांची मनशां मेयळीं. भाग्यश्रीच हांव - खऱ्या अर्थान भाग्यश्री थारलें. अशें भाग्य सगळ्यांक थोडेंच मेळटा. आज तर खोशयेन हांव सामके "सातवे आसमानपर" आसां. स्वर्गसुख स्वर्गसुख म्हणचे आनीक दुसरें कितें आसत?

भाभी

"नहीं आती मैं तेरे साथ, जा तू. मैं इधरही रहूँगी भाभी माँके पास."

"आगो, अशें कितें करता पापया. आजा-आजेक मेळून परत येंवया रोकडींच."

"नही, मैं नही आवूँगी उधर." म्हाका घट धरुन तें म्हज्या फाटल्यान लिपलें.

"पळे गे भाभी, हें कशें करता. सकाळीं वचूंन सांजचीं येवया म्हळ्यार आयकना." नंदिनी कम्प्लेन करतालें.

"आसूं गो, तें येना म्हण्टा जाल्यार कित्याक फॉर्स करता ताका. तें ताज्या ह्या दादा दिदी बरोबर बरे रमलां."

"कोण खरी माया करता. तें मोनजातीक लेगीत कळटा म्हणून तें ओगीच न्हंय. हें तर मनीस-भुरगें, ताका कळलें बगर कशें रावत गे?"

"बरें बरें. डोण्ट वरी. तूं बिनधास्त वचून यो आई-भावाक मेळून, हांव पळेतां ताका. नायतरी आज सुटीच आसा म्हाका. आनी ल्हानपण धरुन म्हजीच ओड ताका. चल तूं." हांवें अशें म्हण्टगीच येदेंशें तोण करुन नंदिनी वचूंक गेलें गावांत.

म्हाका मात अजाप जालेबगर रावलें ना. येद्याशा तीन - चार वर्सांच्या भुरग्याक लेगीत कळपासारकें कशें वागतात हे लोक? काय बरें नांव दवरिल्लें ताजें भाग्यश्री. पुण कोण एक ताका नावान उलो करीनासलें. 'नंदालें पोर तें' म्हणून हिणसायल्लेभशेन उलोवप नातर मागीर भागू, भागू करप. आजो-आजी आसूनय केन्ना मायेन लागीं ओडीनासलीं. ताज्या हेर मावशांच्या, मामाच्या भुरग्यांची कितली अपुरबाय जाता तें ताका दिसतालें. हीं मनशां-मायेचीं -आपलीं-अशीं कशीं वागूंक शकतात तेंच म्हाका समजनासलें. आमगेर मात तें एट इज वावुरतालें. म्हज्या भुरग्यांचें आनी ताचें बरें सूर जुळटालें. 'दिदी-दादा' करुन सामकें तांच्या फाटल्या फुडल्यान आसतलें. म्हाका तर भाभी माँच म्हण्टालें. म्हज्या मनाकय बरें दिसता - केल्ल्या कर्माचें फळ मेयळेंशें दिसता.

खरें तर पयलींसावन नंदिनीकय हीं घरचीं अशींच हिणसायतालीं. सामकें तांदळांतलो आसो कसो वेंचून काडून कुशीक मोखतात तशें केल्लें ताणीं ताका. आवय बापूय लेगीत आपल्याच भुरग्यांमदीं असो भेदभाव करतात हें पयलेच खेपो पळेतालें हांव. घरांत पावल दवरता खिणीं तें म्हाका समजलें आजी म्हणून पयल्यान पयलीं ताका हांवें आमचेबरोबर उखलून पणजे हाडलें. पोराचें व्हिजन हळूहळू कमी जायत गेल्लें. आनी गांवच्या वैदू आनी बाबा-बुवांच्या वखदांनी नदर चडच बिगडिल्ली. पयल्यान पयलीं हांवें ताका आमच्या दोळ्यांच्या दोतोराकडेन व्हेलें. ताणें ताका बरो वेळ तपासलें. "अशो केसेस खरेंच सामक्यो रेर असतात. आनी सुरवेकच बरे उपाय जाल्यार आशा आसली. तांतून ताणीं वैदूचीं-बाबाचीं कसलीं कसलीं वखदा घाल्यांत देव जाणां. तरी पळोवया. हें थेंबे चार चार वरांनी घाल, ह्यो गुळयो दिसाक तीन वेळा दी. आनी आठेक दिसांनी परत हाड." पुण परत घेवन गेले तेन्ना दोतोरान म्हळे -"हे पळे, तशे सारकें बरें जायतशें दिसना, तरी आशा सोडूं नये. थोडेंफार दिसतलें तशें ताका. आनी तूं म्हण्टा न्हंय दोळसांक लेगीत फाटी उडयत अशीं कामां करता म्हणून तें. थेंबे, गुळयो चालू दवर." साप्प आशा सोडिल्ल्याक माततरी आशेचें किन्न दाखयल्लेवरी जालें.

हांगा येतसावन नंदिनी खोशी आसलें. थोडें थोडें दिसता तशें आपलो अर्दकुटो उरिल्लो अभ्यास पुराय करुन ताणें परिक्षाय दिली. आमी ऑफिसांत वतालीं तेन्ना घरचीं सगळीं कामां आपूण जावन व्यवस्थीत करतालें. पयलीं ताज्या भावाकय हांवें ही ब्याद गळ्यांत बांदून घेतल्याशें दिस. पुण आपल्या मायेस्त सभावान नंदिनीन ताजेंय मन जिखून घेतलें, आनी भुरगीं जातगीच तर तें म्हजें सामकें हातखाणें जाले. चवथी परबांक केन्ना आमचेबरोबर गावांत वताले तितलेंच - थंयची याद लेगीत काडीनासलें. ताज्या हातांत बरी कला आसली. जें करता तें जीव लावून करतालें. सोबीत फ्रॉक, ड्रेस बी शिंवताले. हांवेंच फॉर्सान शिवण क्लासांत बी घालून बरें तयार केलें. म्हज्या वळखीच्या रेडीमेड गार्मेंटसच्या दुकानांत काम दिलें. थोडे पयशे मेळटाले - आपल्या पांयार उबे राविल्ल्याचें समादान मेळटालें.

आनी एक दिस हाज्या एका कलिगान खबर हाडली. इंदूराक काय खंय गेल्लेकडेन ऑफिसांत ताका एक मनीस मेयळो. असोच दिठी नासलो. सामको डोळे आयल्ल्यापरी वावुरतालो. बरे पोस्टार काम करतालो. रवीन ताजी बेठीच चवकशी केली. ताका खंय आवय बापूय नासलें. थंयच्या लागींच्या गावांत घर - जमीन आसली. ताजीं भांवडां थंय सगळें सांबाळटालीं. कामानिमित्त हो हांगा एकटोच रावतालो. नंदिनी खातीर ताका हें स्थळ म्हणून बरें दिशिल्लें. सुर्वेक म्हजो घरकार येवजूंकच तयार नासलो - 'बेठेंच हात दाखोवन अवलक्षण' नाकाच म्हणून. पुण हांवेंच फॉर्सार केले. नंदिनीचें वय वाडत आसलें. ताज्या फाटल्या भांवडांचींय लग्ना जाल्लीं. म्हळें लागल्यार लागलो फातोर.

"एक फावट वचून पळेल्यार कशें? जमलें जाल्यार बरेंच जालें. एक बरें कार्य हातान घडलेवरी तरी मनाक समादान!" तेन्ना मागीर हो तयार जालो. रवीक घेवनच ताज्या ऑफिसांत गेले. आनी ताकाय तो भावलो. नंदकुमार श्रीवास्तव. - हिंदी भाशीक. पूण एकदम देसेंत. मजा म्हणजे ऑफिसांतल्यान तो तांका आपल्या ब्लॉकार घेवन गेलो. रस्त्यार चलतना वा घरांत वावुरताना एकदांय तांकां खटकलें ना की बाबा हो कुड्डो आसा. आमच्या नंदिनीक मात तरी झळकतालें. ताजे मात 'देवी येवन' दोळे गेल्ले खंय. पुण सरावान तो सगळें दोळे आशिल्ल्या मनशावरी वावुरतालो. मागीर ताणेंय येवन नंदिनीक मेळूंक पसंत केलें. नंदिनीचो भावूक सभाव पसंत पडलो ताका. आपलें आनी लग्न जाता हेंच व्हडलें अशें जाल्लें तांकां दोगांकय - ह्या वास्तवाची कल्पनाय केली नाशिल्ली दोगांनीय.

पयलीं घरच्यांनी मात्शे केंव केंव केलें. "कोण खंयचो परकी राज्यांतलो - जातीचो पातीचो! तें तशेंच उरल्यार जाता." करुन बरोच बोवाळ घाला. पुण हाणें समजातकूच ओगी रावलीं. अशें ना तशें - चलयेचें लग्न जाता म्हण्टगीच तयार जालीं. पुण नावां दवरलेबगर रावले तर ते गांवचे लोक कसले? "काळखादेवतेक ना खंय घोव आनी बेताळाक ना बायल." म्हणून हांसून जालें. भैंणीनी बी "दोन कुड्ड्यांचो संसार-बेस्स बरो जातलो हां" म्हणून तेण्ट मारुन जाले. पुण कसलेच आडमेळे येनास्तना थोडक्या भितर लग्न करुन दिलें. आमी आमच्या ऐपतीप्रमाण घालून करुन दिलें. तेच त्या नंदकुमाराक व्हडलें दिसलें.

"नहीं भाई, इतना मत दो' भाभी इसकी क्या जरुरत है?" करतालो. पुण हांवेंच समजायलें. - "आमी आमच्या धुवेच्या संसाराक खरखोशेन दिलां" तेन्ना ताजी बोलती बंद जाली. दोगांचोय संसार बरेतरेन फुलतालो. एकमेकांक सांबाळून घेतालीं. केन्ना तीं हांगा येतालीं, केन्ना आमी इंदूर वताली. म्हज्या तनू मोनूच्या ओडीन तें मदींच येतालें. चार आठ दिस रावन वतालें. केन्ना सुटयेंत तांका आपलेगेर व्हरतालें. भुरग्यांचो भाऽरी लळो! तांचेमदी आपलें भूरगें सोदतालें. त्या आतोबाचेर भुरगीं एकदम फिदा आसलीं.

इतलें जालें म्हणून सोपूंक ना. आतां ताका आपल्या भुरग्यांचे वेध लागिल्ले. वर्सां वतालीं तशीं निर्शेणी येताली. आयिल्ले खेपो म्हाका सुचयतालें, एक दोनदां ताका हांवें गायनेकाकडेन व्हरुन हाडलें. पुण वाडिल्लें वय, लागीं येवपी मॅनोपॉज आनी अशक्त गर्भाशय. बरें, भुरगें जालें तरी रिस्कच! वेल्यान दोगांकय दिश्टी ना. हेरिडिटरी प्रोब्लेम आसल्यार फुडें भुरग्याकय त्रास जावं येता. ताजो घोव आसा तांतून खोशी आसलो. हाका मात भुरग्यांची आस लागिल्ली. मनीस सभाव तो! ताजें केन्नाच समादान जायना. हें मेयळें मागीर तें जाय -अशें मन आसुयता. दोतोरान दत्तक घेवपाचो जांव सरोगसीचो उपाय सुचयलो. नंदिनी सामकें फाटीक लागलें, म्हणून हांवें जायत्या संस्थांनी विचारलें. पुण दत्तक मेळप खायचें काम नासलें. ताजे हजार प्रोसीजर! सगळी सारकी चवकशी करुन ते भुरग्याक पोसूंक दितात - वयली वयली परिस्थिती पळेल्यार हांकां पोसूंक मेळप कुस्तारच आसलें. खूब येत्न करूनय हेतू साध्य जायनासो पळोवन तें साप्प निर्शेलें.

मागीर केन्नातरी पेपरांत एक खबर छापून आयली. आमच्या गांवच्या लागींच्याच

खेड्यांत भायरसून आयिल्ल्या एका मास्तरान शाळेंतल्या एका अज्ञान चलयेक फटयलें. तें गुरवार जालें आनी आपल्या आंगार शेकताशें पळोवन थंयच्यान पळ काडलो. बारा तेरा वर्सांचें अजाण पोर तें, ताका जांव ताज्या घरच्यांकय कांय कळ्ळें ना. पुण सव्या म्हयन्यार पोट दिसूंक लागलें. एकच खवदळ - अम्वय बापायचेर आकांत आयलो. गांवभर फां फां जालें म्हणून पेपरार छापून आयलें. नंदिनी हांगा आयिल्लें आसलें. निमाणो प्रयत्न करून पळोंवया म्हणून ताका घेवनच हांव थंय गेलें. त्या पोराक सुधार घरांत दवरचें थारतालें. आमी ताज्या आवय बापायक समजायलें. नंदिनीची स्थिती सांगून "भुरग्यांक घर मेळटलें, नांव मेळटलें. तुमच्या चलयेकय आमी आमच्या घरा व्हरून बरे तरेन ताजो सुटावो करुन ताका मेकळीं करतलीं. ताका फुडाराक जाय ती मजत करतली." म्हणून खात्री दिवन आमच्याबरोबर हाडलें.

सोशल सर्विसीपरस व्हडलें कृत्य हे - जालें जाल्यार नंदिनीच्या मनासारकें जातलें आनी त्या भुरग्याचेंय भलें जातलें हो म्हजो हेतू! आनी म्हणूनच हांव ही जापसालदारकी घेंवक तयार जालें. हाणें पयलीं विरोधच केलो. घरच्या दादल्यांनी तर पिशांत काडलें, नसती बिरमत आंगार घेता म्हणून. व्हडलें सोशल वर्कर, लश्कराचो भाकऱ्यो भाजता अशीं जायतीं नावां दवरलीं; पुण हांव म्हज्या मतार ठाम रावलें. कोणाची केर काडली ना. त्या काळार सगळें सत्व पणाक लागलेवरी जाल्लें - घरचें काम, ऑफिसाचें वाडटें काम, भुरग्यांचे शिक्षण आनी वाडटी पिराय थकूंक लागलें, पूण देवानच शक्त दिवन हांतल्यान बरे तरेन वाटायलें म्हणूंक जाय.

कर्मधर्म संयोगान त्या भूरग्याचें नांवय नंदा आसलें. सारकें फाटीफुडें येवजून हॉस्पिटलांत नांव घालतना नंदिनीचेंच नांव रजिस्टर केले, ताजेंय आरोग्य सुधारलें. देवादयेन तीन म्हयन्यांनी तें हातापायान बरेतरेन सुटलें, सगळ्याकच सूऽऽ जालें. नंदिनीन ताज्याबरोबरीन गुरवाचार काडलो. बाळांत जातगीच नंदाली आवय येवन खोशी खोशी ताका घेवन गेली. पयल्या दिसासावन नंदिनीन त्या भुरग्याक आपणायलें. ताका कुलेरान दुद घालून, गू मूत काडून ताका वाडयलें. सवा म्हयन्यान बारसो करुन हांवेच ताजें नांव 'भाग्यश्री' दवरलें. आनी नंदिनीचें भाग्य अक्षरशः फळफळलें. ताणें सदांच म्हणचें, "ही भाभी म्हणून म्हजी जीण मार्गाक लागली. म्हज्या जीणेचो साक्षीदार सोदून दिलो, म्हजो संसार फुललो तो भाभीक लागून. आनी म्हाका म्हजे 'भाग्यश्री' मेळलें तेंवय तिकाच लागून. तीच आमची भाग्य-विधाता." आतांय ताजी तीच टेप चालू आसली.

"आगो, हय गो बाये, आनी तुमीं म्हजी भाग्य-धेय! पिसांट खंयचें कडलें. थंय भटमाम आड्डता म्हज्या नावांन - मामा, मामी, व्हंकलेक घेवन सव्यार येयात म्हणून - म्हूर्त लार्गी पावलां. चल बाय भाग्यश्री. गौरीहर बरेतरेन पुजून जालो न्ही. चलात, पुसात ते दोळे आनी चलात 'लग्न मंडपात' तांका धपकावनच - माटवांत घेवन आयलें.

संपर्क: 9757119317

***



# अरबांगेली...

**माया अनिल खरंगटे**

"ज्यो, ज्यो, कित जालें रे हें? आं, कित जालें हें. मुज सायबीणमांय केसो दिस दाखोयलो गे तुवें." कितपूण उलय रे जो. उलय..."

– "कित उलोंव ज्युलिया, नोशीब आमचें, शेमांय सोदां म्हणटाली, पोयसो बोर बोऱ्यागे मोत पिड्ड्यार कोत्ता. सामकें खोरें तियेगेलें. ह्या दुडवांनीच आमगे जिवीत पिड्ड्यार केलें."

–"खोरेंच ज्यो, चुट्टा खोपींत रावता आमी, देंपरां शीत जेयल्यार, राती पेज जेयतालीं. पूण कितू खोश्येन जियेतालीं आमी."

–"वोय गो, पाडपोडों त्या दुडवांचें. भायल्या दुडवां चोकचोकान आमकां दिपायले."

– "वोय ज्यो, हायें तुका कितू पाटीं सांगलेलें, नाका आमकां तो दुडू. दुडू येतना एकटो येयना, साबार दुकां घेयन येता. म्हणलो मुरे? आतां कित जालें चोय. तूं आरी जावन पोडला, आनी सेबी, नाका सायबा! तेजी याद काडल्यार लेगीत होड्ड्यांत घोबघोब जाता."

अशें उलयतां उलयतां ज्युलियाचें दोळे भरुन आयले. खांदावेलें लुगट दोळ्यांर धरुन ज्युलिया रांदचेकुडींत गेलें. जॉनीय आपलीं दुकां ज्युलियाक दिसूं नये म्हणून तोंडार तुवालो उडोवन आडवो जालो.

रांदचेकुडींत येवन ज्युलिया कदेलार बसलें. मेजार दोनय हातांचे कोपर दवरुन पोशांत तोंड घालून घुस्मटून रडपाक लागलें.

फाटले आठ दीस तें आनी जोन एकामेका असवडीं दुकां गळयत बसतालीं. जेवणाखाणाची तांची वान्साय गेल्ली. सत्यवास काडिल्लेभशेन तीं घरांत वावुरतालीं.

सेबीच्यो भुरगेपणाच्यो गजाली उलयतना मात तांकां वेगळोच नेट येतालो. ज्युलिया तर धाकटुलो सेबी दोळ्यांमुखार आशिल्लेवरी लुडब्या उतरांनी कितलोच वेळ ताचेकडेन उलयत रावतालें. आनी मदींच ताका आतांचो सेबी याद जातालो. आनी ताच्या घांयार मीठ पडिल्लेवरी तें फडफडटालें.

ज्युलिया आनी जॉनाचो सगळो संवसार सॅबी भोंवतणी घुंवतालो. सांवळो आनी गुटगुटीत सॅबी मम्मी-डॅडी करीत तांच्या फाटल्या फुडल्यान घुंवत आसतालो.

जॉनी भाटकारागेर दिसवड्या कामाक वतालो. ज्युलिया भाटकान्नी बरोबर कुजनातं भायर - भितर घोळटालें. दोगांयलीय जोड घरांत येताली. खावपा जेवपा पुरते पयशे तांकां मेळटाले. सणांपरबेक भाटकारागेर साकून कितें ना कितें मेळटालेंच. ज्युलियाच्या लावन पुसून संवसार चलोवपाच्या सभावाक लागून तांचो संवसार व्यवस्थीत चलतालो. फोल्यां करपाचो तांचो सभावच नाशिल्लो. कितें मेळटा तातुंतलेंच थोडें तरी पयशे फाल्यांक दवरचेली ज्युलियाक संवय आसली.

सॅबी ल्हान आसतना ताका परत परत थंडी-बारकूण जाताली. दोतोरागेर फावटी घालच्योच पडटाल्यो. ज्युलियाची घरगुती बँक रिकामी जायत वताली.

सॅबी व्हड जातकच ताचें आतरेपयऱ्यान बरें ना जावप थांबलें. पूण तो आतां इश्कोलाक वतालो. थंय पयसो लागतालो. ताका लागून ज्युलियाक म्हयन्या म्हयन्याक पयशे पावोवन वापरतासर नाका पुरो जाताले. येणावळ वाडपाचें नांव नासलें. पूण खर्च मात वाडिल्लों.

सॅबी व्हड जाता तसो भोंवतणच्या भुरग्यांक पळोवन तांचेवरी कपडे, खेळणीं, खावंक जाय म्हणून हट्ट करतालो. तांच्या वाड्यावेल्या धायेक घरांतलें दादले वा बायलो भायर गेल्ल्यो. ते आयिल्यावेळार तांचो गाज गडगड करुन केल्ल्यो पाटयो, तांचीं चकचकीत घरां, घरांतल्यो आधुनीक वस्तू पळोवन सगळ्या वाड्यावेलीं जाण्टीं तशीं भुरगीं भुलुसून वतालीं. सगळ्यांकच तो झगझग, चकचक आपल्याच घरांत आसचो अशें दिसतालें.

हालींसराक आपल्या घरांतले खावपा-जेवपाचे हाल पळोवन सॅबी सामको बेजार जातालो.

त्या दिसा सॅबीन आवयल्या पाकिटांतले पयशे काडून कॅडबरी हाडून खाली. ज्युलियाक कळटकच रागान तांबडें जालें. ताणे सॅबीचेर दोन थापटां फुलयलीं, आनी ताका जाय-काय उलयलें. सदांच आवयन हात उबाल्ल्यार सॅबी भियेवन आवयक वेंग मारुन रडटालो. पूण आज ताणे आवयक परत्याक परत्यो जापो दिल्यो. वयल्यान ताका म्हळें,

– "रॉनीगे मामी, निकिगे मामी, जेनीगे डॅडी, भायर वोंसोन जायतो दुडू, खावच्याक, आनी जायतें कितें कितें हाडटाय. तूं कित्या भायर शिर्विसे वोसना?

–"आरे कित उलयता तूं? हांव भायर गेल्यार तुका मामी खुंयची? तो रॉनी, तिका मामी जाय म्हूण कितू रोडटात चोयलना तुयें?" ज्युलियान दुखेस्त जावन विचारलें.

–"व्होय गे, तीं रोट्टाय आनी ग्रेनीन बोरें बोरें खावच्या दितरीच थांबताय. पूण तेंगे मामी तेंका कितकित धाडीत आसता. ती घारा आसता तेदना ताणी धा रुपय मागल्यार शेंबोर रुपया काण्ण दिता." सॅबीन तावा-तावान सांगलें.

ज्युलिया सॅबीचे विचार आयकून चकासूर जालें. ताणे जॉनाक सेबीची गजाल सांगली. जॉनाच्याय मनांत हो विचार केन्नाच्यान घोळटालो. पूण ज्युलियाक सांगप कशें? हो प्रस्न ताका फाटीं वोडटालों. तें आपलो संवसार, बाब हांकां सोडून वचूंक कशेंच तयार जावचेंना हें तो जाणा आसलो. म्हणून जिबेर आयिल्लीं उतरां तो फाटीं धुकळटालों.

आतां ज्युलियान सॅबीली खबर म्हणटकर जॉनीन रोखडेंच म्हळें, – "ज्युली, बाब कितें म्होण्टा तेचेर सारकें चीत. मुज्याय मोनांत जायतेपाटीं हो इचार येतालो. पूण बाबा पासोत.."

–"हांवय तेंच म्हुण्टां. जॉ बाब ल्हान आहा आजून तूं कामा वैतोलो आनी बाब घारा एकटो उत्तलो. दीस भोर फ्रेंडां वांगडा हेडत रावतोलो."

ह्या विशयाचेर जॉनान आनी ज्युलियान जायती आरती परती भासाभास केली.

ज्युलियाक भायर धाडपाची जॉनीकच चड उमेद आशिल्ली. ताणे ज्युलियाक तयार केलें.

जॉन आनी तें रोखडींच कामाक लागलीं. हांगाच्यान जायत्या लोकांक भायर व्हरुन कामाक लावपी मिंगेलीक तीं वचून मेळ्ळीं. आनी ताणी सगळें थारायलें. मिंगेलीची फी आनी भायर वचपाचे पयशे मेळून बरोच खर्च येतालो. तांचेकडेन तर कांयच नाशिल्लें. पूण तांच्या वाड्यावेले हेर सोयरीं-धायरीं भायर वचूंक पयशे उश्णे दिवंक रोखडींच तयार जातालीं. कारण पयशे तर परत मेळटालेच, पूण भेट वस्तूय मेळटाल्यो.

हें सगळें जमोवन हाडटासर स म्हयने मायजच लागले. दीस भुर्र करुन गेले.

वचपाचो दीस लागीं येतालो तसो ज्युलियाचो जीव वयर सकल जातालो. तें सॅबीक जायत्यो गजाली शिकयतालें. ताका परत परत वेंगां घेतालें. पोशेतालें.

सॅबीक हें मातय आवडनासलें. तो आवयचेर तिडकतालो. आवय भायर वता हें आयकून तो सामको खोशी जाल्लो. तो इश्टां म्हर्यांत वचून बडायो मारतालो. आवय आपल्याक कशे पयशे धाडटली, आपूण तार्चे किते - किते करतलों ह्योय गजाली सांगतालो.

ज्युलियाच्या कानार सॅबील्यो गजाली पावल्यो, तेन्ना ताका खूब वायट दिसलें. आपूण पयस वतां म्हणून ताचीं दुकां थांब नासलीं. तातूंत सॅबीच्यो गजाली आयकून ताचें काळीज चरचरतालें.

काळजार फातर दवरुन, दोळे पुसत - पुसत ज्युलिया आबुधाबीक गेलें.

एका अरबागेर ताका भुरग्यांक सांबाळपाचें काम म्हणून सांगून व्हेल्लें. पूण थंय मात ताक भुरग्यांक सांबाळपा बरोबर घरांतलीं सगळीं कामां करपाक लायतालीं. एक मात खाण जेवण कपडे सगळें व्यवस्थीत दितालीं. ज्युलियाक घरची खरायेन याद येताली, पूण तें काम करतना ती याद चिड्डून दवरतालें.

पयले स म्हयने ज्युलियाचे बरे भशेन गेले. ताणे अरब कश्यो आगळिको करतात तें हांगा येवचे पयलीं साकून आयकल्लें. आपल्याक बरें घर मेळ्ळां म्हणून तें मनांतल्यान खोशी आशिल्लें.

ताची ही खोस चड तेंप उल्ली ना. त्या दिसा घरांतलीं सगळीं भायर सरुन गेल्लीं. दोन दिसांनी येतली म्हणून मॅडम ताका सांगून गेल्ली. पूण रातींकडेन पात्रांव घरा आयलो.

त्या दिसाच्यान पात्रांव ज्युलियाचेर आगळीक करुंक लागलो. पयलेच रातीं ज्युलिया खूब खूब रडलें. ताका धांवून गोंयांत वचचेंशें दिसलें. पूण ताचो पासपोर्ट मॅडमीन दवरिल्लो. आनी ती इतले बेगीन दिवची नां हें ताका खबर आसली. कबलात करतनाच हें ताका सांगिल्लें. आपल्या मुखार आनी पर्याय ना हें कळटकच ताका चड त्रास जाले. हे भोगणार आतां आतरे पयऱ्यान वांट्याक येतले म्हणपाचें ताका कळ्ळें.

दुसरे दिसा ताणे थंडसाणीन विचार केलो. तांकां म्हयन्यांतल्यान एक फावट मिसाक वचूंक मेळटालें. तेन्ना थंय मेळिल्ल्यो बायलो आपल्या दुखाचो पाढो एकामेकाक सांगतालीं. तांचे भोगणार आयकून ज्युलियाक खूब वायट दिसतालें. इतले त्रास सोंसूनय त्यो बायलो आपल्या घरच्यांपासत सगळें मुकाट्यांनी सोंसताली. ज्युलियाक दिसलें त्या मानान आपलें दुख ल्हव कशें दिसलें.

पूण जॉनीक पत्रान सगळी गजाल कळयता सर आनी ताची जाप येतासर ताका सामके हुसहुशे लागले. आबुधाबीक वच्चे पयलीं ह्या विशयाचेर तीं उलयतालीं. तेन्ना जॉनीन ताका जायत्यो गजाली सांगिल्ल्यो. ताका धीर दिल्लो - "तूं दोर्यां उडी मारपा वोतना, जायते भोगणार भोगचे पोडटले. आतां काळीज घोट कर."

आतां जॉनीक पत्रान सगळें कळोवन तें हुस्क्यानच ताचे जापेची वाट पळयतालें. जॉनीन ताका रोखडेंच पत्र बरोवन धीर दिलो.

ज्युलियाक आबुधाबी येवन दोन वर्सां जालीं, पूण तीं ताका गोंयां वचूंक दिय नासलीं. पुताच्या आनी घोवाच्या यादीन तें सामकें आकूळ पिकूळ जातालें. पयशे, खाणां धाडून आपल्या मनांक सावरुन घेतालें.

तीन वर्सांनी सुमार तें गोंयांत आयलें. बाबाक मेळपाची ताका सामकी उमळशीक लागिल्ली.

सॅबी आतां बारा वर्सांचो जाल्लो. ताका शिकपाची व्हडलीशी आवड नाशिल्ली. आवय हांगा ना म्हणून जॉनी ताका चड मोगान वागयतालो. तो मागता तें हाडून दितालो. आनी "बाबा शीक रे, शीक रे" म्हणून ताचे फाटीकय लागतालो. शिकपाचो विशय काडल्यार, ट्युशनाक म्हणून मागल्यार बापूय जाय तशे पयशे दिता हें सॅबीक कळिल्लें. अशेतरेन पयशे व्हरुन तो ल्हान वयार लेगीत इश्टांक घेवन हॉटेलांनी वतालो. सिगारां फुस्कायतालो.

जॉनीच्या कानार ही गजाल पाविल्ली. ताणे तापयल्यार सॅबी व्हड नाटकां करतालो. बापायक रडून दाखयतालो. - "मुगे मामी हांगा ना म्हुणोन तूं लोक सांगता तें खोरें सोजमोता? मार, मार म्हाका, मामीन केन्ना थापटायलो ना माका." अशीं काळजाक हात घालपी उतरां उलोवन बापायक वोगी करतालो.

पयस आशिल्ल्या ज्युलियाक पुताचीं तवनासपणां सांगून रडवप ना अशें जॉनीन थारायल्लें. म्हणून तो ज्युलियाक कांयच सांग नास्तना आपले भितर सोंसतालो.

तीन वर्सांनी आयिल्ल्या ज्युलियाक पुतामदीं जाल्लो बदल कळटालो. ताणे जायते भाशेन सॅबीक समजावपाचो यत्न केलो. शिकपच मनशाक कशें तारता तेंय सांगलें. तेन्ना सट्ट करुन सॅबीन म्हळें, - "शिकप घेयन कोण व्होड जाला गे? आज दुडवां व्हालोर आहा तो कोणा ना. आनी बायलांच्यान तर दुडू येश्शे मेळोंव येताय. आरब बायलांचेर थोडे दुडू मोडटाय. तुका पागारा भायर इतू दुडू बेश्टो मेवता?"

-"आमी त्रास काडपाचे आनी तुज्या वोसल्या तोवनासाच्या होड्डयार घालपाचे." ताणो मनांतच कड्डून म्हळें.

बारा तेरा वर्सांच्या सॅबीचीं उतरां आयकून तें पयलींच न्हिनळिल्लें. आपली गजाल हाका कशी कळ्ळी हाचो ताका सामको हुस्को जालो. ...हायें भायर वोसोन चूक केली?.." ताच्या मनांत परत परत येऊ लागलें. तें जॉनीकडेन उलयलें. -"बाबा हें सोगळें केशें कोळ्ळें रे? हायें तिंगा वोचोन खोऱ्यांनीच चूक केली." तें बुळू बुळू करुन रडूं लागलें.

जॉनी भिलो, 'हें भायर वचना म्हणून बसल्यार कितें करप?" ताणे मनांतच म्हळें. ताकाय आतां ज्युलियाच्या आयत्या पयशांची

गोडी लागिल्ली.

ज्युलियान जॉनीकडेन बेठोच वाद केलो. पुताचो राग ताणे जॉनीचेर काडलो. जॉनी ताका फुसलायत रावलो. -''ज्युलां तुगे तें लेटर हायें रोखडेंच कुडके कुडके कोन पिंजून रात्रींत घायलें, पूण, तूं जाणा, जोगार सोगळ्यांक खोबोर आसा. हिंगसान बायलो वोयताय त्यो फोकोत आरबांगेल्या भायल्या कामाकूच न्होय, तेंच्यो आगळिकोय सोंसून घेतात. सॅबीन कोणाचेंय तोरी उलोवप आयकोलां जातलें. तें तूं आतां मोनां धोत्राका, तुका हायें पोयलीं सांगलोलें, तूं दोर्यां उडी मात्ता, मुखार येता ते भोगणार भोगुंकू जाये.''

तीन चार वर्सांनी परत ज्युलिया गोंयांत आयलें. हे खेपे तरी घरांत सगळें बरें आसल्यार पुरो'. मनांतल्या मनांत घोंकत तें आयिल्लें. पूण हे फावट जॉन लेगीत ताका बदलिल्लो दिसलो. ताचें पिवपय वाडिल्लें. सॅबी तर सामको हाताभायर गेल्लो. आवय इतल्या तेंपान आयल्या म्हणून एक आदेसभर घरांत राविल्लो तितलो. मागीर तो केन्ना घरा येता, केन्ना खंय वता कांयच सांगनासलो. ज्युलिया ताचे आवडीचीं बरीं-बरीं जेवणा-खाणां करतालें, पूण सॅबीक ताची गोडीच नाशिल्ली. कितेंय विचारल्यार केंच्चकेंच्च् करतालो. रातचो तर तो केन्ना घरांत येवन न्हिदता कांयच कळनासलें. दोन-दोन दीस घरांतय येय नासलो.

जॉनीकडेन हाची कांयच जाप नाशिल्ली. ज्युलियाक धक्को बसलो. एक दीस सकाळीं सेबिल्या कुडिंतल्यान एक चली भायर येवन स्कुटर घेवन वता तें ताणे पळयलें.

सॅबी उठतकर ज्युलियान ताका विचारलां मात, सॅबी चाळवलो. बुरश्या-बुरश्या उतरांनी ताका जाय-फाय उलयलो. तें थोडें म्हणून ताणे म्हळें,

-''तूं त्या आरबांगेली शेजे सांगातीण, म्हाका केसलीं शापोतां सांगोता?''

इतलें उलोवन च्या चो घोंट सुद्धां घेय नासतना तो भायर सरुन गेलो. ज्युलिया रांदचे कुडींत येवन कदेलार बसून खोळसा फुटून रडपाक लागलें. जॉन भितर आसलो, तो भायर आयलो ना. ज्युलियाक फुस लावपाक लेगीत आयलो ना. कपडे घालून 'येता गो' म्हणून सांगून भायर सरुन गेलो.

ज्युलियाक जॉनाचें चड वायट दिसलें. ''कितलो बदल्ला जॉन... हे दोगय जाण माका पोयशे दिवपा माक्न सोमजोताय.. हेंच्या संवसारांत म्हाका कांय व्हालोर ना..''

पयलेच खेपे तें आयिल्लें तेन्ना जॉनान लीव घाल्ली. ताका खंय खंय भोंवडावन हाडिल्लें. दोन म्हयन्याच्या सुटयेर तें आयिल्लें. जॉनान ताका सुटी वाडोवपाक लायिल्ली. हे खेपे पयले चार दीस जॉन घरा राविल्लो तितलो. मागीर लीव मेळना अशें निमित्त करुन भायर सरुन वतालो.

ज्युलियान थंयच्यान पयशे धाडपाक लागतकच सगळ्यांत पयलीं खोंप मोडून धाकटुलो बंगलो बांदपाक लायिल्लो. पयले खेपे तें आयिल्लें तेन्ना आपल्याक जाय तशें घर सजोवन गेल्लें. जायतीं स्वप्नां पळयल्लीं ताणे त्या घरा विशीं. आतां दुसरेच खेपे तें आयिल्लें. पूण मोयपास नाशिल्ल्या त्या घरांत ताका रावन दिसना जालें. आपले वचपाचे दीस तें मेजूंक लागलें.

आतां आनी बेगीन येवप ना अशें थारावनच तें भायर सरिल्लें.

ज्युलिया सदचेवरी पत्रां धाडटालें. जॉनाचीं पत्रां मात पयलींभशेन येय नासलीं. चार पत्रां धाडटकर एक जाप येताली. सॅबीक तें फोन करतालें. पूण आतां तोय फोन घेतल्यार घेतालो. पयशे धाड म्हणपाक मात ताचो फोन येतालो.

शेजारच्या मारियालो ताका एक दीस फोन आयलो. जॉनाक आरीचें जाल्लें. तो घरांतच आसतालो. शेजारची रोजालीन मांय येवन तांकां जेवण खाण करुन दिताली. कसलीं-कसलीं वखदां ती जॉनीक दिताली. तेलां बी हाडून लायताली. तरी ज्युलिया कशें आयलें ना, म्हणून अजापान मारियान ताका फोन केल्लो.

खबर आयकून ज्युलिया खूब रडलें. येदो व्हड कावज जावन आपल्याक घोवानय कळयलें ना आनी पुतानय कळयलें ना, हाचें ताका येवजून-येवजून वायट दिसतालें. ''म्हाका फोकोत दुडू दिवपा मिशीन सोजमोता हे?''

ज्युलियान मॅडमीक सगळी खबर सांगली आनी तें गोंयांत आयलें. आयले बरोबर आपल्याक कांयच कळोंव ना म्हणून जॉनीकडेन झगडलें आनी मागीर ताका वेंग मारुन हो हो करुन रडलें.

ज्युलिया घरांत येवन दोन दीस जाले तरी सॅबी घरांत येऊं नासलो. ताचो फोनय लाग नासलो. दोन दिसांनी पोलिसांचो फोन आयलो. ताका गांजा विकतना धरुन व्हेल्लो. हें आयकून ज्युलियाक पांया पोंदची जमीन निसरिल्लेवरी दिसलें.

आज आठ दीस जाले, जॉन आनी तें एकमेका असवडीं मोन्यानीं दुकां गळयतालीं.

संपर्क: 94420685278

***

*(पान २१ वयल्यान)*

मुकाट्यान खाली. कपडे करुन, सोनीन दिल्लो जेवणाचो डबो घेवन तो वचपाक भायर सरलो. सोनीन ताका दारांत पावतनाच थामयलो.

''सांजचो वेळार घरा येतलो काय येवपाक रात जातली? ना. हरशीच विचारतां. वेळार घरा आयलो तर हॉलांत म्हजें ट्यूशन चलता आसतना म्हाका बोवाळ सोंसना. आयलो तसो सरळ भीतर रुमांत वचपाचें. किचनांत मेजार थर्मासांत च्या आसतली. ती कोपांत घेवन पिवपाची. थर्मास सारको बंद करुन दवरपाचो.''

''तुजो शेर्माव सोंपला जाल्यार हांव कामाक वता.''

''सोंपला. पूण शेर्माव सारकोच याद दवरपाचो.''

तो तिडकीनच भायर सरलो.

सांजचो तो आयलो तेन्ना धा बारा भुरग्यां हॉलांत जाजमाचेर बशिल्लीं.. सोनी तांकां शिकयता तीं मन लावन आयकतालीं. चंदू एका कुशीन बसून खेळतालो.

घोव भीतर सरतनाच सोनीन ताचेर नदर मारली. पिवन येवंक ना. वेळार आयला. केन्ना न्ही तें बूट काडून जोत्यांच्या स्टॅंडार दवरल्या आनी...

भीतर वतना चंदूच्या पोल्याक हात लावन ताच्या हातांत चण्याची पुडी दवरल्या.!!

सोनीच्या तोणार हांसो फुलला.

संपर्क: 9545020101

***



# ख्यास्त

**नयना आडारकार**

"**जा**वं, देवाची व्हडली कृपा, एक दोळो तरी वांचलो.''

हांव घडये साबुदीर आयिल्लें म्हणून तीं उतरां कानार पडली. सामकी लागीच्यान. कोण उलयतालो काय? पापाचो आवाज न्हय, माँचो न्हयच न्हय आनी तनूचो तर न्हयच. मागीर कोणाचो काय? कशें कळटलें? हांव तर हांगा दोळे धांपून पडलां. कितें म्हणटालो तो?? एक दोळो तरी... म्हणल्यार... बाकीचें सगळें... चिंतुनूच आंगभर शिरशिरी उठली. अशें कितें रकयिल्लें काय तोंडार? एसीड, हय एसिडूच आसूंक जाय. म्हणून तर इतलो हुलोप... सामको कातरीत गेल्लेवरी आनी तो एक दोळो तरी कित्याक वांचयलो देवान? हें विद्रूप तोंड पळोवपाक? अशें म्हाका व्हडल्यान आडून सांगीनशें दिसलें. पूण ताळो? तो तरी आसा काय? ताळ्यांतल्यान तो हुलोप सकयल देंवतना जाणवल्लो म्हाका, म्हज्या तोंडांतल्यान येंवपी किंळाच लेगीत गिळून उडयिल्ली त्या हुलोपान आनी तोंड? तें तरी खंय उरतलें? एसीड एटॅकांतल्यान गेल्ले अशे कितलेशेच चेरे म्हज्या चिंतनांत येवन म्हाका चिनारिल्लेवरी जालें.

''दोतोर...दोतोर...'' धांवत्या पावलांचो आवाज आनी परत सगळें शांत... शांत... कितलो वेळ उरलें तशें खबर ना.

पूण कोणाच्या तरी आवाजान म्हाका परती जाग आयली.

''पेशंट कसो आसा? म्हाका जबानी घेवपाक मेळटली?'' कोणेंतरी म्हणलें.

''ना, ना. तें आजुनूय कोमांतूच आसा. क्रिटिकल कंडिशन. व्ही आर ट्राईंग पूण पेशंट रिस्पॉण्ड करिना.'' आनीक एक आवाज आयलो.

तो सेर्त पुलीस इन्स्पेक्टर आनी हो आवाज दोतोराचो आसतलो. खऱ्यानीच दोतोर सांगता तशें हांव कोमांत आसा? पूण म्हाका सगळें आयकूंक येता आनी एकफावट हांव कोमांतल्यान भायर आयलें म्हणजे, म्हाका तो पुलीस विचारतलोच, 'हें कशें जालें? कोणें केलें?' कशें सांगतलें हांव? कशें सांगतलें, जाचेर म्हज्या जिवापरस मोग केलो ताणें म्हणून? ना, ना. म्हज्यान हें सांगूंक जावचें ना. ते परस हांव कोमांत आसपूच बरें जातलें. खरें म्हणल्यार म्हाका जगपाचेंच ना. मोगा वयलो, मनशा वयलो विस्वासूच उडला म्हजो आनी विकृत जाल्लें हें मुखामळ घेवन लोकांच्यो तिरस्काराच्यो नदरो सोंशीत जगपाक जावचें ना म्हाका.

कसलें नशीब म्हजें. पार्दिकी फुलांचो पोसो कशी म्हजी जीण खिणभरयांत, विखयाळ्या छिन्न-विछिन्न मांसां कुडक्यांनी भरली. त्या जळिल्ल्या मांसां वासान म्हाका घुस्मटूंक जालें. तशी परत दोतोर, नर्शींची धांवपळ कानार पडली.

परती म्हज्या हड्ड्याची टिकटीक म्हज्या कानार पडली. म्हणजे, आजुनूय आसा तर हांव. नकळटां म्हाका ते तिनसांजेचो तो तो खीण याद जालो. दोंगुल्ले वयलें तें एकसुरें झाड. तिनसांजेक चुमूक येवपी काळखाचे ओंठ. म्हाका खरें म्हणल्यार ह्या वातावरणाची सामकी धडकीच भरिल्ली. पूण ताणें म्हाका आपयिल्लें म्हणून हांव ऑफिस सुट्टकच हांगा आयिल्लें. आयिल्लें म्हज्या पांयांनी आनी परतें गेलें? कशें गेलें काय परतें? ताणेंच व्हेलें? काय आनीक कोणी? ना, ना. म्हाका तें कांयच याद करपाचें ना. ती याद जाल्यारूच म्हज्या आंगाक थरथरो येता. हड्डें धडधडूंक लागता. दोतोर...बोवाळ परत थंड जायत गेलो.

मेलें काय हांव??? घडये आसतूय. बरें जालें. सुटलें एकदांचें. पूण हें कितें परते आवाजाचे पाखे काना कडेन भिरभिरूंक लागले. दोतोरांची डिस्कशनां. नर्शींक दिल्लें आदेश.

''मातशें साबुदीर येवपाक जाय आसलें. एकफावट रिस्पॉण्ड करपाक जाय, जाल्यारूच तोंडाचेर ऑपरेशनां करूंक मेळटली. ताळो सगळो गेला. पूण हातूंतल्यान हो एक दोळो कसो वाटावलो तेंच कळना. दैवी चमत्कारसो.'' घडये दोतोर उलयतालो.

'जाणां, जाणां हांव, एक दोळो वाटावला तो. पूण सगळें शेणोवन कर्मदळिद्रो आपूण वांचलो. म्हजी विटंबणा पळोवपाक. ना ना म्हाका उक्तो करपाचो ना तो दोळो. आतां मेरेन खूब पळयलें. आतां कितें पळोवपाची, जियेवपाची इत्साच ना. ह्या इतल्या विचारांनी लेगीत जीव थकिल्लेवरी जालो. परतें खोल खोल देंगणांत कोसळटा अशें दिसलें.

''थंय इतली गर्दी कित्याक? तांकां थंय बांकार बसून वाट पळोवपाक सांग'' दोतोराचो आवाज घुमलो. म्हणल्यार म्हाका पळोवपाक कोणतरी आयिल्लो. कोण काय?? मागीर एकल्यानूय आवाज कसो केलो ना? काय पयशिल्यान पळयतालीं तीं? सिनेमांत दाराभायल्यान उबें रावून दाराच्या हारशांतल्यान पेशंटाक पळोवपी लोक याद जाले. तशींच पळयता आसतलीं सगळीं म्हाका. सगळीं म्हणल्यार कोण? पापा? माँ? काय म्हजे हे आवतिकायेक जापसालदार आशिल्ली व्यक्ती? कबूल करूंक नासतलो आपलो गुन्यांव ते व्यक्तीन. म्हणून तर पुलीस जबानी घेवपाक येता. म्हाकाय सांगपाचें ना. कांयच कांयच सांगपाचें ना. म्हाका जगपाचेंच ना. उगडूं दोळो ल्हवूच. नाका नाका. आतां कित्यातूंच मन गुंतोवप ना. ते परस मरणाची वाट पळोवप...

तांकां कितें दिसता आसतलें म्हजो चेरो पळोवन, तरीय मनांत विचार आयलोच. तो तसोच उक्तोच दवरला? काय बॅण्डेजींत धांपला? म्हज्या दोळ्यां मुखार म्हजो बॅण्डेजींत धांपिल्लो चेरो आयलो. माँचें रूप घेवन आयिल्लो तो सुंदर चेरो. ताच्यो भोयो भोयो जाल्या आसतल्यो. म्हाका अचकीत भुरगेपणांतलो तो दीस याद जालो. म्हज्या हातांत बरी तांबड्याच कोराची मेणवात आशिल्ली. ती पेटोवंक वतना झुप्प सकयल जळटल्या उज्यांत पडली. पापा तिका उज्यांतल्यान भायर काडटा म्हणसर ती सामकी वितळून कांयचे कांय जाल्ली. ना रूप, ना आकार. फकत कडयिल्लें मेण. ती याद जावन हांवें आंग काडलें. म्हणजे त्या बॅण्डेजा पोंदचें म्हजें तोंडूय अशेंच आकाराविणें... विचित्र. त्या दिसा तो अख्ख्या तोंडाक कातरीत वचपी हुलोप, आपल्या मुखार जें जें आयलें तें स्वाहा करीत गेलो आसतलो, ना नपयत करून गेलो आसतलो. म्हज्या चेऱ्याचेर नाक, तोंड, कान, बी सगळें आशिल्लें हाच्यो कुरवो तरी उरल्या आसतल्यो काय? काय स्वास घेवपा खातीर, आयकुपा खातीर, खावपा खातीर थंय फकत बुराकूच उरल्या आसतले? काय दोतोरांक तशीं इंद्रिया निर्माण करपा खातीर प्लास्टीक सर्जरींतली आपली कुशळटाय पणाक लावची पडटली? ह्या सगल्यांतल्यान वांटावलो तो एक दोळो. पूण, तो तरी परिपुर्ण आसतलो काय? काय तोवूय बी अर्दकुटो ?त्या दोळ्यान म्हाका पळोवपाचें नासलें म्हजें तें सगळें नाच्च जाल्लें तोंड आनी ताकाय ख्यास्त दिवपाची नासली म्हाका. हांवें भोगलें, हांव मेलें, बस्स. ताणें आपलें आयुश्य बरें जगचें...

... 'तुझे सूरज कहूँ या चंदा
तुझे दीप कहूँ या तारा'

अरे, पापाचो आवाज! खंयच्यान येता काय? दिसलो... तो पळय पापा. म्हाका मांडयेर घेवन आणक्यो माणक्यो करता आनी धोलयता धोलयता म्हणटा तें पद. हें पळय, तनूय आयलें, ''पापा आनी हांव,'' तनून

म्हणलें, तशें ताका लागीं ओडीत पापा कितेंतरी म्हणपाक वतालो, इतल्यांत माँन म्हणलें, "तूं अंधियारा, पापा भशेन." तनू खोशी जालें. माँन ताका पापा भशेन म्हणिल्लें. म्हाका म्हणूंक नाशिल्लें म्हणून म्हजें तोंड पडलें. पूण पापाचेंय तोंड कित्याक पडलें तें म्हाका कळ्ळें ना. पापान म्हाका पांयां वयलें देवोवन तनूक वेंगेंत घेतलें तेन्ना म्हाका पापाचो राग आयलो. पूण पापाच्या दोळ्यांतलीं दुकां पळोवन हांव घुस्पलें. पापा रडटा, कित्याक काय?

कळ्ळें म्हाका आनी म्हजेपरस पयलीं तनूकय, अंधियारा उतराचो आनी पापाच्या दोळ्यांत लिकलिकपी दुकांचो अर्थ. माँ गोरीगोमटी, बावली कशी, ज्युस्त म्हजेवरी आनी पप्पा काळोकिट्ट, तनूवरी, म्हणून माँ ताका अंधियारा म्हणटाली. काळो आनी गोरो, पूण निमाणो मनीसूच न्हय? म्हज्या सारक्या ल्हान भुरग्याकूय कळटालें तें माँक कित्याक कळनासलें काय? तनूय तिच्या पोटचेंच पोर. मागीर तनूच्या काळजाची नाळ कशी जुळ्ळीना तिच्या काळजाक? माँन तनूक रागान अंधियारा म्हणटकच ताचें मुखामळ सामकें बावतालें. ताच्या चेऱ्यार उदेल्ली वेदना पळोवन म्हजो जीव चिटमिट्टालो. हांव सामकें आकुळपिकूळ जातालें. ताका तिडावपाक माँक कसली खोस भोगताली कळनासलें. म्हाका जाल्यार माँचो रागूच येतालो.

आपले अपुरबायेचे धुवेक घरांतूच दवरपा खातीर घरजांवय म्हणून पापाक स्विकारिल्लो माँच्या बापायन. तो जितो आससर जीं उतरां पापाक दितालो, त्या उतरांचें दायज मुखार व्हरपाचें काम माँन बेस बरें केलें. चार-चौगांत लेगीत तुसडेपण आनी त्रोसां मारपी माँ आनी मागीर जाल्लें पापाचें तोंड. हांव मागीर दर खेपे पापाची ढाल जावपाक लागलें. पापा आनी तनू वयलो म्हजो मोग वाडटा तशेंतशें माँ कडेन म्हजो छत्तिसावो आंकडो जायत गेलो.

तनू वाडटालें तशें तशें माँन ताका तिडावपाचें बंद तरी करपाचें. वयल्यान तिच्या तिडावपांत आतां त्रोसांचो वास मारपाक लागलो. पयलीं पयलीं रागार फुगार जावपी तनू मागीर मोने मोने जायत वता अशें म्हाका जाणवपाक लागलें. तेन्ना मनांतल्या मनांत हांवें एक निश्चेव केलो. हांव बदलतलें तनूक. ताका हांसयतलें. ताचे मर्दीं आशिल्ल्या गुणांची ताका वळख करून दितलें. हांव जातलें ताची माँ. ताचें सांगातीण. रंग-रूप म्हणल्यारूच सगलें न्हय. चड गरजेचें तें मनशाचें आंतरीक सौंदर्य हें हांवें ताका पटोवन दिलें. तनू फुलत गेलें. शिकपाक हुशार आशिल्ल्या तनून फार्मासींत पोस्ट ग्रॅज्युएशन केलें आनी नोकरी सोदपाक लागलें.

आतां तनू आनी हांव भयणीं म्हणचे परस इश्टिणी म्हणून चड लागीं आयिल्ल्यो. म्हणून तर तनून म्हाका आपल्या गुपिताचें भागिदार केल्लें. ब्रिजेशा विशीं सगळ्यो गजाली सांगून. त्या दिसा खंवटे फार्मास्युटिकल्सांत गेल्लें तें मुलाखत दिवपाक. तेन्ना कंपनीचो मालक ब्रिजेश खंवटो थंय बशिल्लो. हॅण्डसम राजकुंवर कसो. तनूच्या मनांत मालक ह्या प्राण्या विशीं वेगळेंच चित्र आशिल्लें. तो ताच्या सामको विपरीत आशिल्लो. ताका प्रस्न विचारतना ताचें तें तनूक दोळे विस्फारून पळोवप, ताकाय जायजायशें दिशिल्लें. सिलेक्ट जाल्यार पुरो म्हणून देवा कडेन मागीत घरा आयिल्लें तेन्नाच ताणें त्या हॅण्डसमाची गजाल म्हजे कडेन शॅअर केल्ली. देवान आयकलें, काय ताका मानवल्लें म्हणून नकळं तनूक सिलेक्ट केलां म्हणून कंपनींतल्यान फोन आयलो आनी तनूपरसूय हांव चड खोशी जालें. "अं... सांबाळून. मोगांत बी पडशी आनी नवो मनीस मेळटकच म्हाका विसरशी" हांवें हांसत हांसत म्हणिल्लें.

'नाच विसरचें!' म्हणून तनून म्हाका वेंग मारिल्ली. खरेंच, ब्रिजेश मेळटकच तनू म्हाका विसरलें ना, वयल्यान तें आतां चड लागीं आयिल्लें. ब्रिजेश आनी ताजे नदरेचो खेळ, मागीर उलोवपा मेरेन प्रगती, कॉफी पियेवपाक दिल्लें आमंत्रण... हें सगलें म्हज्या कानार केन्ना घालता काय अशें तनूक जातालें आनी हांवूय सामकें उमेदीन ताच्यो गजाली आयकतालें. केन्ना केन्ना ओगीच शिटकायतालें, "तनू. तुमचो मोग दिशींदिशीं असोच फुलूं. पापा समजतलो. म्हाका भंय दिसता तो माँचो. ब्रिजेश गिरेस्त गो, पूण माँ हरशींच म्हणून तुजेर फडफडटा. ती आडमेळे, बी हाडीत म्हणून भंय दिसता," म्हजीं उतरां आयकून तें निरशेतालें पूण रोखडोच म्हजो हात दामीत तें म्हणटालें, "तूं सदांच म्हजे फाटल्यान रावलां. आतांय रावतलें म्हणून जाणां."

एका दिसा जाल्यार तें सामकें हवेंत तरंगत म्हणटा तशें घरा पाविल्लें. म्हजे नदरेंतल्यान ती गजाल सुटली ना. केन्ना एकदां तनू एकलें कुडींत मेळटाशें जाल्लें म्हाका. म्हाका ब्रिजेशाची खबर सांगतना ताच्या शिरंतरांनी रगत सळसळूंक लागलां कशें दिसतालें. त्या दिसा सांजवेळार ताणें ताका आपल्या बरोबर पासयेक व्हेल्लें. दोंगुल्ले वयल्या त्या एकसुऱ्या झाडा पोंदा ताणें ताका प्रोपोज केल्लें. सामकें सिनेमाचे स्टायलींत. मागीर ताणें उठून ताका वेंगेंत घेतिल्लें तो खीण... तें तनरेन उलयतालें आनी हांव दोळे बंद करून आयकतालें. अचकीत म्हज्या मुखामळार ताचें लक्ष गेलें. ताका कितें दिसलें खबर ना. ताणें "दिदी!" म्हणून म्हाका हालयलें, तशे हांवें आंग काडलें. तनूच्या दोळ्यांत वेगळेंच कितेंतरी झळकल्लेवरी दिसलें म्हाका. तिडक, दुबाव काय... खीणभर हांव ओगीच रावलें. मागीर हांसत म्हणलें, "थांबलें कित्याक गो? हांव दोळे बंद करून काय बरें पिक्चर पळयतालें. तूं हिरोईन आनी ब्रिजेश हिरो." तें आयकून तनू खळखळून हांसलें. ताचें तें निरागस मुखामळ पळोवन म्हाका ताचे विशीं दिशिल्ल्या दुबावाची लज दिसली.

ब्रिजेशाक तें निमाणें मेळिल्लें ताच्या आदल्या कांय दिसां पयलींचो तो दीस म्हाका याद जालो. त्या दिसा हांव तनूचे कंपनी कडल्यानूच वतालें. ताका सरप्रायज दिवया अशें येवजून ताच्या ऑफिसांत वतलें म्हणून स्कुटरी वयल्यान सकयल देवून लिफ्टींत भितर सरतनाच तो दिसलो. तनूचो ब्रिजेश! हय, ब्रिजेशूच आसूंक जाय. ज्युस्त ताणें वर्णन केल्लो हॅण्डसम.

ताणेंच हडकिलें पयलीं म्हाका. हांवें म्हणलें, "हांव तनूक मेळूंक आयलां."

"ओह, तुमी कोण तांची?" ताणें विचारलें. म्हणल्यार तनून हाका म्हजे विशीं कांयच सांगूंक ना तर. "हांव भयण ताची." हांवें म्हणलें.

"ओह वेलकम, पूण आयज सगलो स्टाफ आमच्या दुसऱ्या ऑफिसांत गेला. थंय फाल्यां एक फंक्शन आसा ताची तयारी करपाक. हांवूय आतां रोखडोंच थंय वचपाचों आसा. तुमी येयात म्हजे बरोबर." ताणें म्हाका सांगलें.

"ना, ना. हांव हरशींच आयिल्लें. म्हाका परतें म्हज्या ऑफिसांत वचूंक जाय." म्हणून हांवें थंयच्यान कूस मारली.

म्हाका तनूचो रागूच आयिल्लो. ताच्यो सगल्यो गजाली सांगता म्हाका आनी म्हजे विशीं मात ताका कांयच सांगलें ना. वाटभर त्याच रागान धुमसतालें हांव. पूण मागीर विचार केलो, कशें सांगतलें तें. पयलीं सारकें जुळून तर येवंदी, मागीर म्हजे कडेनूच तर हाडपाचें आसा उलोवणी करपाक. मागीर घेता ताची खबर.

ते रातीं हांव ताका ही गजाल विचारपाचें आसलें, ताचे पयलींच ताणें फंक्शनाची तयारी करतना ब्रिजेशान सगल्यां मुखार आपूण ताचें फियान्सी म्हणून कशें सांगले, आपूण कशें लजलें हाचे विशीं सामकें लक्तुबायेन सांगलें. तें खूब उमेदी दिसतालें. हांवें कितेंय विचारल्यार ताचो मूड ऑफ जावपाचो म्हणून हांवूय ओगी रावलें. ब्रिजेशानूय म्हणिल्लें न्हय, फंक्शन म्हणून. थंय हांचे मर्दीं घडिल्ली ती रोमेन्टीक गजाल आयकून हांवूय भुलुसलें. "ओ, हाव रोमॅन्टीक!!"म्हणून हांवें तनूक फुसलायलें लेगीत.

"दिदी, फाल्यां म्हजो खास दीस." तनून दोन दिसां आदीं म्हाका सांगलें. "कितें गो अं.. अ..." हांवें ताची फिरकी घेतली. "ना गो. फाल्यां तो म्हाका कितें सांगपाचो आसा. खास कितेंतरी. घडये घरा येवपाक सोदता

म्हजे खातीर.'' ताच्या पोल्यार लज शिंपडली. दोगांयची कितेंतरी खास कार्यावळ आसतली अशी ताची खोशी पळोवन दिसतालें. ताचें हांसतें मुखामळ पळोवन हांवूय खोशी जालें. त्या दिसा हांवेंच तनू खातीर साडी वेंचून काडली. ताची हॅअरस्टायलूय केली. माँन भायर सरतना विचारलेंच, ''काम, बी ना दिसता आयज. इतलें नटून थटून वता तें.'' तिका कांयच सांगूं नाका म्हणून हांवें तनूक कुरू केली. तशें ''आयज ऑफिसांत कोणाचें बर्थ डे सेलेब्रेशन आसा म्हणून सांग गो तिका.'' अशें म्हणून तें भायर सरून गेलें.

त्या दिसा सांजवेळार हांव घरा पावलें तरीय तनू घरा पावूंक नाशिल्लें. घडये माँ हांव एकलेंच येवचें म्हणून वाट पळयताली. हांव पावतकच ती बेगिबेगीन म्हजेसरी आयली. ''बाय, तुजे कडेन कितें उलोवंक जाय.'' तिणें म्हणलें.

'कितें उलोवंक सोदता काय? तनूची खबर पडली काय तिच्या कानार?ऽ हांव मातशें शिटूक जालें.

म्हजे कुशीक बसत तिणें म्हज्या तोंडा वयल्यान लक्तुबायेन हात भोंवडायलो. 'सुर्या आयज पश्चिमेक उदेल्लो आसूंक जाय' हांवें मनांत म्हणलें.

''बाय, तूं ना म्हणूं नाका आं. तुका एक सोयरीक आयल्या. तुजे भशेन देखणो आनी खूब गिरेस्त. राणी जावन जियेतलें थंय. कसलेंच काम करपाची गरज पडची ना.'' तिणें म्हणलें तसो जीव सूऽऽ जालो.

म्हणजे तिच्या कानार तनूची गजाल पडूंक ना तर. जावं. ''म्हाका इतले बेगीन लग्न करपाचें ना. लग्न करता जाल्यार हांव आनी तनू, दोगांयचें वांगडाच करपाचें.'' हांवें म्हणलें तशी ती चाळवली. ''मागीर बस, त्या अंधियारा भशेन काळखांत. पिराय वाडत वतली तुजी ताचें लग्न जाता म्हणसर.''

हांव मोन्यांनी भितर गेलें. तशी ती चडूच पिरपिरपाक लागली. ते सांजेर मातशें उसरांच परतलें तनू आनी ज्युस्त माँच्या हाताक सांपडलें. माँच्या अपमानींत करपी उतरांनी बाविल्लें तोंड घेवन तें कुडींत भितर सरलें. सामकें गळून गेल्ल्या गुलमोहरावरी आवतिकाय जाल्ली ताची. ताची ती दुख्खी नुरा म्हज्यान पळोवं नजं जाली. हांव माँचेर सामकें तुटून पडलें. माँ आयज सामकी राक्षीण कशी जाल्ली. तनूचेर उलयता उलयता म्हजेर निसरली. ''माज आसा तुका तुज्या रुपाचो पळय तोच निवळायतां हांव. ताचे भशेन तोंड करून उडयतलें तुजें. इतलो मोग करतां हांव तुजेर पूण तूं मात बापूय आनी त्या चुतडाच्या फाटल्यान उबें. म्हाका मातूय किमंत दिना. तुका दाखयतांच हांव.'' तिचीं उतरां आयकत पापा असहाय्यसो थंय उबो आसलो.

तिच्यो असल्यो जायत्यो पोक्यो धमक्यो आयकुपाची म्हाका संवय आसली. ती भितरल्यान म्हजेर सामको मोग करतां म्हणून हांव जाणां आसलें. तशें हांवूय तिजेर मोग करतालेंच. पूण पापा आनी तनूचो पाखो घेवपाक वतना मात तिका उतरांनी खूब दुखयतालें. मागीर, ती वागतालीच तशी! ती मातशी थंड जाली तशें हांव कुडींत गेलें. म्हाका तनूची आयची खबर आयकुपाची आसली. पूण तनूक पळोवन म्हजे काळीज चर्र जालें. आपल्या आंगा वयले कपडे बदलून फ्रेश जाल्याबगर खाटीचेर बसपी न्हय तें न्हेशिल्ल्या कपड्यांनी तशेंच खाटीर आड पडिल्लें. ''तनू, कितें जालें? तूं माँची गजाल मनाक लावन घेवं नाका.'' म्हणीत हांव खाटीर ताचे कुशीक बसलें आनी अजापलें. तनू सुस्त न्हिदिल्लेवरी दिसतालें. ''तनू, तनू...'' हांवें उलो मारलो. ''न्हीद येता दिदी,'' तें पिरंगलें. ''ए, सांग मगो कितें जालें? कसलें सरप्रायज दिलें ब्रिजेशान तुका?'' आयकुपाचे उमळशिकेन हांवें ताका हालयलें. तशें झुप्प करून ताणें म्हजे कडेन पळयलें. दुकांनी भरिल्ले ताचे दोळे... तेवूय परस त्या दुकांनी वेगळेंच कितेंतरी आसा हें म्हाका होलमलें. पूण तें कितें तें म्हज्या लक्षांत आयलें ना. ''तनू,'' हांवें परतें म्हणलें तशें ताणें म्हणलें, ''पुरो जालां दिदी. फाल्यां सांगतां. ब्रिजेशान मागणी घाल्या खंय.'' अस्पश्ट उतरां कानार पडलीं तेन्ना तें खरेंच थकलां म्हणपाचें जाणवलें. जावं फाल्यां सांगतलें म्हणीत हांवूय हांतरुणार पडलें.

पूण ब्रिजेशान मागणी घाल्या खंय, म्हणजे? तनूक सांगले बगर मागणी घाली ताणें? कोणाकडेन? म्हाका माँची येदोळची, म्हाका सोयरीक आयल्या म्हणपाची गजाल याद जाली. माँ म्हणूनूच एक! सामकी पिशीच! ब्रिजेशान तनूक घातिल्ली मागणी आनी ही पिशी ती म्हाका म्हणून समजली काय? तेवूय परिस्थितीत म्हाका हांसूंक आयलें. फाल्या समजावया माँक. फोडुया तिच्या भ्रमाचो बोमाडो. माँ करतलीच बोवाळ. पूण हांव रावतलें तनूचे फाटल्यान आनी पापाकूय घेतलें वांगडा. म्हजे भशेन तोवूय करता ताचेर मोग. विचाराचे तनरेंत हांव केन्ना न्हिदलें कळ्ळेंच ना. दुसऱ्या दिसा मातशी उसरांच जाग आयली. हांव उठलें तेन्ना तनू जाग्यार नाशिल्लें. 'उठलें दिसता हें पयलींच.' तें वॉशरुमांत आसतलें म्हणून हांव तशेंच खाटीर बसून रावलें. पूण बरोच वेळ जालो, तें भायर आयलें ना म्हणून वॉशरुमासरी वचून दार धुकल्लें, पळयल्यार भितर कोण नाशिल्लो. 'आब्बा! बरेंच बेगीन उठलां आसतलें,' म्हणीत हांव तोंड धुवपाक गेलें.

न्हावन-धुवन हांव भायर येता जाल्यार, थंयूय तनू ना. पापा, तनू खंय? हांवें विचारलें.

''आयज धांवलें कुल्याक पांय लावन तुगेली अप्सरा! च्याचो घोट लेगीत पिवंक ना.'' माँन कुसडेपणान म्हणलें.

'कितें जालें काय तनूचें? माँचीं उतरां खूब मनाक लावन घेतल्यां आसतलीं. माँन म्हणून काल अतीच केलें. म्हजे वयलो सगलो राग ताचेर काडलो. मागीर फोन करचो पडटलो आनी फुसलावचें पडटलें.' हांवें बेगिबेगीन नाश्तो केलो आनी पर्स खांदाक लावन वळ्ळां मात, पर्शीच्या भायल्या खणांत एक चीट दिसली. रागार-फुगार जातकच चीट दिवन सांजवेळार आपल्याक मेळून हांवें समजूत काडची ही ताची संवय तशीच आसली. भाबडें म्हजें तनू. ही माँ ओगीच जळटा ताचेर. माँचेर एक जळजळीत नदर घालून हांव घरांतल्यान भायर सरलें.

तनूक मनोवपाक सदांच प्रायेर वचपाची रीत आसली. आयजुय वच्चें पडटलें. म्हणून नदर घालपाक ताची चीट उगडली, ''दिदी, आमच्या ऑफिसा फाटले दोंगुल्लेर यो स वरांचेर. तुका रावतां. खूब गरजेचें कितें सांगूंक जाय.''

इतले पयस? सगलें सोडून ते दोंगुल्लेचेर?? ताका फोन करूंक सोदतालें पूण तो विचार कडेक काडलो. ते दोंगुल्लेचेर ब्रिजेशान ताका प्रोपोज केल्लें. घडये आतांय तो थंय येतलो आसुए ताच्या वांगडा. ऑफीस सुट्टकच हांव उमळशिकेन ताच्या ऑफिसा फाटल्या रस्त्याचेर वळ्ळें. आख्खो रस्तो जितो मूस नासलो. म्हाका एकटें चलतना ओगीच भिरांत दिसली. दोंगुल्ले कडेन पावतकच हांवें वयर पळयलें. तिनसांजच्या काळखांत तें वयलें एकलें एकसुरें झाड भिरांकूळ दिसतालें. त्या झाडा सकयल एक अस्पश्टशी सावळी दिसली. तनू म्हजे पयलींच पावलें तर! घडये ब्रिजेशूय आसतलो वांगडा. पूण दोळ्यांक मात दुसरी सावळी झळकली ना.

कितें सांगपाक सोदता हाचो विचार करीत हांव दोंगुल्ली चडून आयलें. त्या झाडा पोंदा आनीक कोण नासलो. ''ब्रिजेश येवंक ना?'' हांवें विचारलें. ''कित्याक? तुका जाय आसलो?'' ताच्या आवाजाक एकतेरेची धार आसली. ते धारेनूच म्हाका शेळो घाम सुटलो. ''कितें सांगपाक जाय? बेगीन सांग,'' हांवें म्हणलें.

''दिदी, तू म्हजेर कितलो मोग करता?'' अचकीत तनून विचारलें. खीणभर कितें जाप दिवची हें म्हाका समजलें ना. पूण हांवें म्हजे म्हाकाच सांवरलें. ''खूब. त्या मोगाक शीम-मेर ना.'' हांवें म्हणलें. तशें तिडकीन तनून म्हणलें,

''शीम- मेर तुका ना जायत. पूण, म्हाका मात तुवें, तुज्या ह्या रंग-रुपान म्हजेच शीम-मेरेंत आडावन दवरलें. भायरूच येवंक पावलें ना हांव ते शिमेच्या. ते शिमे भायर सगलो तुजोच वाठार.'' तनू रडटालें.

हांव सामकें घुस्पलें. तनू किंतें उलयता ताचो बोध म्हाका जायनासलो. ''तनू किंतें जालें? कोणें किंतें म्हणलें तुका? म्हाका सांग, हांव पळोवन घेता ताका.''

''नाका, तुवें पळयलें तितलेंच पुरो जालें. भुरगेपणासावन म्हजी ढाल जावपाचें नाटक करीत आयलां तूं. पूण तुजे ते दयेच्या कॉणांत म्हजें काळीज कशें मुंगरत वतालें तें तुका कशें दिसतलें? तूं सुंदर- हांव कुरूप, तूं तारा- हांव अंधियारा. घरांत- सोयऱ्यां मदीं, शाळेंतल्यो इश्टिणी- शिक्षकां मदीं, सगल्याक सगल्याक तुजीच तोखणाय. खरें सांगूं. तूं म्हजे खातीर झगडटालें आनी लोकां कडल्यान शाबासकीय तुकाच. म्हाका मोलूच नासलें तुजे मुखार.''

तनू उलयतालें तसो एक-एक धक्को बसतालो म्हाका. ''तनू, पळय तुजो गैरसमज जाला...'' हांव आनीक मुखार उलोवंक वतालें तशें तें व्हडल्यान आड्डलें, ''चूप!! एक उतर नाका म्हाका तुजें. आयज हांव किंतें उलयता तें आयक तूं.'' ताचें अशी आरड आयकून सामकें गळसणून हांवें त्या झाडाच्या मुळांतूच बसकण मारली.

''हांवें ब्रिजेशाक पळयलें तेन्नाच ताच्या मोगांत पडलें. ताणें केन्ना भाव दिलोच ना, तरीय ताची सपनां रंगयत रावलें. ताचो मोग, ताचो स्पर्श, ताचें हांसप, ताचें उलोवप... केन्ना ना केन्ना ताका म्हजो करतलेंच असो हावेस बाळगिल्लो हांवें आनी...'' तनू रडपाक लागलें... त्या दिसा, त्या दिसा ब्रिजेशान म्हणलें म्हाका, ''तनू, फाल्यां तुजे कडेन किंतें उलोवपाक जाय! खाशेलें उलोवप!!'' रडटा रडटा तनू हांसपाक लागलें.

''पिशें!!! म्हाका दिसलें, म्हजे यत्न फळाक आयले. ब्रिजेशाक हांवूय आवडपाक लागलां. तो म्हाका आतां उतर घालतलो. कितले उमेदीन गेल्लें हांव. पूण... पूण थंयूय तूच मदीं आयलें म्हज्या मोगाच्या. कित्याक आयिल्लें तूं म्हज्या ऑफिसांत? बिबो झरयलो तुवें म्हज्या सपनांचेर. लासयलीं सगळीं सपना.'' व्हडल्यान हांसत, ''हाय रे, म्हजें नशीब तरी पळयात. ब्रिजेशाकूय ताराच जाय आसलो...'' रडत... ''अंधियारा न्हय, अंधियारा न्हय...'' म्हाका फाट करून तनू व्हडल्या व्हडल्यान रडपाक लागलें. म्हज्यान ताचें तें कळवळप पळोवं नजं जालें. ''तनू, रडूं नाका गो शाण्या, हांव समजायतां ब्रिजेशाक,'' म्हणीत हांवें उठून ताचे फाटीर हात दवरलो तेमरशीं तनू गर्र करून वळ्ळें आनी म्हाका सकयल उडयलें. झुप्प करून केन्नाच तें म्हज्या पोटार बसलें. ''किंतें करता तनू? तनू...!!!'' म्हणून आड्डतनाच तोंडार कितेंतरी जळजळीत रकलें, पार ताळ्यांतल्यान आरपार...

धांपिल्ल्या दोळ्यांतल्यान म्हाका सगलें दिसतालें... म्हजे जिणेचो इतिहास, भुगोल... आरऽऽपारऽ... इतल्यांत कसलोसो अस्पश्ट आवाज आयलो. कितलीशींच पावलां म्हजे कुडींत आयिल्लीं म्हाका जाणवलीं. कोण? कोण काय? कित्याक आयल्यांत हीं सगलीं म्हजें वचप नक्की जालें काय हांव मेलें हांवें म्हज्या हड्ड्याची सुलूस घेतली. चलता... टिकटिक चलता... म्हणजे मरूंक ना तर हांव मरपाक बी पावलां दिसता. म्हणून जमयलां आसतलें दोतोरान सगल्यांक. जिते जिवे कुडीचें निमाणें दर्शन घेवपाक. हांव आतां मरतलें हें येवजून म्हाका सूऽऽ जालें. जावं तनू सुटलें. ताची जीण ताका जाय तशी जियेवपाक मेळटली. काळीज सुसेगान हुस्कार भरतनाच कानार एक आवाज आयलो.

थॅन्क्स मिस तनू. तुमचे खातीर आमी गुन्यांवकारा कडेन पावपाक शकले. इन्स्पेक्टाराचो आवाज आयलो.

तनूचो मुमुरखो हांसो कानार पडलो आनी हांव शिटूक जालें. गुन्यांवकार, कोण गुन्यांवकार. गुन्यांवकार तर तनू. मागीर ताणें कोणाचें नांव सांगलें.

ताणें मागणी घातिल्ली खंय पूण हाणें न्हयकार दिलो म्हणून तिडकल्लो तो. ताका आपल्या ऑफिसा फाटले दोंगुल्लेर मेळपाक आपयलें आनी केलो घात इन्स्पेक्टर उलयत आसलो.

हांव वळखतां ताका. एक बरो भुरगो म्हणूनूच जाणां आसलों हांव. येदे मोटे फार्मास्युटिकल्साचो मालक ब्रिजेश खंवटो. चिंतूंक लेगीत ना अशें... दोतोर हुस्कारलो.

ब्रिजेश ब्रिजेशाक आपल्या खेळाची म्होर केली ताणें. जाका हाचो अजिबात गंध लेगीत ना ताका गुन्यांवांत ओडून मेकळें जाल्लें तनू. कित्याक कित्याक तनू म्हजेर सूड घेतलो तितलो पुरो जालो ना. ताका कित्याक ओडलें हातूंत. निरपराध ब्रिजेश. ना, ना म्हजेर आगळीक करपी ब्रिजेश न्हय. तें तनू. खऱ्या गुन्यांवकाराक लिपोवंक वतालें, त्या, ताणेंच एका निरपराध्याक भितर ओडलें. आतां म्हजे बगर ताका कोणूच वांटावपाक शकचो ना. ताका वाटावपाक जाय....वाटावपाक जाय हांव भितरले भितर तडफडलें.

पूण, हांवेंच म्हजो घात मारिल्लो. दोन दीस दोतोरांच्या कसल्याच वखदांक, प्रयत्नांक हांव प्रतिसाद दिनासलें. खूब अशक्तपणा आयिल्लो म्हाका. हांवें हात हालोवपाचो यत्न केलो. पूण जालें ना. ओंठ हालोवपाचो यत्न केलो. पूण तिव्र वेदना जाणवल्यो.

''उलय उलय...'' दोतोराच्या लक्षांत येवंक ना ती हालचाल पुलीस इन्स्पेक्टाराच्या लक्षांत आयिल्ली दिसता.

''उलय... सांग तुका किंतें खबर आसा तें'' आतां आवाज सामको लागीं आयकूंक आयलो.

''आय कॅनॉट परमीट यू फॉर दीस...'' दोतोर तापलो.

''प्लीज दोतोर. ताका किंतें सांगपाक जाय. ताच्या सांगण्याचेर सगलें आसा. एका निरपराध्याक ख्यास्त जावपाक जायना,'' इन्स्पेक्टरान म्हणलें.

''हय हय. ब्रिजेश निरपराधी आसा. ताका ख्यास्त जावपाक जायना. हांव जाणां कोणें म्हजेर एसीड उडयलां तें. तें तें...'' हांव घुस्मटपाक लागलें.

'कशें सांगूं. कशें सांगूं.' म्हजी असहाय्यता म्हाका फडफडायताली. दोतोर नर्शी सलायन लावपाक धडपडटालीं तें म्हाका जाणवतालें.

इतल्यांत एक आवाज कानार पडलो. ''इन्स्पेक्टर म्हजेर विस्वास ना. हांवें सांगलें तें जालें ना. ताका कित्याक त्रास करता?'' तशें दोळ्यां मुखार तनूची मूर्त झळकली. आपलें खुमणें विचित्र करीत जशें तें म्हणटालें, तुझे सूरज कहूँ क्यो तारा, तू तो है अंधियारा... अंधियारा... अंधियारा... तिडकेचें एक ल्हार म्हज्या तळपांयांतल्यान मस्तका मेरेन मारलें. मालकिर्याद. गोड गोड उलोवन म्हजोच गळो चिरलो. ना तुका आतां हांव वांटावचें ना. तुका ख्यास्त जावपाक जाय. तुजे करणेची ख्यास्त म्हाका दिवपाक जाय. हांवें आसा नासा ती शक्त एकवठावन म्हजी मान त्या आवाजा वटेन वळयली आनी इतलो तेप बंद आशिल्लो तो दोळो उकतो करून ताका पळयलें. म्हजे नदरेंतलो विखार इन्स्पेक्टराक घडये जाणवलो. ताणें म्हणलें, ''म्हाका दुबाव आसलो तुजो मीस तनू.''

म्हजी धडपड फळाक आयली. ब्रिजेश आतां सुट्टलो ही गजालूच इतली खोशयेची आसली, दोतोरान येवन म्हज्या तोंडा वयर चादर धांपली ताचें म्हाका व्हडलें पडून वचूंक ना.

अरे, परतो कानार आवाज आयलो, ''तुझे सूरज कहूँ या तारा....'' पूण हें किंतें आवाज कसो बदल्ला आनी आवाजांत इतली वेदना कित्याक आरे, ही तर माँ. म्हज्या तोंडा वयली चादर कुशीक काडून आपल्या हातांनी म्हजें तोंड पोशेताली आनी पापा? दोळ्यांतल्यान दुकां गळयत तसोच उबो आशिल्लो. असहाय्यसो.

संपर्क: 98235 37563

***

# गॉडफादर

किरण म्हांबरे



ताचें नांव हेरंब. तो एक विशेश गरज आशिल्लो भुरगो. ताका तीस वर्सां जावन गेलीं पूण बौद्धीक पातळेचेर तो पांच वर्सांचो भुरगो. ताका कामाची उमेद. कसलेंय काम आसूं, तो उमेदीन करपी. वेवस्थीत सांगल्यार तो कामय वेवस्थीत करपी.

तशें पळोवंक गेल्यार तो गायतालो बरो. नाचतालो बरो. नकलो बऱ्यो करतालो. पूण... ताचेच बरोबर खूबशो गजाली ताका कळनाशिल्ल्यो ज्यो एका ल्हान भुरग्याक लेगीत समजतात. मेंदूंत खंयतरी आशिल्ल्या एका ल्हानशा आडमेळ्याक लागून ताका सगले कडेन अपेस येतालें.

ताचो आवयचेर उपाट जीव. बापायच्या कणखरपणांक तो ल्हानपणांतल्यान पारखो जालो. ताका लागून कणखरपणा कडेन ताचो ओडो उरलो. आपले मामा, मावशे, भाव, भयणीचो घोव... दादल्यांच्या सहवासांत ताका सुरक्षीत दिसतालें..

शाळेंतले सर तर ताका देवा समान.

आवयक ताच्या फुडाराची चिंता जाताली. तो भुरगो हेय वटेन ना आनी तेय वटेन ना. ताका खूब कितें करीन दिसता. पूण कितें आनी कशें तें तो नकळ आशिल्लो. ताची कितलेय कश्ट करपाची तयारी आशिल्ली. तो शिकतालो. अभ्यास करतालो. रातभर वाचतालो. सांगता तें पाठ करतालो. पूण ताका समजता कितलें, वा ताका बोध कितलो जाता हो प्रस्न आशिल्लो.

आनी जें कळटा तें व्यक्तय करूंक ताका येना आशिल्लें. कित्याचो विरोध करूंक येना आशिल्लो. केन्नां केन्नांय तो मना विरुद्ध वागचें पडटकच भितरले भितर घुस्मट्टालो.

आंगांत सगले गूण आसून. सगले कडेन निराशाच निराशा.

एक दीस ताका एक गॉडफादर मेळ्ळो. लोक ताका बरो आर्टिस्ट म्हण वळखताले. त्या गॉडफादरान ताचे आवयक सांगलें, ताका आपले गॅलरींत धाड. आपूण ताका खूब कितें शिकयतां.

ताची आवयय भोळी. तिका दिसलें, हेरंब जरी 'विशेश गरज आशिल्लो भुरगो आसलो तरी ताच्या आंगांत कांय सुप्त गूण आसात. तांकां एखादे वाव मेळत. गॉडफादराच्या सहवासांत एखादे ताचो आत्मविस्वास वाडत. तिणें हेरंबाक सांगलें, "पळय, तो तुजो गुरू. तो सांगता तें आयक."

हेरंब गॉडफादराचे गॅलरींत वचूंक लागलो. सुरवातीक हेरंबान कांय चित्रां बी काडिल्लीं (हेरंबाक तशीं चित्रां काडूंक येनाशिल्लीं) ती गॉडफादरान प्रसिद्ध बी केली. हेरंब डायरी बरयता ती गॉडफादर वाचून तपासूंक लागलो. आवयक दिसलें तो खरेंच कितें शिकयता.

मावशेन एक दीस विचारलें, "तूं कितें करता रे थंय?"

ताणें म्हळें, "ब्रश धुतां, हारशे पुसतां, पुस्तकां जाग्यार दवरतां....." मावशेक खटकलें. पूण आसूं. कितें तरी शिकता आसतलो..

हेरंबाक आनीक एके गजालीचें पिशें आशिल्लें. ताका लोकां कडेन वळखी करूंक, तांचे कडेन उलोवंक आवडटालें. ताका गॅलरींत वेगवेगळे लोक मेळूंक लागले. व्हडले व्हडले कलाकार. कांय जाणांक तर ताणें टी. व्ही. चेर पळयिल्लेंय बी. तांचे कडेन वळख जाली, उलोवंक मेळ्ळें, हेरंब फुल्लो. तो घरा कडेन येवन तांच्योच खबरी सांगूंक लागलो.

तरीकय हेरंबाक आपलो गॉडफादर नाटकां बसयता तातूंत आपल्याक काम करूंक मेळचेंशें दिसतालें. ताणें खंय ताका सांगलें आपल्याक नाटकांत घे म्हणून. गॉडफादरान सांगलें, "तुका जमचेंना तें."

मावशेक हेंय खटकलें. तिणे भयणीक सांगलें, "आगो तूं सांगून पळय़ ताका. हो काय बरें करता. मिमिक्री बी काय बरी करता. ल्हानशें कसलेंय काम दी म्हण सांग."

आवयन गॉडफादराक फोन केलो. ताणें घेतलो ना.

दुर्दैवान हेरंबाचे आवयक अशें दुखणें जालें जाणें तिचो दोन म्हयन्यांतच बळी घेतलो.

हेरंबाक समजून घेवप म्हळ्यार एक आव्हानच आशिल्लें. ताका कितें कळटा आनी कितें ना हाचो थांग लागनाशिल्लो. ताची आवय हेंच ताच्या जिणेंतलें सुखाचें स्थान, आशास्थान, हक्काचें स्थान. तीच आधार तीच धीर. ताची सगली जीण तिचेच भोंवतणीं घुंवतालीं. ताची आवय ताका खुशाल दवरूंक धडपटटाली आनी ताचे खोशयेंत खोस मनयताली. जाल्यार हेरंब आवयचे सांगाताक खुशाल रावतालो. दोगांयची जीण एकमेकां खातीर एकमेकां पासत.

"देवा म्हज्या मम्माक बरी कर. म्हाका आनीक कांय नाका." आवय बरी ना म्हण कळटकच तो डायरेर बरोवन देवाक होरायतालो. तिचे खातीर कितेंय करपाची ताची तयारी आशिल्ली.

आवय विरयत ताचे जिणेंत कांय नाशिल्लें. पूण ताका आवय गेली म्हळ्यार आपल्याक सासणाची अंतरली हेंच कळ्ळेंना. तरीकय एकटो जातकच ताका आवयची उणीव जाणवली आनी ताणें आवयक मॅसेज करूंक सुरवात केली. 'तूं खंय गेली, तूं म्हाका एकटो सोडून कित्याक गेली.. तूं परत यो....'

काळजाक पीळ घालपी ताचे मॅसेज वाचून मावशेचें काळीज रडटालें.

हेरंबा खातीर आवयचो जागो कोण घेवंक शकचो नाशिल्लो.

मावशे कडेन ताची संवकळ. ताच्यो समस्या ती जाणां आशिल्ली. आनीक मावशेक ताची ओड आशिल्ली. मावशेन ताका लागीं केलो. ताका समजून घेवपाचो यत्न केलो.

ताचें दुख्ख विसरायेर घालूंक ताका व्यस्त दवरप होच उपाय आशिल्लो. तो गॉडफादराचे गॅलरींत वता आनी थंय रमता इतलें तरी बरें

आशिल्लें.

"म्हज्या म्हन्यांत येत साकून खूब सुदारला तो..." गॉडफादराचीं उतरां मावशेक परत खटकलीं. हेरंब तर आशिल्लो तसोच आसा. सुदारला म्हणूंक पयलीं कितें तो वायट नाशिल्लो. पयलीं करतालो तेंच आतांय करता. हिशोब पयलींय बरयतालो. डायरी पयलींय बरयतालो. हेरंबाचे व्हडले मावशेन सांगिल्लें ताका डायरी बरोवंक आनी तो बरयतालो. तो प्राथमीक शाळेंत आसतनां आजोळा आपले आजये सरीं आसतालो तेन्ना मावशेन ताका लागींच्यान पळयिल्लो. तो दुसरेक आसतनां साकून कोणेंच सांगिनासतनां आपले भायर सुकत घाल्ले कपडे हाडून घडयो करून दवरतालो. वेवस्थीत. आतां मावशी ताचे म्हन्यांत रावंक लागत साकून आनीकय ताच्या गुणाची वळख तिका मेळटाली.

एक दीस हेरंबाक मावशेन परत विचारलें, "तूं कितें करता रे थंय?..."

"हांव सान्न मारतां, तो कोयर कोयराच्या हातांत भरतां आनी डस्ट बिनांत व्हरून उडयतां." ताका सगलें स्पश्ट संगपाची संवंय.

मावशेन ताच्या भैयाकडेन कडेन पळयलें. ताचो मामेभाव ताचो गार्डियन. तोय ताचेर माया करतालो. आनी हेरंबाचोय ताचेर , आपल्या भैयाचेर जीव आशिल्लो. "आसूं. पळोवया." ताणें म्हळें. "थंय शिकता न्ही तो कितेंतरी..." भैयाकय त्या आर्टिस्टाचो दुबाव आयलोना. आनी तडकाफडकीं निर्णय घेवपय समा जावचें नाशिल्लें.

संयम राखलो. एक दीस माल्ली दिसता. इतलो व्हडलो कलाकार. मावशी वळखताली तसो मनीस वायट अशें दिसूंक नाशिल्लें. पूण हेरंबाक म्हळें, "आरे तुका सान्न मारल्यार ऍलर्जी जाता म्हण सांग ताका. तूं नाकांत स्प्रे घेता मरे ऍलर्जी जाता म्हण...?"

एक दीस हेरंब घरा आयलो आनी सांगूंक लागलो, आपल्या हाताक फोड आयले तरी वयनीन आपल्याक बँडेज लायलीना.

"फोड आयले? कशे?" मावशेन विचारलें.

"तिणें म्हाका फळ्याक मारिल्ले खिळे काडूंक लायिल्ले. हांवें दाखयले तिका फोड आयले म्हण. तिणें अशे हातांनी पुसले आनी 'कांय जायना, वतले ते' म्हळें."

इतलें हताश, इतलें पराभूत मावशेक केन्नांच दिसूंक नाशिल्लें. 'कशी ती बायल? नकळ ती हेरंब कसो भुरगो तें? कसलें काम सांगलें ताका? कशें म्हणून सांगलें ताका हें काम?'

हेरंबाक भंय खूब दिसता. मातशें कितेंय जाल्यार ताका थंय वखद लावंक जाय, बँडेज लावंक जाय.

मावशेक कितें उलोवचें कळ्ळेंना. पयलीं म्हळ्यार ताका तशे खिळे काडूंक लावपाचेच न्हय.

पूण मावशी अगतीक. हे परिस्थितींत कितें करप हें ती नकळ आशिल्ली. तांचे कडेन झगडून कांयच फायदो नाशिल्लो. हेरंबाचे विशीं ती निर्णय घेवंक शकनाशिल्ली. आनी हेरंब आपूण थंय वचचोंना म्हणिनाशिल्लो. ताका थंय येतात त्या व्हडल्या व्हडल्या कलाकारांचें आकर्शण आशिल्लें. आनी थंय वचून आपली कला सादर करपाची उमेद आशिल्ली.

थंय वचपाचो आडायल्यार समा जातलें? ताका एखादे थंय प्रेरणा मेळूंक शकता जाल्यार ती ना केलीशी जावचीना मूं?

वचूं नाका थंय म्हळ्यार हेरंब आयकुचोना हें ती जाणां आशिल्ली. एक तर ताका आवयन थंय धाडिल्लो. ताचे खातीर ताची आवय सागंता तें प्रमाण आशिल्लें. 'तो तुजो गुरू, तो सांगता तें आयक' हें आवयन सांगिल्लें. ताचेर मावशेन सांगिल्लें हेरंबाक पटचें नाशिल्लें, आवडचें नाशिल्लें. एखादे मावशेविशी ताच्या मनांत नाराजी निर्माण जावंक शकताली. तिचेविशीं अविस्वास दिसूंक शकतलो आशिल्लो. हें मावशेक परवडपा सारखें नाशिल्लें. तो मनान आपले पसून पयस वचूंक फावना. भैयाक हेरंबाचेर सतत लक्ष दवरूंक जमचें नाशिल्लें, जाची ते घटकेक चड गरज आशिल्ली. कांय काळ तरी.

दुसरें म्हळ्यार तो थंय रमतालो. एखादे तो आपल्याक तांचे मदलो एक समजुपाची कल्पना करतालो जायत. पूण आवयचो वियोग खीणभर विसरतालो हें चड म्हत्वाचें आशिल्लें? हाकाच लागून ताचो भैयाय अडचल्लो.

तिणें हेरंबाक सांगलें, "तूं असलीं कामां करूं नाका. आपल्याक दुखता म्हण सांग."

हेरंबाक तरीकय गॅलरींत वचपाची ओड आशिल्ली.

गॅलरींत प्रदर्शन आसा म्हण हेरंब सांगूंक लागलो. आपल्याक सकाळचो आपयला. आपल्याक स्वागत गीत म्हणूंक लायलां म्हणून खुशाल आशिल्लो. दनपरचो गॉडफादराचो मावशेक फोन आयलो. "हेरंबाक जेवंक दवरतां. ताका स्वागत गीत म्हणपाचें आसा, ताची तयारी करूंक जाय."

मावशी अनमनली. कितें उलोवचें कळ्ळेंना. मावशेन म्हळें, "ताचे कपडे बी आसात घालपाचे."

"ना. तशें जाकीट आसा ताका घालूंक. तें घाल्यार पुरो."

मावशेन गॉडफादराचेर विस्वास दवरलो.

सांजचो मावशेक हेरंबाचो स्वागतगीत(?) ...तो शिकिल्लो एक राग म्हणटना काडिल्लो व्हिडिओ आयलो.

बाकीचे खंय आशिल्ले कोण जाणां. हो बावडो आपलें गायतालो.

मावशेन तोखणाय केली. सांजचें हेरंबाक विचारलें, तुवें सकाळचें कितें केलें? आर्टिस्ट आयिल्ले?

"हय. हांवें मॉप घेवन जमीन पुसली." हेरंबान सांगलें.

हद्द जाली.

मावशेक अस्वस्थ जालें. तिणें गॉडफादराक मॅसेज केलो, 'हेरंब तुमकां आपले समजता. तुमची गॅलरी, तुमचे गेस्ट ताका आपलेचशे दिसतात. आनी तो सान्न मारप आनी मॉप ओडपाचें काम लेगीत आत्मीयतेन करता.'

गॉडफादराक तें वर्मार पडलें. ताचो परत मॅसेज, 'तीं कामां आमीय करतात. म्हजी बायल, चलो....करतात. आपूण आसां थंय निवळ दवरप आमची ड्यूटी...........'

दुसरो मॅसेज, 'ताका आमी स्वताच्या पांयार उबो करपाचे यत्न करतात, ...ताचो

व्यक्तिमत्व विकास...कितेंय चुकता जाल्यार सागंचें.'

आतां ह्या शिकिल्ल्या मनशाक अशा भुरग्या कडल्यान आपल्याक जाय तीं कामां करून घेनात म्हण कळना?... दुसऱ्यांनी सांगपाची गरज आसा? ह्या भुरग्याक कळटा आपूण कितें करतां, कोणा खातीर आनी कित्या खातीर करतां तें?

कामां कोणा कडच्यान आनी कशीं करून घेतात हें गॉडफादर नकळ?

हेरंबाची आवय बरी नाशिल्ली. जीएमसींत भरती आशिल्ली. तेन्नां तिका रगत घालचें पडलें. हेरंब धांवलो. आपूण जाणां खंय दितात तें रगत म्हणून थंय एकटोच गेलो. फाटल्यान मावशी गेली. हेरंबाक विचारिल्ल्या प्रस्नाच्यो ताणें दिल्ल्यो जापो आयकून तांकां दुबाव आयलो आनी तांणीं मावशे कडेन वासपूस केली. तेन्नां थंय सांगलें, अशा भुरग्याचें रगत काडिनात.

भलायकेन बरो आसूनय ताचें रगत काडिनात. कितें आसतलें हाचें कारण? ताचे सारख्या भुरग्यांचो कोणे गैरफायदो घेवं नये म्हणूनच न्ही? हेरंबाक तर आवयक रगत दिवन तिका निवळावपाची आशिल्ली. तितलें ताका जरूर कळटालें, आनी तो आपूण जावन गेल्लो. तरी दोतोरांनी न्हयकारलें.

आनी हांगा हो गॉडफादर ताचे कडल्यान आपलो घश्टो करून घेवन ताका व्यक्तिमत्व विकासाचें नांव दितालो.

त्या गॉडफादरान कोणाचे परवानगेन हाका कामां करूंक लायिल्लीं? साधो भोळो मेळ्ळो, ताची आवय ना म्हण्टकच तो आयतो मेळ्ळो? वापरून घेतलो?.

मावशी भैयाकडेन उलयली. भैयाकय खूब वायट दिसलें. "ताका दुसरें काम दिवया." ताणें म्हळें. "थंय वचाप्चो बंद करूंया..." भैयान निर्णय घेतलो.

मावशेन हेरंबाक गॅलरींत वचूंक दिलेंना. पूण हेरंबाक पटनाशिल्लें. ताका दिसतालें मावशी आपल्याक धमकायता. ताका गॅलरींत वचूंक आवडटालें, मावशी आडायता.

हेरंबाक थंय वचपाची गोडी. आपूण स्वागतगीत म्हणटां, ते आर्टिस्ट येतात ते आपल्या कडेन उलयतात... ताका ताचीच व्हडवीक. ताका सांजचो घराकडेन रावंक वाज येतालो तेंय खरें. बेठोच बसून रावचें पडटालें. तो आयकना जालो. ताणें भैयाक सागलें. मावशी आपल्याक वचूंक दिना.

हेरंब गॉडफादराक मॅसेज करून सांगतालो, "मावशी आपल्याक धमकायता. आपल्याक गॅलरींत वचूंक दिना. आपल्याक मावशेचो भंय दिसता. तूं तिका समजाय."

पूण गॉडफादरान मावशेक फोन करपाचे कश्ट घेतलेनात. परत परत तो हेरंबाक फोन करीत रावलो.

भैयान हेरंबाक समजायलो. ताका वचपाचो बंद केलो.

मावशेन मागीर हेरंबाक समजावन सांगलें,

आपल्या घरा आसता तें आपलें काम. तें आपलें आपणें करप. आपल्याच्यान जायना जाल्यार तें काम करून घेवपाची किंमत दिवप. म्हळ्यार काम करतल्याक तो सांगता तितले पयशे दिवप. आमी करून घेतात मरे पयशे दिवन?

ताचे खातीर आपणें पयलीं सांगूंक जाय, हें काम आसा आनी ताचे खातीर आपूण अमकें दितां. तुका जाता जाल्यार कर. ताणें तुज्या मम्माक तुजे कडच्यान अशीं कामां करून घेतलों म्हण सांगूंक नाशिल्लें. तुका पयशे दिवन कामाक दवरूं नाशिल्लो. आनी सांगिल्लें जाल्यार मम्मा तुका थंय धाडचें नाशिल्लें. तूं आयतो मेळ्ळो, सांगता तें करता म्हण कितेंय करून घेवप? खिळे काडून हाताक फोड आयिल्ले मरे? आपलीं कामां फुके - सवाय करून घेवप हो एक गुन्यांवच. वापरून घेवप म्हण्टात ताका.

हेरंबाक मात्शेंशें समजलें.

"शाळेंत केल्यार जाता?" ताणें विचारलें.

"शाळेंत अशीं कामां करून घेतात तुजे कडल्यान?"

"ना." ताणें म्हळें.

"शाळा तुजी आसता. शाळेंत सर आसतात. तांका खबर आसता तुजे कडल्यान कितें करून घेवपाचें तें. ते तें काम आपले स्वता खातीर करून घेनात. शाळेंत करतात तें आमी आपले स्वता खातीर करतात. म्हळ्यार तूं तुजे खातीरच करता. म्हळ्यार आपल्या घरा करतात तशें. आनी शाळेंत लेगीत असल्या कामांक मनशां दवरिल्लीं आसतात."

गॉड फादरान ताका फोन केलो. हेरंबान ताका सांगलें, "तूं आपले मावशेकडेन नाजाल्यार भैया कडेन उलय."

गॉडफादराक तें म्हत्वाचें दिसलेंना.

ताका हेरंब येना, आपलीं कामां जायनात म्हणपाचेंच पडून गेल्लें.

हेरंबान सांगूनय ताणें मावशेक फोन केलोना. एकेवटेन बरेंच जालें. ताका फक्त आपलें समर्थन करपाची संद मेळटली आशिल्ली. हेरंबाकच शिकोवन शाणो करूंक जाय. दुसऱ्यांक समर्थनाची संद दिवन कांय फायदो ना. अशा गजालींक समर्थन आसूंकच शकना.

हेरंबाक ताचे विशेश भुरग्यांचे शाळेंतल्यान नाटक करपाची संद मेळ्ळी. ताचे मना सारकें जालें. आनी तो शिकयल्यार सारखें करता हें कळून आयलें. हेरंबान गावपाचे सर्तींतय ऊर्बा वाडोवपी इनाम जिकलें.

हेरंबाक चित्रां काडूंक जमनात, नाटकांत काम करूंक जमना, ताका हेर भुरग्यां भशेन सांगिल्लें समजना... कितेंय तक्रार आशिल्ली जाल्यार गॉडफादराचेर कोणें ताका लादूंक नाशिल्लो. तो सांगूंक शकतालो, आपल्याक तो उपकरना, ताका धाडूं नाकात. पूण जो भुरगो बौद्धीक पातळीचेर सक्षम ना ताचे कडल्यान आपल्याक जाय तीं कामां करून घेवप ही चूक न्हय तर गुन्यांव. मावशेक तरी तें पातकशें दिसलें.

मावशेक सत्तर वर्सां जालीं. तरी अजून मनशांची पारख जालीना इतलें खरें. ह्या संवसारांत हेरंबा सारख्या भुरग्यांचो जल्म कित्याक जाता काय? कसल्या गुन्यांवांची, पातकांची ख्यास्त भोगूंक?

संपर्क: 8007231075

***



# सेरेंडिपीटी

**हर्षा शेटये**

'**आ**ज्या, आज्याऽ' व्हडल्या व्हडल्यान आज्याक उलो मारीत अजय भितर सरलो. धांवतूच आज्याल्या कुडींत गेलो. आजो कुडीत नाशिल्लो. तो आज्या, आज्या करीत भायर सरलो.

अजय असोच हुतहुतो. किर्तेय महत्वाचें सांगपाचें आसल्यार ताका सूख लागनाशिल्लें. तो आज्याक उलो मारीत मागिलदारां पावलो. अजयाची आवय पोरसांत झाडांक उदक घालतालीं आनी अजयाचो एक्याणव वर्सांचो आजो हातांत रोत घेवन थंयक पासयो मारतालो.

''आज्या, आज्याऽ''

''किर्तें जालें रे पापया? असो धांपेत धांपेत सो आयलो?''

''आज्या, आतां सेरेंडिपीटी आर्टस फेस्टिवल २०१७ जावपाचें आसा. पणजेतूनच रे!''

''आं, तर?''

''एकाच वेळार वेगवेगळ्या दालनांनी वेगवेगळ्यो कार्यावळी जातल्यो. म्हळ्यार एके कडेन चित्रांचे प्रदर्शन, दुसरेकडेन नृत्य, तिसरेकडेन व्याख्यान, चवथेकडेन जेवणाचेर कार्यशाळा...''

''पयली म्हाका एक सांग. सेरेंडिपीटी ह्या उतराचो अर्थ किर्ते? हांवें केन्नाच आयकूंक ना हें उतर.''

''... आं... आं... सेरेंडिपीटी म्हळ्यार... आता पळय. तूं मनांत किर्तें तरी येवजिता आनी तूं तुका म्हळ्यार सुंदरशें दुसरें किर्ते तरी घडटा. तुजें मन फुलून येता. म्हळ्यार येवजिनाशिल्लें घडटा. तुका तें आवडटा.''

''कळ्ळें रे बाबा! किर्तें तरी मन प्रसन्न जावपासारकें अचकीत घडटा. अशें मरे?''

''हय, हय, सारकें''

''तर, आतां सांग फुडें''

''फेस्टीवलाक एके कार्यावळींत बंगालचो चित्रकार दिपेंदु बॅनर्जीन संग्रहीत केल्ल्यो पोर्से लिनाच्यो फिगरिन्ज... चिनी मातयेच्यो ल्हान ल्हान मुर्त्यो थंय दवरतले. इमेज जरनीस (Image Journeys) ह्या माथाळ्याखाला. आमची टीमूय बी गोंयांत कोणा कोणांकडेन असल्यो पोरण्यो बावल्यो आसात त्यो सोदून थंय मांडटली.

अजय चित्रकार. गोंय कला महाविद्यालयांत शिकला. हार्लींच ताणे काडिल्ल्या चित्रांचें प्रदर्शनूय जाल्लें. अजयच्या आज्याकडेन गजाबाबाकडेन पोर्सेलिनाच्यो खूब ल्हान ल्हान मुर्त्यो आसात. ताची एक पोरणी आरश्याची आलमार आसा. तातूंत ताणे ह्यो चिनी मातयेच्यो वस्तू सांबाळून दवरल्यात. तातूंतल्यो चडश्यो वस्तू गजाबाबाच्या बापायन घेतिल्ल्यो. तातूंत कृष्ण आसा. गणपतीक मांडयेर घेवन बशिल्ली शंकर पार्वती आसा. दोन माजरां आसात. आनीकूय कांय मुर्त्यो आसात.

''तर आज्या, म्हाका ह्यो तुज्या आलमारीतल्यो मुर्त्यो फेस्टीवलाक दवरुंक जाय. तुजेकडेन इतल्यो वस्तू आसात म्हणून कळूनी मरे सगळ्यांक.'' अजयान आज्याक मस्को लायलो.

''आरे, व्हर रे, पूण बऱ्यो करुन परत्यो मात हाड आं. फुटूंक बिटूंक मात जायना. म्हज्या बापायन हाडिल्ल्यो वस्तू त्यो. तुगेल्या भुरग्यांनी लेगीत पळोवंक जाय त्यो!''

''हय रे. तांची भुरगी लेगीत पळयतलीं त्यो.'' अजय भितरले भितर सो पुटपुटलो.

फुडलो म्हयनोभर अजय भार आयिल्लेभशेन फेस्टीवलाचे तयारेक लागिल्लो. उक्तावण जातकीच दुसरेच दिसा तो आज्याचे फाटीक लागलो.

''चल रे आज्या, तुका व्हरता फेस्टीवलाक. काय बरें कलेक्शन आसा तें पळय. 'इमेज जरनीस' आदिलशहा पॅलेसीच्या सकयल्याच दालनांत आसा. तुका वयर चडपाक लेगीत नाका. आनीकूय किर्तें किर्तें आसा. यो, तू. तुका आवडटलें.'' आनी अजय अपुरबायेन गजाबाबाक घेवन गेलो.

गजाबाबान भितर सरतकीच दालनांत हेवटेन तेवटेन नदर भोंवडायली. धवोच तुवालो घाल्ल्या मेजांचेर तिनूय वटेन चिनी मातयेच्यो मुर्त्यो आशिल्ल्यो. पन्नास एक तरी आसूंक जाय.

'आज्या हें वाच पयलीं.' गजाबाबान वयर पळयले. व्हडल्या अक्षरांनी बरयल्लें 'इमेज जरनीस'. सकयल बरयल्लें, हीं फिगरिन्ज जर्मन कंपनी खासा भारतांत विकपाखातीर तयार करताली. एकोणिसाव्या शेकड्यांतल्या निमण्या दोन दसकांत राजा रवि वर्माच्या चित्रांची छापिल्लीं चित्रां पायंजेल्याच्या रुपांत भारतीय घराघरांनी आसतालीं. मागीर हीच चित्रां जर्मनींत छापून येवपाक लागलीं. ही चित्रां पळोवन जर्मन कंपनीन भारतांत विकपाखातीर पोर्सेलिनाची फिगरिन्ज तयार करपाक सुरु केलें. पोर्सेलिनच्यो ह्यो मुर्त्यो बंगालात चड खपताल्यो. ताचे कारण म्हळ्यार थंय चलयांक ल्हान वयांत लग्न करतालीं तेन्ना तांका कुळारच्यान ह्यो पोर्सेलिनाच्यो मुर्त्यो भेट म्हणून दिताल्यो.

''म्हळ्यार ह्यो मुर्त्यो जर्मनीच्यान मकावसावन गोंयांत येताल्यो तर!'' अशें म्हणत गजाबाबान बारीकसाणेन मुर्त्यो पळोवपाक सुरवात केली. ''आज्या हें सगळें दिपेंदु बॅनर्जीचे कलेक्शन आं'' ह्यो पयल्यो पंचवीस मुर्त्यो ताच्यो. 'सावित्री ॲन्ड सत्यवान विथ यमा', 'उत्तरा ॲन्ड अभिमन्यू', 'कृष्णा हॉल्डींग काफ'. पाडकाक खांदार घेतिल्लो कृष्ण गजाबाबाक खुबूच आवडलो.

''म्हजो आसा मरे कृष्ण?''

''हय रे आज्या, फुडें आसा. पळय तूं सवकास.''

'दमयंती ॲन्ड स्वॉन'... गजाबाब वाचता.

''अजय, पळय रे, राजा रविवर्माचे असलेंच पांयजेल आमगेर आशिल्लें!'' गजाबाब आतां







बारीकसाणेन मुर्त्यो पळोवपाक लागिल्लो.

"रती इंडियन गॉडेस ऑफ लव", "गॉडेस दुर्गा विथ कृष्णा..."

"वागार बशिल्ली धा हातांची दुर्गादेवी आनी मांडयेर बशिल्लो कृष्ण." अशें कशें रे अजय?"

"आज्या वाच हें" गजाबाब वाचूंक लागलो. ह्या मुर्तेचो संबंद बंगालातल्या पदावली किर्तनाकडेन आसा. बंगालात किर्तनांतल्यान कृष्णलिला सांगपाची पद्धत आसा. कृष्ण आपल्या संवंगड्यांबराबर यमुनेच्या देगेर खेळटा. घरां येतकच तांका आवयो विचारतात, 'आज संबंद दीस तुमी कितें केले? भुरगीं मागीर आवयांक सांगतात. थंय एक धा हात आशिल्ली बायल वागार बसून आयली. कृष्ण तिच्या मांडयेर बसून खेळपाक लागलो... ह्या पदावली किर्तनातल्यान संदर्भ घेवन जर्मन कंपनीन ह्यो मुर्त्यो तयार केल्ल्यो.

"बरेंच कलेक्शन आसा मरे ताचेकडेन. सामकेंच वेगळें."

"हय, आतां गोंयांतलें कलेक्शन पळय."

गजाबाब मुर्त्यो पळयत नांवां वाचत फुडें वता. मोतीलाल वेर्लेकर, लुसियो आल्मेदा, विराज लोलयेकर, गजानन काकोडकार -आपलें नांव पळोवन गजाबब खोशी जालो. गणपतीक मांडयेर घेतिल्ली शंकर पार्वती, लक्ष्मी, शकुंतला, विष्णू आनी कृष्ण...

"पांचूय मुर्त्यो आसात रे अजय" आनी फुडली मूर्त पळयत जाल्यार 'राधा- सकयल बरयल्ले अदिती नेवरेकार. 'राधा... नेवरेकार...' गजाबाब भितरले भितर सो पुटपुटलो. ताणे ती राधा उखल्ली. फाटले वटेन पळयली. पळयत जाल्यार कृष्णाचेर आसा तोच मार्क आसा. म्हळ्यार ही राधा विठ्ठलआप्पान प्रियागाखातीर घेतिल्ली ती काय कितें? ताच्या मनांत येता.

गजाबाब तेन्ना सोळा, सतरा वर्सांचो आसूंये. तांचो घराबो तेन्ना मडगांवां सुकेरकाराल्या घराक तेंकून रावतालो. गजाबाबालो बापूय बाप्पा तेन्ना मडगांवां रेजी सिवीलांत काम करतालो. हरशी तांचे घर काकोड्या. तांका तिग जाण पूत. व्हडलो गजानन - गजाबाब. विठ्ठलआपा सुकेरकारालो व्हडलो चलो रामनाथ, दुसरें प्रियाग आनी तिसरें कुमुद. प्रियाग गजाबाबापरस वर्सांन बी ल्हान आसत. रामनाथ प्रियागापरस दोन एक वर्सांनी व्हड. प्रियाग, रामनाथ, गजानन पॉप्युलर हायस्कूलांत शिकतालीं. प्रियाग उमेदी आनी गुणी भुरगें. गजाबाबाची आवय व्हनीबाय प्रियागाक जीव करताली. प्रियागूय तिका गरजेक पावतालें.

गजाबाबाच्या बापायक बाप्पाक सेरामिकाच्यो, पोर्सलिनाच्यो वस्तू, चिक्रपिरी सेट बी घेवपाचो खूब घोस्त. मडगांवच्या जवेरभायल्या दुकानांत आयिल्ली नवीन वस्त तो घेवन येतालोच. त्या दिसा बाप्पाबराबर गजाबाबूय आशिल्लो. जवेरभायक तांका निळोच भांगराकोराची ड्रॅगनाची चित्रां आशिल्लो चिक्रपिरीचो सेट दाखयलो. बाप्पान तो घेतलोच. "बाप्पा ह्यो पळय. देवाच्यो मूर्त्यो येवरोपाच्यान आयल्यात. गणेश, शोंकोर, कृष्ण..." ते मुर्त्यो पळयता आसतना भायल्यान विठ्ठलआप्पान तांका उलो केलो.

"यो, यो विठ्ठल आप्पा कितें दाखोवं?"

"ना रे, रोपां आळींत वतालो. तुमकां पळोवन भितर सरलों."

"बाप्पा घेता पळय हे देव तूवूंय घे." कृष्ण दाखयत जवेरभायन म्हळें.

"कृष्ण? कृष्ण नाका... ही राधा घेतां प्रियागाक. आता कृष्ण सोदता ताका. नवरो रे! लग्नाचे जालें ते आतां."

ती राधा घेवन विठ्ठल आप्पा गेलो. प्रियागाचे लग्न...? प्रियागाचें लग्न इतले बेगीन म्हळ्यार 'लग्न जावन वतले तर तें', गजाननाक एकदम घुस्मटलेभशेन जाले. बाप्पा हो घेवया. ताणे बेगबेगीन कृष्ण उखलीत म्हळे. चिक्रपिरी आनी कृष्ण घेवन ते घरा आयले.

गजानन रामनाथाक मेळपाक प्रियागागेर वतालोच. भितर सरतनाच सालांत आलमारींत दवरलेली राधा ताका दिश्टी पडटाली. ताच्या मनांत येतालें, राधा अशी एकोडी आसपाक जायना. तिका व्हरुन कृष्णा म्हऱ्यांत दवरल्यार कशें? दोगांय एका म्हऱ्यांत बरीं सोबतली. ताचे मनांत कितें चल्ला तें ताकाच कळनाशिल्लें. ताका प्रियागाकडेन पळयत रावन शें दिसताले. तें उलयता आसतना आयकत रावनशें दिसताले. पूण तें दिसप थंयच उरलें, तो दुसऱ्या वर्सा मॅट्रिक जावन फुडें शिकपाक धारवाड गेलो. मागीर बाप्पाचीय बदली पणजे जाली. गजाननाक मागीर पणजे ओब्रांत नोकरी लागली. आनी तो पणजेकारांचो गजाबाब जालो आनी थंयच

उरलो. प्रियागाकूय लग्न करुन नेवरेकारागेर दिल्लें. आता रामनाथूय उरुंक नाशिल्लो आनी प्रियागाय.

ही राधा प्रियागाचीच आसपाक जाय. राधा हातांत धरिल्ली आसतना गजाबाबाक दिसले.

''आज्या, आज्या, कितें पळयता? चल दवर ती राधा फुडें या.'' ताच्या हातांतली राधा दवरीत अजयान म्हळें.

''राव रे, हें अदिती नेवरेकार कोण? तूं वळखता?''

''हय, हांगाच आशिल्लें व्हदळ. कित्याक?''

''म्हाका मेळपाक जाय ताका.''

अजयान मोबायल लायलो. अदिती बेगबेगीन आयलें.

''बाय गो, ही राधा कोणाली? तुका खंय मेळ्ळी?''

''म्हज्या आजयेली ती! तिच्या भुरगेपणांतली. आजी मडगांवची, सुकेरकाराली.''

हें आयकून गजाबाबाक खोशयेचो उमाळो फुटलो.

''म्हळ्यार, तूं प्रियागाची नात? आगो पापया. ही राधा आनी कृष्ण आमी एकाच बराबर विकती घेतिल्ली कितल्या वर्सांनी ती एकमेकांक मेळ्ळीं पळय! म्हाका दिसता १९४२ च्या अदमासाक घेतिल्ली जावंये.''

''वाव! म्हळ्यार सेवेंटी फाय इयर्स जाली? राधा मिट्स कृष्णा आफ्टर सेवेंटी फाय इयर्स. हिप हिप हुर्रे''

अदितीचो बोवाळ आयकून थंय आशिल्लो रिपोर्टर बेगबेगीन आयलो.

''वॉट हॅपन्ड... वॉट हॅपन्ड...''

''ग्रॅन्डपाज कृष्णा मिट्स माय ग्रॅन्ड मॉम्स राधा आफ्टर सेवेंटी फाय इयर्स.''

''ग्रॅन्डपा, म्हाका सगळी स्टोरी सांग, चल बसूया हांगा. बसून सांग. राव, राव पयली तुमचो फोटो काडटा. राधा आनी कृष्णा येवंदी फ्रेमीत.''

आनी गजाबाबान उमेदीन राधा कृष्णाची स्टोरी तांका सांगली. रिपोर्टर खोशी जालो.

हरवें सोदतल्याक भाजिल्लें मेळिल्लें.

''चल आज्या, फुडे या, अजून पळोवपाचे उरलां.''

''आरे, आसूं. पळोवपाक जाय आशिल्लें तें पळयलें. आता या आमी घरा. बरें गो बाय, यो आमगेर एक दीस खबऱ्यो मारपाक.''

''हय तर! येता तुमचेकडल्यान आजयेल्यो खबरो आयकूंक जाय.''

एका काळार म्हाका राधा कृष्णा म्हऱ्यांत उबी आशिल्ली पळयन दिसताली. ही इत्सा आनी आता पुराय जातली अशें धरुंक नाशिल्ले. गजाबाबाच्या तोंडार हांसो उदेलो.

''कितें रे आज्या, हांसता सो.''

''काय न्ही रे, सेरेंडिपीटी उतराचो अर्थ कळ्ळो.'' गाडयेंत बसत हांसत हांसत गजाबाबान म्हळें.

संपर्क: 9850530152

***

# धुंवराचो वास

**ग्वादालूप डायस**



**आ**यज निर्णय जावपाचोच आसलो. हाची सुलूस तिका खूब पयलीं लागिल्ली. तिवूय ह्याच दिसाची वाट पळयताली. फाटले कितलेशेच दिस जाले, तिच्या घरच्यां कडल्यानूय तिचें नातें तुटिल्लें. म्हणटकच येदो व्हडलो निर्णय घेवंक तिका जबरशें त्रासांचें जावंक ना. मुक्त जाल्ली ती आयज. घर नांवाचे बंदखणींतल्यान! हेच खोशेच्या नादार ती हुमऱ्या भायर सरिल्ली.

हय! बंदखणूच ती. फाटलीं वीस वर्सां थंय रावून तिचो घुस्मटमार जाल्लो. 'चली हें परक्यालें धन!' अशा विचारान तिका वाडयल्ली. लग्ना वेळार, 'दिल्ल्या घराक मर!' अशें सांगून तिका परकी केल्ली. आयज मात उगत्या मळबांत उडपाचें स्वातंत्र्य तिका फावो जाल्लें. हुमऱ्या भायर पावल घालचे पयलीं एकदांच आपल्या भुरग्यांक वेंगोवचें अशें तिका दिसलें. पूण भुरगींच जावन फाटीं सरलीं. तांचे नदरेंत आपली आवय दोशी आसली. तसो तांचो गैरसमज करून दिल्लो. तांची समजूत घालुनय कांयच फायदो जावपाचो नासलो. तिणें आपल्या सामानाची पोटली हातांत धरली. घरांतले दर एके वस्तूचेर अशीच एक नदर भोंवडायली आनी हुमरो हुपलो!

गांवचे शिमेर तो तिका मेळपाचो आसलो. थंय मेरेन तिका चलत वचपाचें आसलें. तिच्या पावलांच्या तालार आशी-कुशीच्या घराचीं जनेलां उगतीं जातालीं. स्वताक सती सावित्री मानपी बायलो तिका आड-कुशीक रावून पळयताल्यो. 'मारिया माग्दालेन!' तांच्यो नदरो उलयताल्यो. हिका पर्वाच नासली. आनीक कित्याक म्हूण आसची? तिणें कोणांचो खून थोडोच केल्लो. तिणें फक्त आपापल्या काळजाचो आदेश पाळिल्लो. त्याच काळजा फाटल्यान तिची कूड धांविल्ली!

वीस वर्सां! पळोवंक गेल्यार बरोच लांब काळ! इतलो काळ ती आपल्या घोवा सांगाताक रावली. ताचे पासून तिका दोन भुरगीं जालीं सुखाचो संवसार तिचो. न्हय! अशें लोकांक तरी दिसतालें. मात, सांगाताक रावप आनी जाच्या सांगाताक रावता ताचीच जावन रावप ह्यो दोन वेगळ्यो गजाली. ती तर ताची केन्नाच जाली ना. तोवूय तिचे भितरलें स्त्रित्व केन्नाच जागोवंक शकलो ना. हें लोकांक कशें सांगप? आतां कोणूय म्हणटलो, हें कसलें मुर्खपणां बरयता? एक अस्तुरी एका दादल्याची घरकान्न जावन फाटलीं वीस वर्सां ताच्या सांगाताक रावता. ताचे पासून दोन भुरग्यांक जल्मांक हाडटा. इतलें आसुनय तो दादलो तिचें स्त्रीत्व जागोवंक शकलो ना म्हणचे कितें?'

ह्या बाबतींत अस्तुऱ्यो मात वेगळ्या मताच्यो आसतात. तांचे खातीर मोग म्हणल्यार संभोग फक्त संभोग अशें केन्नाच आसना. जो कोण तिचें काळीज जिखता, ताका मागीर ती आपूण जावन आपलें सर्वस्व वोंपता. तिचें काळीज केन्नाच शरीरा फाटल्यान धांवपाची चूक करिना. शरीर मात तिच्या काळजाक आपलो मार्गदर्शक मानता. काळीज धांवता तेच वाटेन तिचें शरीर ओडटा. हें जरी खरें आसलें तरी समाजान घाल्ल्या बंदना खातीर तांकां हें स्पश्ट सांगपाचें धाडस जायना.

समजा, असलें धाडस एक वेळ आयज हिणें दाखयल्लें जाल्यार हो समाज तिच्या मता कडेन सहमत जावपाचो? जर सहमत जाल्लो जाल्यार आयज हिच्या कर्तुबाचेर थुकचो नासलो! असो आड-कुशीक रावून हिका पळोवंचो नासलो.

''इतलीं वर्सां सांगातान रावून हिका मद मारला. लोकांचे थोमणे तिचे वाटेर तिका कांटे कशे तोपताले.''

प्रस्न सांगाताक रावपाचो आनी भुरग्यांक जल्मांक हाडपाचो न्हय. भुरग्यांक जल्मांक हाडूंक फक्त दोन शरिरां एकठांय येवचीं पडटात. थंय काळजा-मनांचो मेळ आसताच अशें ना. जावं मागीर तें लग्न जाल्लें जोडपें वो बलात्काराची शिकार जाल्ली चली वो अस्तुरी! दोन शरिरां एकठांय आयलीं म्हणटकच प्रकृती आपलें काम करता. सोंपे रितीन सांगचें जाल्यार 'I Love You, but...' आनी "But... I Love You' ही दोनूय विधानां एक सारकींच दिसतात. बारकायेन विचार केल्यार दोनूय विधानाचो अर्थ खूब वेगळो जाता. म्हणटकच ज्या संभोगांत काळजाचो एकवट ना थंय मोग कसलो? आनी मोग ना जाल्यार थंय रावपांत तरी कितें अर्थ? ह्याच खातीर आपणें घेतिल्ल्या निर्णयाचो तिका अभिमान आसलो. त्याच अभिमानान आपली मान वयर काडून ती नेटान चलताली.

''गांवांत भोंवूंक तोंड दवरूंक ना तुंवें म्हाका. तुजें खरें रूप दाखोवंक बरींच वर्सां लायलीं तुंवें!''

''हय. म्हाकाय तशेंच दिसता. म्हाका हें सगळें पयलीं कळिल्लें जाल्यार म्हजेंय जिवीत सुखाचें जावपाचें. जावं! आतां तरी थोडीं वर्सां म्हाका मानान जगूंक जाय. स्वताचे नदरे मुखार तरी म्हाका खाला पडूंक नाका.''

''मान? खंयच्या मान-सन्मानाची खबर करता तूं? त्या सकयल्या जातींतल्या ×××वांगडा मजा मारल्या आनी आतां समाजा कडल्यान मान सोदता? थुकता हो समाज तुजेर!''

''जायत. म्हाका समाजाची पर्वा ना. हांव जाणां, म्हजो मान हांवें ह्या समाजाच्या हातांत केन्नाच दिवंक ना. म्हणटकच तांचे कडल्यान अपमान जावपाचो प्रस्नूच येना. हय...समाजांत रावपा खातीर म्हज्या काळजाक जर सांखळ्यो घालून रावचें पडटा जाल्यार ह्या समाजाचो भाग जावन म्हाका रावपाचें ना.''

रातभर जाल्लो तांचे मदलो वाद आयज तिच्या पावलांचो सांगात जाल्लो.

....................................

तोच जागो. तेंच चिंचेचें झाड. तोच व्हाळ. सद्याक तरी सुकून गेल्लो.

''अजून येवंक ना ती?'' प्रस्न ताच्या मनांतलो. जशें कितें चिंचेचीं पानांच विचारतालीं.

''आनीक वाट पळोवं नाका तिची. नासल्यार आमचे सारकी तुजीय दशा जावंक पुरो.'' सुकिल्लो व्हाळ ताळो सरांटून सांगता काय कितें असो ताका भास जातालो.

''पूण येवंची आसल्यार इतलीं वर्सां कित्याक लायलीं तर तिणें?'' मस्तो वारोय

ताचीं फकाणां करपाचे तयारेंत दिसतालो.

बरोच वेळ सरून गेलो. सुर्याकूय दर्याच्या पोटांत वचून विसव घेवपाची उमळशीक लागिल्ली. हय-न्हयसो काळोख पातळटालो आनी ह्या झिळमिळट्या उजवाडांत ताका, ती स्पश्ट दिसली. तिका वळखूंक ताका आपल्या मनाची नदर पुरो आसली.

''खूब कळाव केलो तुंवें!'' आपूण विचारता तो प्रस्न काय जाप हेंच ताका समजलें ना.

''तूंच चड बेगीन आयला जावंक जाय.'' ती मंद हांसली

''पांच वर्सांचो काळ म्हळ्यार चडूच जालो न्हय?'' ताणें आपले भितरूच आपल्या आनी तिच्या नात्याचे पिरायेचो हिशोब केलो.

''म्हाका खूब पयलीं येवचें आसलें. जमलें ना.'' तिचे दोळे त्या सुकिल्ल्या व्हाळाचेर थिरावले.

''दिसता तुका ह्या व्हाळाक तृप्तीचो धेंकर येतलोसो? पळय तरी, कितले कांटे-कुटे आनी झोंपां वाडल्यांत तीं ताचे कुशीक?'' तिचें मत ताका जाणून घेवपाचें आसलें.

''ह्याच खातीर तर म्हाकाय उशीर जालो. ''तुजे पिरायेक सोबता हय हें? तुजो घोव आसा. भुरगीं आसात. सुखाचो संवसार आसा. हें सगळें खीणां भितर नश्ट करूंक फुडें सरलां तूं?'' ह्या प्रस्नान म्हाकाय ह्या व्हाळा सारको वेडो घाल्लो.''

''आनी आतां?'' ताणें तिच्या दोळ्यांत देंवून, तिच्या आत्म्यांत पळोवपाचो यत्न केलो.

''हांव तृप्त जावंक सोदतां. म्हज्यान ह्या फुडें, अडेची जीण जगूंक जावचें ना. जो हांसो दोळ्यां मेरेन पावना तो हांसो आतां तोंडार खेळोवन कांयच फायदो ना.'' तिणें मन मेकळें केलें.

''हीच गजाल तुका हांवें पांच वर्सां आदीं सांगिल्ली.'' ताणें शीण केलो.

''जाणां हांव. एके रातीन बदल हाडूंक जायना. आयज हांव मेकळें आसा. म्हाका कोणूच आडावंक शकना.'' ती शांत जाली.

.......................................

मेजार सोऱ्याची बाटली आनी ग्लास घेवन तो बशिल्लो. जसो कितें आपलें दुख सोऱ्या वांगडा गळ्या सकल देंवोवंक आंवडेतालो.

''खंय चुकलें म्हजें? हिका तर हांवें कितेंच कमी करूंक ना. फाटलीं पांच वर्सां पासून हिचें अनैतीक नातें आसा म्हणपाची म्हाका मातूय सुलूस लागली ना. हांव खंय कमी पडलों? अशें म्हज्यांत कितें नासलें जें त्या थर्ड क्लास ×××लागच्यान हिका मेळ्ळें?''

सोऱ्याची बाटली अर्धी जाल्ली. तरी पूण तो भानार आसलो.

''ना. जर ती म्हजी न्हय जाल्यार हांव तिका दुसऱ्याची केन्नाच जावंक दिवंचो ना. फाटलीं पांच वर्सां ही म्हज्या फाटल्यान एका परकी दादल्याक....!'' फुडें येवजुपाची तांक नासली ताका.

.......................................

मळबा दोळ्यांत काजळ भरलें. वेगाचो वारो सुटलो. सुकिल्लीं पानां गळून पडूंक लागलीं. पावसा-सरी नेटान धर्तरि दिकेन येवंक लागल्यो. मातयेचो परमळ पुराय वाठारांत पसरलो. ताणें, हिका सवकास वेंगेंत ओडली. तांच्या अनैतीक संबंदाचो परमळ त्या मातयेच्या परमळांत भरसलो...!

.......................................

फांतोडेर व्हाळा देगेर बरीच गर्दी जमिल्ली. ''येदीं व्हडलीं भुरगीं आसतना असले चाळे करतात तांकां असलीच ख्यास्त फावो.'' सगळ्यांत व्हडलें पातक आदारपी, एक अनैतीक नातें जपपी, जोडपें मरणांचे सुवादीन जाल्ल्याची खोस जमिल्ल्यांच्या तोंडार दिसताली. सुकिल्ल्या व्हाळाक तृप्तिचो धेंकर आयिल्लो. तो आपलेच तंद्रेंत व्हांवतालो. अदीं-मदीं वाट आडावंक सोदपी फातर-गुंड्यांची आनी कांट्या - कुट्यांची ताका मातूय पर्वा नासली. तो ताकतिकेन न्हंयेक मेळूंक वतालो. ती न्हंय मागीर दर्याचे वेंगेंत रिगपाची आसली. एकदां दर्याक विलीन जाली म्हणटकच तिका कोणूच दर्या पासून दोशी करूंक शकचो नासलो...!

.......................................

बाटलेंतलो उरिल्लो सोरो ग्लासांत रकयतना ताचे हात थरथरताले. भायर इतलो पावस पडला आसतनांय ताचें आंग हुमेन चिप्प भिजिल्लें. थोडी-भोव सुद्ध ताका आयिल्ली. पूण आतां खूब उशीर जाल्लो. चिंतून कांयच फायदो जावंचो नासलो. अनर्थ जावपाचो जावन गेल्लो.

.......................................

''अस्तुरे! तुज्या काळजाचो आदेश मानपाची मेकळीक अजुनय ह्या समाजान तुका दिवंक ना.'' अशेंच कितें सांगपी, व्हाळाचे कुशीक झोंपांत उडयल्ल्या पिस्तुलाचे नळयेंतल्यान अजुनय धुंवराचो वास येतालो...!

संपर्कः 86059 42157

***


## उकतावणी

(सेम आं. ८ रजिस्ट्रेशन ऑफ न्यूज पेपर्स सेंट्रल रूल्स १९५६, फॉर्म आं. ४)

| | |
|---|---|
| १. उजवाडावपी थळ | : मडगांव, गोंय ४०३ ६०१ |
| २. उजवाडा येता तो काळ | : दर म्हयन्याक |
| ३. उजवाडावपी, छापपी आनी धनी | : जयवंत भालचंद्र सरदेसाय |
| राष्ट्रियताय | : भारतीय |
| नामो | : २०१ -बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स, रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड, मडगांव-गोंय ४०३ ६०१ |
| ४. संपादपी | : आसावरी नायक |
| राष्ट्रियत्व | : भारतीय |
| नामो | : २०१ -बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स, रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड, मडगांव-गोंय ४०३ ६०१ |

हांव, जयवंत भालचंद्र सरदेसाय, अशें उकतायतां की, वयर दिल्ली खबर, म्हजे म्हायतीक आनी समजुतीक धरून खरी आसा.

**जयवंत भालचंद्र सरदेसाय**
उजवाडावपी

